मायेमोगाची भेंट
रजनी भेंब्रे
३०-५-१३

# हांणी घडयलें गोंय

(गोंयचे सुटके झुजारी)

रजनी अशोक भेंब्रे

दामोदर प्रकाशन

# हांणी घडयलें गोंय

(गोंयचे सुटके झुजारी)

रजनी अशोक भेंब्रे

---

प्रकाशन क्र. 15



**पयली उजवाडावणी :** 2013

**उजवाडावपी**

रजनी अशोक भेंब्रे

दामोदर प्रकाशन

जी, 3, अत्रेय अपार्टमेंट,

मोरायलें, कुडचडें, गोंय. 403706

फोन : 2650945 / 9822486955

**मुखचित्र**

कलानंद बांबोळकार

**अक्षरजुळोवणी**

ज्योती गांवकार

**छापपी**

कस्तुरी ग्राफिक्स,

धवळी, फोंडें - गोंय.

**मोल : रु. 140/-**

गोंय मुक्ततायेच्या यज्ञांत
जांणी आपली आहुती दिली
त्या सगळ्या सुटके झुजाऱ्यांक!

– रजनी अशोक भेंब्रे

पुस्तकाचे निर्मणेंत
जांणी जांणी आदार केलो
त्या सगळ्यांचे
मनासावन आभार !

– प्रकाशक

## रजनी अशोक भेंब्रे हांचीं

# उजवाडाक आयिल्लीं पुस्तकां

| | |
|---|---|
| 1. घुस्मट | (कथासंग्रह) |
| 2. सुखी संवसार | (संवाद) |
| 3. कोंकणी निबंद | (V ते VII) |
| 4. कोंकणी निबंद | (I ते VIII) |
| 5. पांच पांकळ्यो | (बालसाहित्य) |
| 6. हांव कोण | (बालसाहित्य) |
| 7. मोराची करामत | (बालसाहित्य) |
| 8. आळ | (बालसाहित्य) |
| 9. सोपूत | (बालसाहित्य) |
| 10. अडेचो वेगळोचार | (बालसाहित्य) |
| 11. झाँसीची राणी | (बालसाहित्य) |
| 12. लोकमान्य टिळक | (बालसाहित्य) |
| 13. कोयरांतल्यान उपेगी वस्त | (बालसाहित्य) |
| 14. पोरखणी | (बालसाहित्य) |
| 15. पर्यावरणाची राखण | (बालसाहित्य) |
| 16. नसती अंधश्रध्दा | (बालसाहित्य) |

# मनोगत

साडेचारशें वर्सां पुर्तुगेजांनी गोंयचेर राज्य केलें. तांच्या शेकातळा गोंयचो पुराय समाज, सगळे नदरेन चिड्डल्लो. खूब हाल उपाद्रे भोगतालो. केन्ना एकदां गोंय गुलामगिरींतल्यान मेकळें जायत म्हूण वाट पळयतालो. देशभक्तीन प्रेरीत जावन आनी आपलें जिवीत गोंयचे मुक्ती पसत अर्पण करपाच्या उदात्त हेतून कितल्याश्याच जांणांनी गोंय मुक्तीच्या होमखणांत उडी मारली आनी सुटके झुजाऱ्यांचें बिरूद जोडलें.

आवय-बापायचे मायेक फाट करून, आपल्या मुखावेल्या आयुश्याची चिंता, हुस्को बाळगिनासतना सुटके झुजाऱ्यांनी एकच ध्यास घेतलो तो म्हणल्यार, गोंयची मुक्ती.

गोंयचे मुक्ती पसत सातत्यान भुमीगत वावर चालू आशिल्लो. पूण उगडपणान गोंयचे मुक्तीची पयली वात डॉ. लोहियांनी भाशणबंदीचो कायदो मोडून, सत्याग्रह करून पेटयली अशें म्हणल्यार अतिताय जावंची ना.

गोंयचे सुटके झुजारी मरणाची, बंदखणीची पर्वा करिनासतना निश्टा आनी त्यागी भावनेन भायर सरले. तांकां पुरायेन खबर आसलें, पुर्तुगेज सरकाराआड झूजप म्हळ्यार एक व्हडलें आव्हान. पूण गोंयच्या सुटके झुजाऱ्यांनी तें आव्हान पेललें आनी गोंय 19 डिसेंबर 1961 दिसा पुर्तुगेजांच्या बंदपासांतल्यान मेकळें केलें.

हें पुस्तक म्हणल्यार आयचे माणकुले पिळगेक गोंयचे सुटके झुजारी आनी तांच्या कार्याची वळख जावंची म्हूण हो केल्लो ल्हानसोच यत्न. हातूंत चड पाल्हाळ करीनासतना थोडे भितर पूण म्हत्वाच्यो गजाली मांडपाचो यत्न केला. पुस्तकाचे मर्यादि खातीर सगळ्या सुटके झुजाऱ्यांक आसपावंक मेळूं ना पूण फुडल्या पुस्तकांत तो यत्न करपाचो हावेस आसा.

हो ल्हानसोच यत्न करपा फाटलें सगळें श्रेय सुनापरान्त दिसाळ्याचे संपादक भौ. बाबली नायक आनी पालवी संपादक भौ. नयना आडारकर हांकां वता. एक दीस तांणी म्हजे मुखार प्रस्ताव दवरलो 'हांणी घडयलें गोंय' हो विशय धरून दर आयताराक, भुरग्यांक भावता आनी पचता अशें सदर बरोवचें

म्हण. म्हजो आवडीचो विशय आशिल्ल्यान हांवें रोकडोच हयकार दिलो.

अशे तरेन 'हांणी घडयलें गोंय' सदराची सुरवात जाली. हें सदर शालेय विद्यार्थ्यांक खूब मानवलें आनी ते संबंदी प्रतिक्रियाय आयल्यो.

आज हेंच सदर पुस्तक रूपान तुमचे मुखार दवरतना, खूब खोस भोगता. नदर चुकीन कांय चुको उरल्यो जाल्यार मुजरत कळोवच्यो.

**– रजनी अशोक भेंब्रे**

# मांडावळ

# 1. डॉ. त्रिस्तांव ब्रागांझ कुन्य



**डॉ.** त्रिस्तांव ब्रागांझ कुन्य हांचो जल्म 2 एप्रिल 1891 दिसा चांदर-सालसेत हांगा जालो. तांचे बापूय वैज आशिल्ले. ते चांदर गांवांत जल्मले तरी तांचें भुरगेंपण कांसावले वाठारांत गेलें. तांणी पणजे शारांत पुर्तगेज माध्यमीक स्कुलांत शिक्षण घेतलें. पूण थंयची शिक्षण पध्दत तांकां मानवली ना देखून ते पाँडिचेरीक गेले आनी थंयच्या फ्रेंच कॉलेजींत तांणी बाकोलोरेआ (बी.ए.) मेरेन शिक्षण घेतलें. उपरांत पॅरिसाक वचून 'सॉर्बोन' विद्यापिठांत इलेक्ट्रिकल इंजिनियरींगाची पदवी मेळयली आनी ते थंयच नोकरी करूंक लागले.

त्या वेळार भारतांत गांधीजींच्या फुडारपणाखाला नवजागृती चलताली. तांचेर तिचो परिणाम जावन आपल्या हक्कापसत झगडपाची तांकां स्फूर्त मेळ्ळी. फ्रेंच खबरांपत्रांनी तांणी स्वातंत्र्याविशीं लेख बरोवंक सुरू केलें. 'युमानिते' ह्या फ्रेंच खबरापत्राचेर नेमान बरपां करून तांणी जालियनवाला बाग घडणुकेंतल्यान आनी हेर राजकारणांतल्यान ब्रिटिशांचे जुलमी राजसत्तेची फ्रेंच लोकांक वळख करून दिली.

संवसारीक नामना मेळिल्ल्या 'रोमां रोलां' हांणी थापणूक केल्ल्या वसाहतवादाच्या आड वावुरपी 'ॲन्टी इंपीरीयलिस्ट लीग' हे संस्थेचे ते सभासद जाले.

फ्रांस देशांत 14 वर्सां रावल्या उपरांत 1926 वर्सा ते भारतांत आयले. 1928 वर्सा तांणी पीटर आल्वारीस आनी आत्माराम मयेंकार हांच्या पालवान भारतीय काँग्रेसीचो फांटो म्हूण 'गोवा काँग्रेस कमिटी' हे संस्थेची थापणूक केली. तांणी आपले बरपावळीवरवीं साम्राज्यवाद तशेंच लोकांक लिपोवन चलयल्ली गुलामगिरी (Camouflaged slavery) ह्या विशयांचेर उजवाड घालो.

आसामांत च्या तयार करपाच्या मळ्यांनी गोंयचे गरीब मनीस व्हरून तांकां गुलामा सारखी वागणूक मेळटाली. तांच्या आड तांणी 1929 वर्सा सावन आवाज काडपाक सुरवात केली. अश्या वेळार तेन्नाचे भारतीय काँग्रेसीचे सरचिटणीस जवाहरलाल नेहरू हांचे वरवीं यत्न करून 1940 वर्सा गोंयच्या कुणबी लोकांक गुलामगिरींतल्यान सोडोवन हाडपाक तांकां यश मेळ्ळें.

1941 वर्सा सालसेत आनी मुरगांव तालुक्यांत पावसाच्या हुंवारांत पिडीत जाल्ल्या लोकांक मदत करपाक आपद्ग्रस्त निधी एकठांय करपांत तांणी वांटो घेतिल्लो. 1939 ते 1946 ह्या काळांत जायराती वरवीं गोंयच्या राजकी घडणुकाविशीं लेखन बरोवन तांणी जागृताय हाडली. 'गोंयकारांचे विराष्ट्रीयकरण' (Denationalisation of Goans) हें पुस्तक बरोवन तांणी पुर्तुगेजांकडल्यान पध्दतशीर गोंयच्या लोकांक मानसीक गुलाम करपाचे यत्न कशे चलतात, हाचें पुराय चित्रण केलें.

1946 वर्सा तांणी 'गोवन युथ लीग' हे संस्थेची थापणूक केली. 30 जून 1946 दिसा राजकी चळवळींत वांटो घेतला असो आरोप दवरून मडगांव शारांत तांकां अटक जाली. तांकां आठ वर्सां काळ्या उदकाची ख्यास्त फर्मायली.

1952 वर्सा लिश्बोआचे बंदखणींतल्यान तांची सुटका जाली. थंयच्यान गोंयांत येवपाक तांकां मनाय आशिल्ली. देखून ते फ्रांसाक गेले आनी उपरांत मुंबय आयले. मुंबय तांणी गोंयच्या सगळ्या राजकी पक्षांची 'गोंय कृती समिती' (Goa Action Committee) ची थापणूक केली.

हे समिती वरवीं तांणी दादरा आनी नगरहवेलीच्या सुटके झुजाखातीर तेचपरी 1954 आनी 1955 वर्सा जाल्ल्या सत्याग्रह चळवळीचो वावर हातांत घेतलो. 'आझाद गोवा' आनी 'फ्री गोवा' अशीं नेमाळीं उजवाडाक हाडून तांणी अखेरमेरेन गोंयचे सुटकेखातीर वावर केलो.

तांकां 26 सप्टेंबर 1958 दिसा मरण आयलें. मरणा उपरांत तांच्या शांततायेच्या वावराखातीर 1959 वर्सा स्टॉकहॉम (Stockholm) हांगच्या संवसारीक शांतताय काउन्सीलावरवीं (World Peace Council) तांकां भांगरा पदक फाव जालें.

1961 वर्सा तांची सगळी बरपावळ एकठांय करून तांच्या वांगड्यांनी 'Goa's Freedom Struggle' नांवाचें पुस्तक मुंबय उजवाडाक हाडलें.

तांच्या उगडासाखातीर टी.बी. कुन्य मेमोरियल ट्रस्टाच्या पालवान तांच्या कुटुंबियांनी पणजे शारांत तांच्या नांवान सभाघर बांदलां.

18 जून 1984 ह्या दिसा गोंय सरकारा कडल्यान तांच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो मरणोत्तर भोवमान जालो.

26 सप्टेंबर 1986 दिसा गोंय सरकारान, चर्च ऑफ स्कॉटलंड (Church of Scotland) शिवडी-मुंबय हांगा आशिल्ल्यो तांच्यो अस्थी गोंयांत हाडून पणजे शारांतल्या आझाद मैदानाचेर टी. बी. कुन्य यादस्तीक बांदलें.

◆◆◆

# 2. कुर्रेय आफोंस पेद्रु पाउलु ब्राज



कुर्रेय आफोंस पेद्रु पाउली ब्राज हे एक नामनेचे पत्रकार आसले. तांचो जल्म 29 जून 1892 दिसा जालो. तांच्या बापायचें नांव रॉक आनी आवयचें नांव क्लाऊन पाशेको आसलें.

मार्च 1918 वर्सा तांणी मुंबय विद्यापीठाची, कृषी विज्ञानाची पदवी मेळयली. बरे गूण मेळिल्ल्यान पुण्याच्या शेतकी महाविद्यालयांत तांचें नांव मानादिकांचे वळेरेंत आसा.

1918 वर्सा गोंयच्या कृषी आनी रान खात्यांत तांकां नोकरी मेळ्ळी. 1918 ते 1931 वर्सा मेरेन तांणी असोळणें गांवचो शासक म्हूण वावर केलो.

उपरांत ते तेरसैरा सिरकूनश्क्रिसांव आग्रीकोला, मडगांव (Terceira Circunsericao Agricola) हे संस्थेचे मुखेली जाले. 30 वर्सा नोकरी केले उपरांत 1949 वर्सा ते निवृत्त जाले.

1919 वर्सा तेन्नाच्या गोंयच्या कृषी आनी रान खात्याच्या निर्देशकान तांकां 'ऊं गनेज सॅतिपश द सॅति काबे पाश ('Hm Ganez de site pes e sete cabecas) म्हूण तांचो भोवमान केल्लो.

भारताची, पर्यायान गोंयचीं पीक वाडोवपाचे नदरेन कुर्रेयानी बरेच

नवे नवे प्रयोग केले. असोळणें, वेळ्ळी आनी आंबेली हांगा सरकारी जमनींत तांणी माडाच्या पिकाची उदरगत केली.

नाल्लाचे उदरगतीच्या संस्कृतीक, वेपारी आनी उद्देगीक आंगांचो अभ्यास करपा खातीर तांकां श्रीलंकेत धाडिल्लो. ह्या वेळार तांणी केल्ल्या अभ्यासाक लागून तेदेवेळच्या गोंयच्या गवर्नर जनरलान तांचो भोवमान केल्लो. तांणी बरयिल्लो प्रबंध पुस्तकरूपान उजवाडाक आयलो.

शेतवडीचीं उपकरणां, रसायनीक सारीं, कीटक नाशकां आनी शेतवडीच्या मळार नवीं नवीं यंत्रां वापरांत हाडून शेत कामत्यांक तांचो वापर कसो करचो आनी आपलीं शेतकामां सोपीं कशीं करचीं हांची प्रात्यक्षिकां, यांत्रिकीकरणाच्या आदारान शेतकामत्यांक दाखोवन ताचें कडसून तांचो वापर (यंत्राचो) करपांत तांचो म्हत्वाचो वांटो आसा.

1941 ते 1947 वर्सा मेरेन ते सालसेत नगरपालिकेचे अध्यक्ष आसले. त्या वेळार तांणी रेबड आनी कोयरापासून सारें करपाची पद्दत सुरू केल्ली. तांणी देवी, रॅबिज ह्या भिरांकूळ दुयेसां आड खर उपाय येवजण राबयिल्ली. तशेंच मडगांव शारांतले येरादारी वेवस्थेंत सुदारणा हाडपाचो मोलाचो यत्न केल्लो.

मडगांव शाराची गटार वेवस्था हो कळीचो मुद्दो. कुर्रेयन समर्थपणान आपल्या अध्यक्षपणाचे कार्यकाळांत गटार वेवस्थेंतय सुदारणा हाडपाचो यत्न केलो.

ते खर राष्ट्रवादी आसले. 1950 ते 1960 तांणी 'अ व्हीद' (A vida) ह्या पुतुगेज खबरां पत्राखातीर बरपावळ केल्या. 1961 वर्सा गोंय पुर्तुगेजांच्या बंदपासांतल्यान मेकळें जालें आनी मुक्त गोंयांत, मडगांव शारांत कोंकणीच्या विकासा पासत कोंकणी भाशा मंडळ ही संस्था स्थापन जाली. पेद्रू कुर्रेय ताचे संस्थापक अध्यक्ष आशिल्ले. ह्या मंडळावरवीं तांणी कोंकणी कार्यकर्त्यांचो एक पंगड तयार केल्लो.

ह्या कोंकणी कार्यकर्त्यांनी कोंकणी भास आनी साहित्य हांचे उदरगतीक

मोलाचो हातभार लायलो आनी कुर्रेयाचें ध्येय फुडें व्हेलें. जाचें कार्य आज मेरेन चालू आसा.

1962 वर्सा मडगांव भरिल्ले आठवे कोंकणी परिशदेचे ते येवकार अध्यक्ष आशिल्ले.

14 फेब्रुवारी 1965 दिसा ते ह्या संवसारांतल्यान गेले.

◆◆◆

# 3. रजनीकांत केंकरे



रजनीकांत केंकरे हांचो जल्म 1931 वर्सा कुंकळ्ळी, सालसेत गांवांत जालो. तांणी मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. ते 'आझान गोमंतक दला'चे वांगडी आशिल्ले.

'आझाद गोमंतक दल' ही कांय क्रांतिकारी विचारसरणीच्या तरणाट्यांनी 1947 वर्सा स्थापन केल्ली संघटना. सशस्त्र क्रांती करून भारत भुंये वयली पुर्तुगेय सत्ता नश्ट करप हें संघटनेचें ध्येय आशिल्लें.

सुभाषचंद्र बोस हांणी स्थापन केल्ली 'आझाद हिंद सेना' तांचो आदर्श आशिल्लो. सत्याग्रह मार्गान फॅसिस्ट पुर्तुगेज सत्ता नश्ट जावंची ना हें त्या तरणाट्यांनी पुरायेन वळखल्लें. म्हणून सशस्त्र आपवावुरप्यांची पलटण उबी करून पुर्तुगेजां कडेन हार हात करपाच्या नदरेन 'आझाद गोमंतक दला'ची  रचणूक जाल्ली. जिवाची पर्वा करिनासतना गोंय मुक्ती खातीर झुजपी आपवावुरपी हे संघटनेन तयार केल्लें. तातूंतलेच एक आपवावुरपी जावस आसले रजनीकांत केंकरे.

1954 वर्सा तांणी नगर हवेलीचे सुटके चळवळींत वांटो घेतिल्लो. उपरांत जायते फावट तांणी पुर्तुगेजांच्या पुलीस ठाण्यार, मिनाखणींचेर (स्फोटकां, ग्रेनेड्स मेळोवपा पासत) वेल्वेचेर (पयसो मेळोवपा खातीर)

हत्यारबंद हल्ले करपांत वांटो घेतिल्लो.

10 जून 1955 दिसा कॅसरलॉक ते कुळें रेल्वे लायनीचेर आशिल्ल्या बोगदो नं. 10 हाका तांणी सुरींग घाल्लो.

ते भायर 30 जून 1955 दिसा सावड्डें ते कालें रेल्वे लायनीचेर आशिल्ल्या सांकवाक, 2 जुलय 1955 दिसा कष्टीं-कुळें रेल्वे लायनी वयल्या सांकवाक आनी त्याच दिसा चांदरचे रेल्वे पुलाचेर स्फोट घडोवन हाडिल्लो. हातूंत तांणी वांटो घेतिल्लो.

तांचे गैरहाजिरींत गोंयच्या प्रादेशीक लश्करी दंडाधिकाऱ्या मुखार (टेरिटोरियल मिलिटरी ट्रिब्युनल) तांची चवकशी जाली. तांकां इकरा वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ते भायर वीस वर्सां खातीर तांचे राजकी हक्क काडून घेतले.

रजनीकांताच्यो पुर्तुगेज सत्तेक गोंयांतल्यान धांवडावचे पसत सतत दहशतवादी कार्यावळी चालूच आसल्यो. घटमूट आनी धिप्पाड आंगलोट आशिल्ले रजनीकांत आर्म चलोवपाक फिशाल आसले. चार वर्सांच्या, थोड्याश्या काळांत तांणी कितलींशींच धाडशी कर्तुबां बेडर वृत्तीन करून दाखयल्लीं.

8 फेब्रुवारी 1956 दिसा तळावले मिनाखणीचे स्फोट घडोवन हाडपांत ते आशिल्ले. 2 मार्च 1956 ह्या दिसा तांणी करंजाळे रेल्वे गाडयेचेर हल्लो केलो आनी पंदरा हजार रूपये हस्तगत केले. 13 ऑगस्ट 1956 दिसा तांणी कुळें ते सोनावली रेल्वे लायनीचेर बॉम्च स्फोट घडोवन हाडलो.

12 ऑक्टोबर 1956 दिसा शिरोड्यां आनी 14 मे 1957 दिसा सोनावली वाठारांत जे घातकी हल्ले जाल्ले तातूंत तांणी वांटो घेतिल्लो.

आपल्या दुश्ट वृत्तीची भूक भागोवचे खातीर ज्या कॅरोज नांवाच्या पुलीस अधिकाऱ्यान स्वताच्या हातांनी मशीनगन चलोवन निशस्त्र सत्याग्रहींक मारून उडयल्लें. तांकां तेच पद्दतीन मारून उडोवपाचें धिटायेचें काम रजनीकांतानी केल्लें. कालें दूदसागराच्या रेल्वे गाडयेर हल्लो करून दिसा-धवळ्या गाडयेंतल्यान दुश्ट कॅरोजाक भायर ओडून काडून तांणी मारून

उडयल्लो. तांच्या ह्या आनी दहशतवादी कारवायां खातीर रजनीकांत पुर्तुगेज सरकाराक जिवो जाय आशिल्लो. तांकां धरचे पसत सशस्त्र पुलीस दीस-रात तेळणी करीत आशिल्ले आनी एक दीस अचकीत तांची गांठ पुर्तुगेज पुलिसांकडेन पडली, जेन्ना ते लिपून रानांतल्यान वताले.

4 जून 1957 दिसा निरंकाल-दाभाळ वाठारांत अकस्मात 20 सैनिकांनी तांचेर आनी तांच्या वांगड्यांचेर हल्लो केलो. ह्या हल्ल्यांत तांकां आनी तांच्या वांगड्यांक मरण आयलें. गोंय मुक्ततेचो ध्यास घेतिल्ले रजनीकांताची पिराय अवघी २६ वर्सांची आशिल्ली.

18 जून 1983 दिसा गोंय सरकारान तांच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो मरणोत्तर भोवमान केलो.

◆◆◆

# 4. ॲड. पां. पु. शिरोडकार



ॲड. पां. पु. शिरोडकार हांचो जल्म 12 ऑक्टोबर 1916 वर्सा म्हापशें शारांत जालो. तांचें मुळावें शिकप मराठींतल्यान जाल्यार पुर्तुगेज लायसियमाचें 7 व्या वर्साचें शिकप पुराय करून 'डिप्लोमा इन पुर्तुगेज लॉ' हें कायद्याचें शिकप तांणी घेतलें. फुडाराक वकिली करून फाकीवंत वकील म्हणून तांणी नामना जोडली.

1939 वर्सा सावन तांणी गोंयचे मुक्ती चळवळींत वांटो घेतलो. गोंयचे मुक्ती खातीर स्थापन केल्ल्या नॅशनल काँग्रेस गोंयचे कार्यकारिणीचे ते पयलीं वांगडी आनी उपरांत अध्यक्ष जाले. लोकांमदीं स्वातंत्र्याची जागृताय करपाचे नदरेन ते बसका, सभा घेताले.

फुडाराक ते पुण्यांत वचून 'सकाळ' चे उपसंपादक जाले. उपरांत ते मुंबय गेले आनी 'नवशक्ती' चे वृत्तसंपादक म्हणून वावुरले. थंय तांणी गोंय मुक्ती तशेंच गोंयच्या संदर्भांत इतिहासीक संशोधनात्मक लेख बरयले.

'दियारियु द आंगोल' हातूंतय तांणी पुर्तुगेजींतल्यान लेख बरयले. 'आवेसे' ह्या दिसाळ्यांत मराठी-पुर्तुगेज भाशेचे सहसंपादक म्हणूनय तांणी वावर केला. गोवन युथ लिगाचे ते कार्यकारिणी वांगडी आशिल्ले. तशेंच ते काँग्रेस सोशलिस्ट पार्टीचे सचिव म्हणून वावुरले.

चळवळीच्या कामाक नेट हाडपा खातीर तांणी पेपरांतली नोकरी सोडली आनी गोंय काँग्रेसचे वांगडी जावन ते परत कार्यरत जाले. 25 सप्टेंबर 1946 ह्या दिसा तांकां पुर्तुगेज पुलिसांनी अटक केली आनी तांकां 4 म्हयन्यांची बंदखण भोगची पडली. आग्वाद बंदखणींत आसतना सत्याग्रही म्हणून वागणूक न दिल्ल्यान तांणी थंय 14 दिसांचो उपास केलो.

गोंय काँग्रेसचे सचिव जाले उपरांत तांणी 15 मे 1947 ह्या दिसा करमळे सभा घेतली. ते खातीर तांकां परत अटक जाली. फुडें ते संघटनेचे अध्यक्ष जाले. तांच्या यजमानपणाखाला जाल्ल्या करमळें अधिवेशनांत संस्थेची घटना संमत करून घेतली आनी पुराय स्वातंत्र्य आनी भारतांत गोंयच्या विलिनीकरणाचो थाराव मानून घेतलो.

16 डिसेंबर 1947 ह्या दिसा तांकां परत अटक जाली आनी प्रादेशीक लश्करी न्यायालया मुखार उबें केलें. न्यायालयान तांकां आंगोलाक फोर्ट रोकाडस हांगा धाडपाचें फर्मान काडलें. 1 जून 1952 ते 12 मे 1956 मेरेन ते सादे बांदेरियाक आशिल्ले. ताचे उपरांत तांकां आंगोलाक दवरलें. आंगोलाक आसतना तांणी लो. टिळकांच्या 'गीता रहस्याचो' पुर्तुगेजींत अणकार केलो.

आंगोलाक आसतना थंय तांणी राजकी चळवळींत आनी थंयच्या स्वातंत्र्याच्या उठावांतूय वांटो घेतलो, म्हणून परत तीन म्हयन्यांची बंदखण तांच्या वांट्याक आयली. 'सां पावलो फोर्ट' बंदखणींत तांकां दवरलें. थंय आसतनाच 'लुआडा जॉनील दे आंगोला' चे सहसंपादक म्हणूनय तांणी काम पळयलें.

लागीं लागीं 15 वर्सां वयर बंदखण आनी बिजनवास तांणी भोगले. मागीर तांकां लिस्बनाक धाडलें. थंयच्यान ते कराचीक पावले आनी गोंय मेकळें जाल्या उपरांत स म्हयन्यांनी ते मायघरा पवतले.

1964 भौशीक वेंचणुकेंत शिवोले मतदार संघांतल्यान ते वेंचून आयले आनी गोंय, दमण आनी दीव विधानसभेचे पयले सभापती म्हणून तांची बिनविरोधी निवड जाली.

मराठी भाशेचे ते खांपे अभिमानी आसले आनी राज्यभाशा प्रस्थापन समितीचे अध्यक्ष म्हणून वावुरले. गोमंतक मराठी अकादमीचे ते मानद अधिसदस्य जावन आसले.

तांणी 'भारतीय समाज विघटक जातिवर्ण व्यवस्था' हो ग्रंथ मराठींतल्यान बरयलो आनी तांकां गोंय कला अकादमीचो पुरस्काररूय लाबलो. 'आठवणी माझ्या कारावासाच्या, काळ्या निळ्या पाण्याच्या' हें तांचें आपजिणेत्मक दुसरें मराठी पुस्तक जाल्यार 'इतिहासाच्या दृष्टिकोनातून गोमंतकातील मराठी परंपरेचा उद्गम व विकास' हें तांचें तिसरें पुस्तक जावन आसा. 'जातीवर्णाचें समाजशास्त्र' हें तांचें कोंकणी पुस्तक बरेंच गाजलां.

केंद्र सरकारान 1973 त ताम्रपट भेटोवन तांचो गौरव केला, तर गोंय शासनान 18 जून 1981 ह्या दिसा तांचो भोवमान केला. वाराणसी सारनाथ हांगा भरिल्ल्या अखिल भारतीय स्वतंत्रता संग्राम सेनानी समितीच्या 13 व्या अधिवेशनांत 'राष्ट्रवीर' पदवेन तांकां सन्मानीत केल्यात. अश्या ह्या सुटके झुजाऱ्यांक ऑगस्ट 2000 त देवाचें आपोवणें आयलें.

◆◆◆

# 5. पांडुरंग जगन्नाथ सिनाय मुळगांवकार



**पां**डुरंग मुळगांवकार हांचो जल्म 10 ऑक्टोबर 1917 त मळकर्णे, केपें हांगा जालो. तांणी लिसेवाचें सातवें वर्स मेरेन शिक्षण घेतकच पुर्तुगेज कायद्याची सनद आनी पदविका घेतली.

18 जून 1946 ह्या दिसा खुबशे सुटके झुजाऱ्यांक अटक जाल्ली तेन्ना तांचो बचाव केल्ल्या आरोपाखाल तांकां अटक करपांत आयली.

1948 वर्सा गोंय, दमण आदी दीवचे राजकीय घटनेचे कमिटीचेर लोकप्रतिनिधी म्हूण तांची निवड जाली. 1953 त ते 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेचे वांगडी जाले.

तेन्ना तांणी गोंयच्या लोकांनी पुर्तुगेज कायद्याआड आनी न्यायालयीन बंदीक विरोध करचो म्हूण प्रचार करपाक सुरवात केली.

राजकीय चळवळीक तेंको दिवपा खातीर ते गोंयांत आनी गोंयां भायर जाल्ले दर राजकीय बसकेंत वांटो घेताले.

अश्या वेळार 30 जून 1954 ह्या दिसा तांकां अटक करून आग्वाद बंदखणींत दवरले. फुडें प्रादेशीक लश्करी न्यायालयामुखार उबो करून तांकां 5 जुलय 1955 ह्या दिसा 8 वर्सांखातीर खर बंदखीणीची ख्यास्त जाली.

हाचे भायर दर दिसा 20 इश्कूद हे प्रमाण दोन वर्सां दंड आनी 15 वर्सां खातीर तांचे राजकीय हक्क काडून घेतले. फुडें 17 मे 1959 दिसा तांची सुटका जाली.

सुटका जाले उपरांत तांच्या वांगडा बंदखणींत आशिल्ल्या राष्ट्रवादी फुडाऱ्यांच्या सहवासांत ते रावंक लागले आनी गोंय मुक्ती चळवळीक नेट येवंचो म्हूण ते खूब वावुरले.

1959 ते गोंय पुर्तुगेजांच्या जुलमी राजवटींतल्यान मुक्त जाय मेरेनच्या काळांत सुटके झुजाऱ्यांच्या चळवळीन बरोच नेट धरिल्लो. पुर्तुगेजांक नाका शेवट करपाच्यो चळवळी भूमीगत तशेंच दहशतवादी सुटके झुजाऱ्यांकडल्यान दिसपट्टे चालू आसल्यो.

अश्या चळवळीकडेन पांडुरंग मुळगांवकारांचो सामको लागींचो संबंद आसलो.

मजगतीं 19 डिसेंबर 1961 दिसा गोंय पुर्तुगेजांचे गुलामगिरींतल्यान मेकळें जालें. चडशे सुटके झुजाऱ्यांचो संबंद काँग्रेस सत्तेकडेन आशिल्लो.

गोंय सुटके उपरांत जेन्ना पणजी हांगा जानेवारी 1962 त सुटके झुजाऱ्यांची बसका जाली, तेन्ना पांडुरंग मुळगांवकारांक 'नॅशनल काँग्रेस गोवा' संघटनेचे अध्यक्ष म्हूण वेंचून काडले.

उपरांत मे 1962 ते 1963 ह्या काळांत 'इंडियन नॅशनल काँग्रेस'चे गोंय, दमण आनी दीव अॅड हॉक प्रदेश काँग्रेस कमिटीचे ते खजीनदार आशिल्ले.

भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन तांचो भोवमान केलो. 18 जून 1983 दिसा गोंय, दमण आनी दीव सरकारान तांचो भोवमान केलो.

पणजी हांगा जाल्ल्या इंडियन नॅशनल काँग्रेसच्या शताब्दी सुवाळ्यांतूय तांचो भोवमान जालो.

डॉ. सखाराम गुडे ट्रस्टाचो (शिरोडें-गोंय) गोमंतक भूशण हो मानाचो पुरस्कार तांकां फावो जालो.

◆◆◆

# 6. डॉ. तेलू द मास्कारेन्हस



**डॉ.** तेलू द मास्कारेन्हस हांचो जल्म 23 मार्च 1899 दिसा माजोड्डें, गोंय हांगा जालो. तांचे बापूय जे. आमारालो द मास्कारेन्हस, हेवूय गोंयचो सुटके झुजारी. डॉ. तेलून पुर्तुगेज कायद्याची पदवी घेतिल्ली. पुर्तुगालांत कोयम्बा हांगा शिकता आसतनाच तांणी इंडिया नोवा (India Nova) हें नेमाळें सुरू केल्लें. उपरांत तांणी गोविंद पुंडलीक हेगडे देसाय हांच्या 'ओ भारत' (O Bharat) ह्या दिसाळ्यांत डॅथ ऑफ द आयडल्स (Death of the idols) ह्या नांवान साबार राजकी लेख बरयल्ले.

गोविंद पुंडलीक हेगडे देसाय हांणी डॉ. तेलू द मास्कारेन्हस हांचे लेख उजवाडाक हाडले. हाका लागून मास्कारेन्हस हांचेर पुर्तुगालांत आनी हेगडे देसाय हांचेर गोंयांत केसी चल्ल्यो. पूण दोगूय निर्दोश थारले. मास्कारेन्हस पुर्तुगालाक सरकारी अधिकारी म्हूण काम करताले.

ऑगस्ट 1948 त ते रजा घेवन गोंयांत आयिल्ले. पूण तांच्या राष्ट्रीयवादी विचारांक लागून पुलीस तांचेर पाळत दवरून आशिल्ले. उपरांत डिसेंबर म्हयन्यांत तो मुंबय गेलो. थंयच्यान तो नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचो वांगडी जालो.

1948-49 मेरेन गोंय नॅशनल काँग्रेस हे संघटनेचे सचीव म्हूण

आनी उपरांत कांळ काळ खजिनदार म्हूण तांणी वावर केल्लो. हांगा तांणी साबार राष्ट्रीयवादी पत्रकां उजवाडावन तीं गोंयभर आनी हेर राष्ट्रांनीय वांटलीं. 25 एप्रील 1949 हे दिसा तांणी पुर्तुगालचे पंतप्रधान दोतोर सालाझार हांकां तांच्या वसाहतीच्या धोरणाचेर टिका करपी उक्तें पत्र बरयल्लें.

उपरांत तांणी आपलें तन–मन गोंयचे सुटके चळवळीक ओंपलें. पुर्तुगेज राजवटी आड प्रचार करप, लोकांक राष्ट्रवादी साहित्य वांटप असलीं कामां ते करताले. ते खातीर पुर्तुगेज सरकारान तांकां परत लिसबनांत (पुर्तुगाल) कामार रुजू जावपाचो आदेश दिलो. पूण तांणी तो आदेश न्हयकारलो आनी हाका लागून ताका कामा वयल्यान काडून उडयलो.

1956-58 ह्या काळांत तांची दिल्ली आकाशवाणीचेर कोंकणी आनी पुर्तुगेज घटकांचो मुखेल अधिकारी म्हूण नेमणूक जाली. निजाचो सुटके झुजारी जाल्ल्यान ते प्रत्येक संदीचो फायदो घेवन पुर्तुगेज सरकाराक कसो सतावप हें चिंतताले. जेन्ना ते दिल्ली आकाशवाणीचेर पावले तेन्ना हे संदीचो तांणी भरपूर फायदो घेतलो आनी तांणी पुर्तुगेज सरकारा आड नेटान प्रचार करपाक सुरवात केली.

चळवळी मनीस एका जाग्यार चड काळ तिगना. तेच तरेन दिल्ली आकाशवाणीचेर आसतना सतत दोन वर्सां तांणी पुर्तुगेजांक भरपूर सतायलें आनी उपरांत डिसेंबर 1958 त तांणी ह्या पदाचो राजिनामो दिलो आनी ते गोंयांत परतले.

ते गोंयांत परतल्यात हाची सुलूस पुर्तुगेज पुलिसांक लागली आनी तांणी रोखडोच तांकां धरून पुर्तुगालाक व्हेलो. उपरांत 1962 त प्रादेशीक लश्करी न्यायालयांत तांकां चोवीस वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. पूण 29 मे 1970 ह्या दिसा तांची बंदखणींतल्यान सुटका जावन ते भारतांत परत आयले.

मास्कारेन्हस एक भोवगुणी कवी आनी लेखक आशिल्ले. तांणी पुर्तुगेज आनी इंग्लीश भाशेंतल्यान खूब कविता आनी लेख बरयल्यात.

गोंयची स्वतंत्रताय ही एकमेव इत्सा आनी कळकळ आसली. ते खातीर ते कश्टले, झिजले, तना-मनान गोंयची सेवा करचे पसत वावुरले.

पुर्तुगालच्यान गोंयां आयल्या उपरांत एका समाजसेवका भशेन ते समाजसेवा करपाकय वावुरले. गोंय मुक्ती पसत केल्ल्या खर यत्नां खातीर तांणी खूब यातना भोगल्यो. अखेरेक गोंय मुक्त जालें आनी सगळ्या गोंयकारांनी मेकळो स्वास घेतलो.

भारत सरकारान ताम्रपट आनी पद्मश्री पुरस्कार दिवन तांचो भोवमान केलो. ता. 20 ऑक्टोबर 1979 दिसा ते संवसाराक अंतरले.

◆◆◆

# 7. लक्ष्मीकांत प्रभू भेंब्रे



खंयचेय परिस्थितींत तत्वनिश्ठेकडेन तडजोड करपाची तयारी दवरप ना आनी हो गूण सदांच आचरणांत हाडपी, विलक्षण अभ्यासू, गोंय स्वातंत्र्य लढ्यांतले एक तेजस्वी स्वातंत्र्य सैनीक म्हणल्यार लक्ष्मीकांत प्रभू भेंब्रे.

थांबनासतना इतिहासाचेर वरांचीं वरां उलोवपी. शेकडे, तारखो तोंडपाठ. इतिहास संशोधकावरीं विलक्षण अशी स्मरण शक्त. अशा ह्या व्हड स्वातंत्र्य सैनिकाचो जल्म 2 ऑगस्ट 1906 दिसा रिवण गांवांत जालो.

त्या काळार घरांत मास्तर दवरून गांवांतल्या भुरग्यांक शिक्षण दिवचें पडटालें. कुसमणा पुर्तुगेज दुसरी यत्ता पास करतकच तांकां लिसेवाचें शिकप करचे पासत मडगांवां रावचें पडलें.

लिसेवाचें शिकप घेतना तांच्या स्वाभिमानाक वेर वचपी एक घडणूक घडली. आयज जंय मडगांवचें गार्डन आसा त्या गार्डनाच्या बांकार एक दीस धाकटुलो लक्ष्मीकांत वारें खावपाक बशिल्लो. इतल्यान थंय दोन इंडो-पुर्तुगेज (गोवन पुर्तुगेज) मिसतीस भुरगे आयले आनी ताका धुकलून, ‘ए कोंकण्या, एक शेंड्या,’ म्हूण चाळोवंक लागले. ते दोगूय घटमूट आशिल्ल्यान लक्ष्मीकांत कांय करूंक शकलो ना. पूण हे परदेशी आमचेंच

खावन आमचेरच जुलूम अत्याचार करतात अशे तरेची मन दुखोवपी भावना सासणाची तांच्या मनांत निर्माण जाली.

पुर्तुगेज लिसेवाच्यो तांणी सात परिक्षा दिल्यो. दोन वर्सां तांणी युनियन हायस्कूल मडगांव आनी अठरा वर्सां पोप्युलर हायस्कूल, मडगांव हांगा शिक्षकाचें काम केलें. तांकां इंग्लिश, फ्रेंच, पुर्तुगेज, लॅटिन, ग्रीक, जर्मनी ह्यो परकी भासा तशेंच मराठी, संस्कृत, हिंदी, गुजराती, बंगाली भासो अवगत आशिल्ल्यो. शिक्षकी पेशा चालू आसतनाच तांणी वकिली परिक्षा दिवन वकिलीची पदवी मेळयली. जिद्दीन काम करप हो तांचो गूण आसलो.

18 जून 1946 दिसा लोहियांच्या सत्याग्रहांत ते वांटेकार जाले. तांकां बंदखणीची ख्यास्त मेळ्ळी. तांकां बद्द लिस्बनाक व्हरून थंयच्या पॅनीशच्या किल्ल्यांतले बंदखणींत दवरले. थंय आसतना सातोसकारांनी सुरू केल्ल्या 'दूध-सागर' पाक्षिकांतल्यान ते 'लिस्बन वृत्त' नांवाचें सदर बरोवन गोंयकारांमदीं पुर्तुगेजांचे आड लढपाक, क्रांतीची फाटभूंय तयार करताले.

दादरा नगर हवेली सालाझारशायेंतल्यान मेकळी जाल्ली. आनी 1958 उपरांत राजबंद्यांक मेकळे करपाचें धोरण सालाझारान आपणायले. मेकळे केले नंतर भोंवत भोंवत तांणी भारतांत वचप अशें तांणी राजबंद्या कडल्यान तशें बरोवन घेतलें. अशे तरेन खूबशे राजबंदी मायदेशांत परतले.

लक्ष्मीकांत भेंब्रे गांधीवादी, सत्यवादी, तत्वनिश्ठ. जशे पुर्तुगेजांनी बंदी करून व्हेल्ल्ले तशेच तांकां मेकळे करून मायदेशाक पावोवप ही पुर्तुगेजांची लागणूक आसूंक जाय हाचेर ठाम राविल्ल्यान ते आनीक चार वर्सां लिस्बनांत उरले आनी गोंय मुक्ती उपरांत 1962 वर्सा गोंयांत परतले.

तत्वनिश्ठ जिविताचो आदर्श बाळगुपी कठीण आनी दुर्मीळ असो हो गूण. तांच्या जिविताचें मोटेंपण ह्याच गुणांत आसपावलां. आयज ते आमचे मदीं नात. पूण ध्येयनिश्ठ आनी तत्वनिश्ठ म्हूण ते जिवीत जगले. 1 सप्टेंबर 1985 ह्या दिसा ते संवसाराक अंतरले.

◆◆◆

# 8. निळकंठ (निकूबाब) कारापूरकार



निळकंठ (निकूबाब) कारापूरकार हांचो जल्म 24 मार्च 1905 दिसा जालो. ते व्हड गांधीवादी, त्यागी आनी उच्च विचारसरणी आशिल्ले एक गोंयचे सुटके झुजारी. बापूय मुंबय न्यायालयांत काम करतालो. तांणी मुळावें शिक्षण मराठी, पुर्तुगेज आनी इंग्लिशींतल्यान घेतलें. तांकां हिन्दी, गुजराती आनी संस्कृत भाशेचें गिन्यान आशिल्लें.

1920 वर्सा सावन तांचेर गांधींचे चळवळीचो, खास करून अहिंसावादाचो खोल परिणाम जाल्लो. ताका लागून तांणी आपलें आवडीचें नुस्तें खावपाचें सोडलें. खादीचे कपडे वापरूंक लागले. वसाहतवादा आड झुजपाची तांची खर इत्सा आसली. 1940 वर्साचे सुरवेक ते दिवचल वाठारांतल्या वाचनालयांत वावर करताले.

तेन्ना तांणी दिवचलच्या कांय तरणाट्यांच्या पालवान हातान बरयिल्ल्या पत्रकांच्यो प्रती, डॉ. टी. बी. कुन्हा हांची पुस्तिका आनी मुंबय सावन उजवाडाक येवपी 'अँग्लो लुझितानु' हें नेमाळें वांटलें. अशे तरेन तांणी तरणाट्यांमदीं जागृताय करपाचें काम सुरू केलें. पूण कित्याक खबर ना मागीर तांणी सुटके झुजाचो वावर आपणें एकल्यानच करपाचो थारायलो.

1943 वर्सा तांणी आनी पुरूषोत्तम काकोडकार हांणी मेळून मडगांव शारांत गोंयचे राजकी जागृताये खातीर 'गोवा सेवा संघ' नांवाची संघटना स्थापली. हे संघटनेक लागून डॉ. लोहियान 18 जून 1946 दिसा पुर्तुगेजां आड नागरी हक्का खातीर सत्याग्रह केल्लो. ह्या सत्याग्रहांत तांणी वांटो घेतिल्लो म्हूण पुलिसांनी तांकां धरले आनी कांय तेप बंदखणींत दवरलो.

फुडें ते मडगांव शारांत प्रभात फेरी काडप, प्रार्थना आयोजीत करप असलीं लोक जागृतायेचीं कामां करताले. 28 सप्टेंबर 1946 दिसा जॉर्ज व्हाज आनी फाकू पोकळे हांचे वांगडा ते सांखळी वाठारांतल्या बाजारांत सत्याग्रहांत वांटो घेवंक गेल्ले. तेन्ना पुलिसांनी तांकां धरले. उपरांत दिवचलच्या न्यायालयांत ताची चवकशी जाली पूण त्या वेळार तांची रोखडीच सुटका जाली.

पुर्तुगेजांचें अन्यायसत्र हिसपा भायर चलिल्ल्यान तांकां ते सहन जायनासलें. ते पासत राष्ट्रीय काँग्रेस गोंय संघटने खातीर ते तळमळीन वावर करताले. हे संघटनेची करमळी वाठारांत परिशद भरिल्ली, तातूंत तांणी मानादीक सोयरो म्हूण वांटो घेतिल्लो. 15 डिसेंबर 1947 दिसा पांडुरंग शिरोडकार डॉ. विनायक मयेंकार आनी गिल्येर्म दे सौझा ह्या सुटके झुजाऱ्यां वांगडा तांकां अटक जाली आनी आग्वाद बंदखणींत दवरले. गोंयच्या प्रादेशीक लश्करी न्यायालयांत चवकशे उपरांत 20 ऑक्टोबर 1946 दिसा तांकां पंदरा वर्सां काळ्या पाण्याची ख्यास्त फर्मायली.

आग्वाद बंदखणींत साडेपांच वर्सां ख्यास्त भोगतकच तांकां 1 जून 1955 दिसा नारायण नायक, मुकूंद कामत धाकणकार, जयवंत कुंदे आनी हेर सुटके झुजाऱ्या वांगडा आंगोलाक फार्त रोझादश बंदखणींत धाडले. 12 मे 1956 ह्या दिसा थंय सावन तांची सुटका जाली, पूण तांकां भारतांत धाडिनासतना आंगोलांतल्या लुबांगो हांगाचे 'से द बांदेरा' हे सुवातेर रवानगी केली.

तांणी आंगोलांतय सुटके चळवळींत वांटो घेतला, ह्या दुबावान 'से द बांदेरा' हांगा तांकां परती अटक केली. उपरांत 1961 मेरेन तांकां बंदखणींत दवरले. जुलय 1961 त तांकां आनी पांडुरंग शिरोडकार हांकां आंगोला सावन 'व्हेरा क्रूज' बोटीन लिश्बोअ शारांत व्हेले. 1961 त 'व्हेरा क्रूज' बोट लिश्बोअ शारांत पावतकच थंय तांकां मेकळे सोडले. पूण थंय णव म्हयने ते नदर कैदेंत आशिल्ले. गोंय सुटके उपरांत तांकां हेर तीग जाणां वांगडा कराचींत धाडले आनी थंयसावन 8 मे 1962 दिसा ते गोंयांत पावले.

सुटके चळवळीच्या काळांत सामाजीक उदरगती खातीर आनी खादीचो प्रसार करपा खातीर ते वावुरताले. 1946 वर्सा सावन हरिजनाक आदार दिवचे पासत आनी गरीब विद्यार्थ्यांक शिक्षण मेळचें म्हूण दिवचल वाठारांत ते 'सर्वोदय आश्रम' चलयताले. दिवचल वाठारांत तांणी कोंकणी केंद्राची थापणूक केली. ते गांधीवादी आशिल्ल्यान तांणी जल्मभर गांधीजीचीं तत्वां पाळ्ळीं. कोंकणी भाशेचे उदरगती खातीर तांणी तळमळीन काम केलें.

18 जून 1981 दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजातल्या तांच्या योगदानाखातीर तांचो भोवमान केलो.

◆◆◆

# 9. श्यामराव मडकयकार



**श्या**मराव मडकयकार हे गोंय स्वातंत्र्य संग्रामाचे एक फुडारी. समाजीक कार्यकर्ते, साम्यवादी चळवळीचो भार घेवपी कॉम्रेड श्यामराव नारायण मडकयकार हांचो जल्म 18 ऑगस्ट 1910 दिसा अंत्रुज फोंडे म्हालांतल्या म्हाड्डोळा गांवांत जालो. अत्यंत प्रतिकूल परिस्थितींत तांचें मुळावें शिक्षण म्हाड्डोळा जालें आनी मागीरचें शिक्षण मडगांवांत जालें.

सान पिरायेचेर श्यामरावांक एकेवटेन महात्मा गांधीचें विधायक आनी रचनात्मक कार्याचें तर दुसरे वटेन रशियन समाजवादी शासनाचें जबरदस्त आकर्शण आसलें.

श्यामरावांचें घर म्हणल्यार सक्रिय कार्यकर्त्यांचें म्होंवा मालें कशें आशिल्लें. 1939 ते 1943 ह्या काळांत रामनाथ कडकडे, रघुवीर बोडके, पांडू शेटये, दत्तात्रय व्यंकटेश पै, नारायण पालेकार, राम काकोडकार, वसंत लोटलीकार हांचो तांचे कडेन लागींचो संबंद आशिल्लो. फुडें ते राजकारणां कडेन लागीं आयिल्ल्यान शंकर सरदेसाय, टोनी फेर्नांडीस, शिवाजी देसाय, नारायण देसाय, दो. मार्तिश तेलीश हेवूय तांचे इश्ट जाले.

फाकिवंत क्रांतिकारक मानवेंद्रनाथ रॉय हांच्या विचारांचो आनी कार्याचो प्रभाव तरणाट्या श्यामरावांचेर पडलो आनी तांणी रॉयांचें फुडारपण आपणायलें. ताका लागून लक्ष्मणशास्त्री जोशी, भैयाशास्त्री वाटवे, ह. रा.

महाजनी, आत्माराम पाटील, भाई बक्रे, द्वा. भा. कर्णिक, प्रा. गोवर्धन पारीख, मणिबेन, गो. पां. खरे, बा. र. सुंठणकर अश्या बुदवंतांकडेन संबंद आयलो.

रॉय हांच्या रॅडिकल डेमोक्रेटिक पार्टीचे वांगडी जावन तांणी गोंयांत आपल्या कार्याक सुरवात केली. तरणे पिळगेंतल्या विद्यार्थ्यांक लागीं हाडून जर तांकां स्वातंत्र्याविशीं जाणविकाय दीत तर स्वातंत्र्य लढो फुडें व्हरपाक सोंपें जातलें हे विचारसणेंतल्यान तांणी गोमंतक तरूण संघ हे संस्थेची थापणूक केली.

तरणाट्या मर्दीं उमेद हाडचे पसत तांणी गोमंतक तरूण संस्थेवतीन वाचनालय सुरू केलें. बुदवंत राजकारण्यांची व्याख्यान माला सुरू केली. श्री. पुरूषोत्तम काकोडकार, भारतकार हेगडे देसाय, ॲड. लक्ष्मीकांत भेंब्रे, न. पु. सुकेरकार, बेळगांवचे बा. र. सुंठणकार अश्या देशभक्तांची भाशणां आयोजीत करून जाणीवपुर्वक विद्यार्थ्यां मर्दीं देशप्रेम आनी स्वातंत्र्य संग्रामाची ओड निर्माण केली. उत्तेजन नांवाचें एक हस्तलिखित मासीक सुरू केलें.

संघाचें कार्यक्षेत्र वाडोवन तांणी नावेली आनी वास्कोंत मुळाव्यो शाळा उगडल्यो. हातुंतल्यान तांणी भुरग्यांच्या मनांत देशप्रेम आनी पालकां कडेन लागीं येवन रातचीं वण्टीपत्रकां लावप, प्रचार साहित्य वांटप अशे तरेचें काम सुरू केलें. गोंयच्या क्रिस्तांव समाजांत स्वातंत्र्य चळवळी विशीं जागृताय जावचे पसत 1948 दिसा तरणाट्यांच्या आदारान नावेली क्रिडा क्लबाची थापणूक केली. फुटबॉल, व्हॉलीबॉल, कॅरम खेळा बरोबरच चळवळीविशीं आपलेंपण निर्माण केलें.

संघान पूर्व आनी पश्चिम ह्या विशयाचेर जाहीर व्याख्यान आयोजीत केल्लें. सभेक लागपी सरकाराची पूर्वपरवानगी घेवंक नाशिल्ल्यान पुर्तुगेज सरकारान श्यामरावा विरूध्द केस करून तांकां पांच वर्सांची ख्यास्त फर्मावन तांचे राजकी अधिकार काडून घेतिल्ले. पूण ते निर्शेलेनात. उरफाटें तांणी चड नेट धरलो.

श्यामरावांनी गोंय मुक्ती लढ्यांत भोव मोलाची कामगिरी केल्या.

स्वताचे ताकदीन, निश्ठेन, त्यागान आनी वेळाकाळार खूब हाल अपेश्टा सोंसून तांणी गोंय मुक्ती लढ्यांत भाग घेतला. प्रचार साहित्याचें काम करचे पसत ते रातभर शेटपणाचें काम करताले आनी दिसाचे राजकारणाचें.

गोंयांक मुक्ती मेळ्ळ्या उपरांत तांणी आपलो समाजीक वावर अदीक नेटान केलो. प्रामाणीकपण, देशभक्ती, सत्यवचन, सादें रावप आनी नमळाय हे तांचे खाशेले गूण आसले. भारत देशाचे अर्थमंत्री मोरारजी देसायांनी भारतांत भांगर नियंत्रण कायदो केल्लो. त्या कायद्याच्या आड देशांत आंदोलन उबारून तांणी तो कायदो बेगोबेग रद्द करपाची मागणी करून, खर आंदोलन करून भारत सरकाराक कायदो रद्द करपाक लायिल्लो.

तांच्या अमृत वर्सा निमतान सत्कार समिती वतीन दिल्ली रू. 50 हजारांची थैली तांणी सत्कार समिती कडेन परत करून तिचो उपेग समाजीक कार्या खातीर करचो अशी मागणी केल्ली. तांच्यात प्रभावी नेतृत्वाचे सगळे गूण आसून लेगीत ते एक निश्टावान, तळमळीचे कार्यकर्ते म्हणूनच वावुरले.

केंद्र सरकारान ताम्रपत्र दिवन तांचो भोवमान केला तशेंच गोंय सरकारान 1982 वर्सा तांचो सत्कार घडोवन हाडला.

ताठ मानेन जगपी, कम्युनिस्ट फुडारी, स्वातंत्र्य सैनिक कॉम्रेड श्यामराव मडकयकार 24 डिसेंबर 2011 दिसा, पिरायेच्या 101 वर्सांचेर संवसाराक अंतरले.

◆◆◆

# 10. डॉ. रामकृष्ण हेगडे



भारताचेर ब्रिटिशांनी देडशें वर्सां राज्य केलें आनी गोंयचेर पुर्तुगेजांनी साडेचारशें वर्सां शेक गाजयलो. पुर्तुगेजांचो शेक नानपयत करचे पसत आनी गोंय स्वतंत्र करचे पसत खूब जाण झुजले. तातुंतलेच एक जावन आसात नामनेचे सुटके झुजारी डॉ. रामकृष्ण हेगडे. तांचो जल्म 29 एप्रील 1912 ह्या दिसा मडगांवांत जालो.

भुरगेपणासावन समाजीक, राजकी चळवळींनी सक्रीय वांटो घेवपी रामकृष्णान वैजकी शिक्षण घेतलें. मडगांवांत वैजकी वेवसाय करता आसतनाच कुंकळेची कु. फुलाय गावड देसाय हे चलयेचें अपहरण करून तिका बळयां धर्मांतरीत करपाचें प्रकरण तांच्या कानार पडलें आनी तांणी ताचे आड आवाज काडलो.

पुराय गोंयभर कु. गावड देसाय प्रकरण गाजलें. त्यावेळार ते संघटना समितीचे एक संघटक आशिल्ले. उपरांत ते गोमंतक काँग्रेसचे वांगडी जाले. 19 जून 1946 सावन तांणी सविनय कायदेभंगाचे चळवळींत वांटो घेतलो. 17 आनी 18 ऑगस्ट 1946 त लोंड्या जाल्ल्या अधिवेशनांत ते नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संस्थेचे पयले अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयले.

18 ऑक्टोबर 1946 ह्या दिसा तांणी मडगांव सत्याग्रह केलो. ते खातीर तांकां सरकारा आड लोकांक तिडावन घालता, खुबळायता, परकी सत्तेचो शेवट करपाचो हेत बाळगिता, तशेंच आपले निशाणेचीं पत्रकां वांट्टा म्हूण पुर्तुगेज सरकारान अटक केली आनी आग्वाद बंदखणींत दवरले.

उपरांत 5 डिसेंबराक 1946 ह्या दिसा लश्करी न्यायालयान तांकां आठ वर्सां खातीर हद्दपारीची ख्यास्त फर्मायली, आनी तांकां 14 डिसेंबर 1946 ह्या दिसा लक्ष्मीकांत भेंब्रे, पुरूषोत्तम काकोडकार आनी जुजे इनासियो दी लोयोला वांगडा बार्थोलोमिअु डायस हे बोटीन पुर्तुगालाक धाडले.

5 जानेवारी 1947 ह्या दिसा ते थंय पावले. उपरांत तांकां लिमोयरास, काशिआस तशेंच पेनीचे बंदखणींत दवरलें. 7 डिसेंबर 1950 त तांकां एका करारा वरवीं बंदखणींतल्यान मेकळे केलें. पूण तांकां भारतांत परतुपाक दिलें ना. थंयच तांकां 1951-52 ह्या काळांत आपले नदरेखाला दवरलें.

पुर्तुगालाच्या राबित्यांत तांणी वैजकी प्रचारक म्हूण काम केलें. ते भायर खाजगी शिकवणी दिल्यो. पूण परत तांकां 1955 त पुरूषोत्तम काकोडकारां वांगडा अटक करून दोन म्हयने बंदखणींत घाल्ले. 'पुलिसिय इन्तेर्नाल पर देफेझ दु. इश्ताद' च्या कार्यालयाक दिसपट्टे अहवाल तांणी दिले असो तांचेर आरोप दवरपांत आयलो.

इतले मजगतीं इंग्लंडाक वचपाचो तांकां पासपोर्ट मेळ्ळो. आनी आपली पुर्तुगेज घरकान्न मारिया आमेलिया आनी पुरूषोत्तम काकोडकारा वांगडा ते इंग्लंडांत गेले. थंयच्यान ते लंडनचे वाटेन 17 मे 1956 ह्या दिसा मुंबय परतले.

मुंबयत तांणी आपलो दवाखानो सुरू केलो आनी परत राजकी चळवळींकय सुरवात केली. नॅशनल कॉंग्रेस गोवा संघटनेच्या दोन गटांचो तांणी एकवट करपाचोय यत्न केलो. 2 ते 4 ऑक्टोबर 1959 त तांणी नॅशनल कॉंग्रेस गोवाच्या प्रतिनिधींची गोंय राजकी परिशद घडोवन हाडली.

1961 त ते नॅशनल काँग्रेस गोवाचे उपाध्यक्ष आसले. गोंय मुक्त जाल्या उपरांत रोखडीच तांची नेमणूक नॅशनल काँग्रेस गोवाचे अस्थायी समितीचेर जाली. ही समिती गोंयचे प्रस्न आनी आडखळींचो अभ्यास करपा खातीर नेमिल्ली. उपरांत ते इंडियन नॅशनल काँग्रेसीचे क्रियाशील फुडारी जाले. 1977 ते पुर्तुगालाक भारतीय नागरीक म्हणून रावपाक गेले.

◆◆◆

# 11. प्रमिलाताई कांत जांबावलीकार



प्रमिलाताई कांत जांबावलीकार हांचो जल्म काणकोण तालुक्यांतल्या पैंगीण गांवांत 1912 वर्सा जालो. लग्ना पयलीं तांचें शिक्षण चवथी मेरेन आसलें. पूण लग्ना उपरांत तांणी पुण्याच्या कर्वे विद्यापिठांतल्यान एस.एस.सी. मेरेनचें शिकप घेतलें.

गोंयांत हिंसक दहशतवाद आपणावन काम करपी जसो पंगड आसलो तसोच महात्मा गांधीजींच्या अहिंसात्मक मार्गान वचपी सत्याग्रहींचोय एक गट आसलो. ह्या अहिंसक मार्गान वचप्यांमदी एक आसले श्री. पुरूषोत्तम काकोडकार.

स्वातंत्र्याची चळवळ निर्माण करचे पसत 'गोवा सेवा संघ' हे संस्थेची थापणूक जाल्ली. त्या संस्थेच्यो प्रमिलाताई क्रियाशील सभासद आसल्यो. गोंय पुर्तुगेजांच्या बंदपासांतल्यान बेगीनांत बेगीन मेकळें करचे पसत गोंय मुक्ती लढ्याची पुर्वतयारी करप हेंच ही संस्था निर्माण करपाचें मुखेल कारण आसलें.

पुर्तुगेजांच्या शेकाखालचो काळ म्हणल्यार भिरांतेन दीस काडपाचो. बायलांचें जिवीत तर चार वण्टी भितर बंदिस्त. चार चवगांत मिसळप साप उणें. अश्या ह्या काळांत प्रमिलाताईन जें काम केलां ताका तोड ना.

तांणी मडगांव शारांत आपल्या कामाक सुरवात केल्ली. बायलां-चलयांक एकठांय करून तांणी पेटी-चरखो हाडून सूत विणपाचे वर्ग सुरू केल्ले. सूत विणले उबरांत महात्मा गांधीजींच्या आश्रमांतली प्रार्थना म्हणटालीं. समाजीक, राजकी प्रस्नांचेर चर्चा जाताली. अश्या ह्या कार्यावळींतल्यान कळत-नकळत लोकांच्या मनांत आत्मविश्वास वाडीक लागतालो आनी स्वातंत्र्याविशीं जागृताय करपाच्या मुळाव्या कामाक गती येताली.

प्रमिलाताईन आपलीं भुरगीं व्हड जातकच गोंय मुक्ती संग्रामांतल्या सुटके झुजांत वांटो घेवपाक सुरवात केल्ली. तांच्या घरांत कार्यकर्त्यांच्यो बसका जाताल्यो. नाथ पै, बाळा काकोडकार, वसंत मळये आदी भुमिगतांचें थाणें म्हणचे यांचें घर. तशेंच कार्यकर्त्यांच्या नांवाच्यो यादी, लिपचोरयां पत्रकां, बॉम्ब तयार करपाक लागपी सामान तांच्याच घरांत सांठोवन दवरताले.

डॉ. राम मनोहर लोहियांनी गोंयकारांच्या मनांत स्वतंत्रतायेची जी ज्योत पेटयल्ली आनी ज्या असंख्य निसुवार्थी व्यक्तिंनी त्या संग्रामांत वांटो घेतिल्लो तातूंत प्रमिलाताईंचोय व्हड वांटो आसा. तांणी लग्ना उपरांत आनी भुरगीं व्हड जातकच खऱ्या अर्थान समाजकार्याक सुरवात केली. तांणी बायलांनी साक्षर जावंचें, राजकारणांत्त वांटेकार जावन समाजांत जावपी अत्याचारांक आळाबंदा हाडचे पसत वावुरचें म्हुणून काळजांतल्यान यत्न केले.

18 जून 1947 त लोहियांनी सुरू केल्ले चळवळीक एक वर्स पुराय जाल्लें. त्या दिसा सत्याग्रह करून सभाबंदीचें, भाशणबंदीचें आनी कायदो भंगाची तयारी गोंयांत गांवां गांवांनी चलताली. पुर्तुगेज सरकाराक हाचो दुबाव लागलो आनी तांणी धरपकड सुरू केली.

प्रमिलाताईन मडगांव शारांत कायदो मोडून मिरवणुकीचें संचलन केल्ले खातीर सरकारान तांकां अटक केली. शिवाय घराची झडटी घेतली. तेन्ना तांकां बॉम्ब तयार करपाचें सामान तशेंच आक्षेप घेवपा सारक्यो कांय

वस्तू सापडल्यो.

तांकां एक म्हयन्याची शिक्षा जाल्ली. पूण दंड फारीक केल्ल्यान तांची बंदखणींतल्यान आठ दिसां भितर मेकळीक जाली. परत तांच्यो सभा, विणकाम सुरू जाल्लें. जेन्ना तांकां परत धरतले हाची सुलूस लागली, त्या बरोबर 1952 वर्सा त्यो मुंबय गेल्यो.

1961 त गोंय स्वतंत्र जातकच त्यो गोंयांत परतल्यो. कांदोळीच्या प्रोव्हिदोरीच्या महिलाश्रमांत तांणी सुपरिटेंडन्ट म्हणून काम केलें. ओपिनियन पोलाच्या कार्यांत सक्रिय वांटेकार जाल्यो.

आपले तांकी प्रमाण, निसुवार्थीपणान आनी निर्भयतेन, गोंय मुक्ती संग्रामांत वांटेकार जाल्ली प्रमिलाताई 1981 वर्सा संवसाराक अंतरली.

◆◆◆

# 12. पुरूषोत्तम (भाऊ) काकोडकार



गोंयचे सुटके झुजारी आनी एक राजकी फुडारी अशी नामना आशिल्ले पुरूषोत्तम (भाऊ) काकोडकार हांचो जल्म 18 मे 1913 दिसा काकोडें, केपें हांगा जालो. तांच्या बापायचें नांव केशव आनी आवयचें सगुणबाय. गोंयचे सुटके चळवळी आदीं ते महात्मा गांधीच्या सेवाग्राम आश्रमांत आशिल्ले.

मराठी मुळावें शिक्षण घेतले उपरांत पुरूषोत्तम काकोडकार हांणी फोंडेच्या आल्मेदा कॉलेजींतल्यान लिसेंव हो पुर्तुगेज कोर्स पुराय केलो. मागीर बनारसाक वचून थंयच्या क्विन्स कॉलेज, ह्या सरकारी संस्कृत कॉलेजींत संस्कृत भाशेचो अभ्यास करून 'शास्त्री' पदवी मेळयली.

तरणेपणा सावन सुटके चळवळींत वांटो घेतिल्ल्यान तांणी रूढ अर्थान वेवसाय असो केलो ना. सुटके चळवळ आनी भौशीक हिताच्या राजकारणा खातीर ते वावर करूंक लागले. ते राज्य सभेचे नियुक्त वांगडी जाले.

1940-41 ह्या काळांत पुरूषोत्तम काकोडकार हांणी सेवाग्राम (वर्धा) हांगाच्या महात्मा गांधीच्या आश्रमांत सुमार अठरा म्हयने रावन

गांधी तत्वांचो अभ्यास आनी आचरण केलें. 1941-42 ह्या काळांत तांणी महात्मा गांधीन स्थापन केल्ल्या ऑल इंडिया स्पिनर्स असोसिएशन च्या खादी प्रचार चळवळीचो अठरा म्हयने वावर करून खादीचो संदेश गांवांगांवांनी पावयलो. 1942 वर्सा जाल्ल्या भारत छोडो चळवळींत तांणी वांटो घेतिल्ल्यान तांकां अटक जाली.

जेलींतल्यान सुट्टकच गोंयांत येवन तांणी डॉ. विनायक मयेंकार, एव्हाग्रियो जॉर्ज, वसंत कारे, निकुबाब कारापूरकार, प्रमिलाताई जांबावलीकार, मुक्ता कारापूरकार हांच्या आदारान गोवा सेवा संघ ही संघटना स्थापन केली. तेन्नाच सुटके झुजारी राममनोहर लोहिया गोंयांत आयले आनी तांणी 18 जून 1946 दिसा गोंयांत सुटके खातीर आंदोलन सुरू केलें. हातूंत लोहियांक अटक जातकच तांणी चळवळीक फुडारपण दिवन हेर सांगात्या वांगडा चळवळ मुखार व्हेली.

9 ऑगस्ट 1946 दिसा पुर्तुगेज सरकारान तांकां अटक करून णव वर्सांची हद्दपार आनी बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. पुर्तुगालांतल्या पेशीन किल्ल्यांत बंदखणीची आनी लिस्बनांत नजरकैदेची सुमार 10 वर्सां ख्यास्त भोगले उपरांत तशेंच हद्दपारीची ख्यास्त भोगतकच ते 1956 वर्सा भारतांत आयले आनी तांणी परत लोकांक संघटीत केले. ताका लागून तांकां 45 दिसांची परत बंदखण जाली.

बंदखणींतल्यान सुटका जातकच गोंयचे सुटके खातीर तांणी आनी ताच्या सांगात्यांनी वेगळे मार्ग आपणायलो. जवाहरलाल नेहरूच्या पालवान तांणी पुर्तुगेज गोव्हेर्नादोरा कडेन गोंयकारांक लोकशाय हक्क मेळचे म्हूण उलोवणी सुरू केली. तशेंच सालाझार सरकारा कडेन उलोवणी करूंक ते पुर्तुगालाक गेले. 1961 वर्सा तांकां चार म्हयने परत बंदखीणीची ख्यास्त भोगची पडली.

गोंय मुक्ती उपरांत गोंयच्या पयल्या नायब राज्यपालांचे सल्लागार समितीचे ते वांगडी आशिल्ले. तांणी गोंय, दमण आनी दीव प्रदेश कॉंग्रेस अस्थायी समितीचे निमंत्रक म्हूण वावर केलो. गोंय दमण आनी दीव प्रदेश

काँग्रेसीचे ते पयले अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयले.

ओपिनियन पोला वेळार तांणी गोंय खंयच्याच राज्यांत विलीन जावचें न्हय तशेंच गोंय भारताचो वेगळो राजकी घटक म्हूण उरचो हे खातीर प्रदेश काँग्रेसीचे अध्यक्ष ह्या नात्यान तांणी वावर केलो. 1971 वर्साच्या भौशीक वेंचणुकांनी उत्तर गोंय मतदारसंघांतल्यान ते लोकसभेचेर वेंचून आयले.

ते ऑल इंडिया फ्रिडम फायटर्स ऑर्गनायझेशन हे संस्थेचे सचीव आशिल्ले. तशेंच गोवा फ्रिडम फायटर्स असोसिएशन हे संस्थेचे ते अध्यक्ष आशिल्ले. 1988 वर्सा जाल्ल्या युनो आमसभा अधिवेशनांतल्या भारतीय शिश्टमंडळाचे ते एक वांगडी आशिल्ले. 1985 त ते राज्यसभेचे नियुक्त वांगडी जाले.

गोवा कोंकणी अकादेमीचे ते पयले अध्यक्ष. कोंकणीक कोंकणी साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळोवन दिवपा खातीर तांणी मोलादीक वावर केला. वेगवेगळ्या नेमाळ्यांनी लेख आनी निबंद बरोवन तांणी वैचारीक लिखाण केलें.

कोंकणी वांगडाच तांकां इंग्लिश, पुर्तुगेज, संस्कृत, मराठी आनी हिंदी ह्यो भाशा ज्ञात आशिल्ल्यो.

तांणी भारतांतल्या पुराय राज्यांची भोवंडी केल्या. तशेंच जर्मनी, इंग्लंड, फ्रान्स, इटली, स्पेन, थायलंड, अमेरिका, ऑस्ट्रेलिया, नेपाळ ह्या देशांचीय भोंवडी केल्या. गोंय मुक्ती उपरांत तांणी भारताचो संसद वांगडी ह्या नात्यान पुर्तुगालाक भेट दिल्या.

अश्या ह्या म्हान सुटके झुजाऱ्याक 2 मे 1998 दिसा देवाचो आपोवणो आयलो.

◆◆◆

# 13. डॉ. विनायक नारायण मयेंकार



**डॉ.** विनायक मयेंकारांचो जल्म 8 जून 1913 दिसा फोंडें- गोंय हांगा जालो. तांणी वैजकी पदवी घेतिल्ली आनी तोच वेवसाय आपणायल्लो. ल्हानपणांतल्यान ते राष्ट्रवादाचें बाळकोडू पियेवन वाडिल्ले. तांचे व्हडले भाव 'आना' (स. विठ्ठल मयेंकार) हांचे कडल्यान तांकां राष्ट्रवादाची आनी समाजसेवेची दिक्षा मेळिल्ली. आनाचो राबितो मुंबय आशिल्ल्यान तांचो राष्ट्रीय चळवळी कडेन लागशिल्लो संबंद आशिल्लो.

गोंयांत आयिल्ल्या वेळार आना मुंबयत चलपी स्वतंत्रताये चळवळी विशीं डॉ. मयेंकारांक सांगताले आनी ताचो खोल परिणाम डॉ. मयेकारांचेर जातालो. आनाच्यो राजकारणांतल्यो गजाली तांकां स्फुर्त दिताल्यो. टिळक, गांधी, नेहरूच्या म्हान व्यक्तिमत्वांच्या गजालींचो तांचेर परिणाम जावन तांचो राष्ट्रवाद वाढीक लागलो. तेच बरोबर घरांत आशिल्लीं व्हड मनशांचीं चरित्रां आनी ग्रंथांचें वाचप जाल्ल्यान तांच्या राष्ट्रप्रेमाक तर्कनिश्ठ विचारसरणीची बसका लाबली.

डॉ. मयेंकारांच्या घरांतल्या जाण्ट्या मनशांचो दृश्टिकोण राष्ट्रवादाक पूरक नाशिल्लो. तांच्या बापायचे पिरायेच्या सुशिक्षीत लोकां कडल्यान लेगीत तांच्या राष्ट्रवादाचे भुमिकेक खर विरोध जरी आसलो तरी खादी

वापरपी आना तांचे आदर्श जावन आसले. तांणीच डॉ. मयेंकारांक लाठी कशी चलोवची हाचें शिक्षण दिल्लें.

गोंयचो स्वतंत्रतायेचो लढो, हें भारतीय स्वातंत्र्य समर यज्ञांतलें तेजस्वी आनी निमणें पर्व आसलें. ह्या यज्ञांत असंख्य गोंयकारांनी आपलीं उमेदीचीं वर्सां वेंचली, हालअपेश्टा भोगल्यो आनी कितलेश्याच जाणांनी आपल्या जिवाची आहुती दिल्या. तांचीच स्फूर्त घेवन डॉ. मयेंकारांनी गोंयचे सुटके झुजांत वांटो घेतलो.

डॉ. मयेंकार बऱ्यांतले बरे व्यंगचित्रकार आशिल्ले. फ्री प्रॅस जर्नल (मुंबय) पत्रिकेंतल्यान तांणी गोंयच्या सुटके झुजाच्या कांय खिणांचीं व्यंगचित्रां उजवाडाक हाडिल्लीं. 1945 त पुरूषोत्तम काकोडकार हांकां 'गोवा सेवा संघ' हाची थापणूक करपाक पालव दिलो. तशेंच त्या संघांतल्या लोकांक शिक्षण दिवपाची जापसालदारकी तांणीच घेतिल्ली.

18 जून 1946 ह्या दिसा मडगांवां डॉ. लोहिया हांणी घडोवन हाडिल्ल्या सत्याग्रहांत तांणी वांटो घेतिल्लो. नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचे ते एक संस्थापक वांगडी आसले. 18 ऑक्टोबर 1946 दिसा, दिवचल हांगा तांणी नॅशनल काँग्रेस चे वतीन सत्याग्रह घडोवन हाडिल्लो. ह्या वेळार पुलिसांनी तांकां धरून 45 दीस बंदखणींत दवरलो. तशेंच दिसाक दोन रूपया दंड भरूंक लायलो.

सुटका जाले उपरांत डॉ. लोहिया हांणी जानेवारी 1947 त खानापूर हांगा घडोवन हाडिल्ल्या सत्याग्रही शिबिराचे ते मुखेल वावुरपी आशिल्ले. 15 मे 1947 दिसा जाल्ले सभेंत नॅशनल काँग्रेस गोंयचे खजीनदार म्हूण तांकां वेंचून काडले.

गोंयच्या राष्ट्रवादी लोकांक एकठांय हाडपी संघटनेचे नवे कार्यकारी समितीचे ते वांगडी आसले. पक्षां भितरले भेद पयस करपा खातीर तांणी नॅशनल काँग्रेस गोंय चे वतीन ज्ञान प्रकाश ह्या दिसाळ्यांतल्यान लेख बरयल्लो. हो लेख पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांच्या हाताक लागलो. 'विनायक पुर्तुगेजां आड प्रचार करता' असो फटिचो आळ तांचेर घालून तांकां आनी

तांच्या वांगड्यांक धरून आग्वाद बंदखणींत दवरले.

धा म्हयन्यां उपरांत प्रादेशीक लश्करी न्यायालयांत तांची चवकशी जावन तांकां 15 वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. सुरवेचीं पांच वर्सां तांकां आग्वाद बंदखणींत दवरिल्ले. उपरांत 1 जून 1952 दिसा, पांडुरंग शिरोडकार, गिल यार्म डिसौझा, निळकंठ कारापुरकार, नारायण नायक, मुकूंद कामत आनी जयवंत कुंदे हांचे वांगडा तांकां आंगोला हांगा बंदखणींत दवरले.

जुलय 1960 त ते आंगोला हांगाच्यान लिस्बन हांगा आयले. उपरांत 6 मार्च 1961 दिसा ते मुंबय परत आयले. इतले मजगतीं गोंय पुर्तुगेजांच्या बंदपासांतल्यान मुक्त जाल्लें. गोंय पुर्तुगेज राजवटींतल्यान मुक्त जाले उपरांत इंडियन नॅशनल काँग्रेसीचे हिता खातीर ते खूब वावुरले. ‘माझा विजनवास’ हें आत्मचरित्रात्मक मराठी पुस्तक तांणी बरयलां. भारत सरकार तशेंच गोंय सरकारान गोंय मुक्तताये खातीर तांणी केल्ल्या वावराचो भोवमान केला.

गोंय पुर्तुगेजांच्या गुलामगिरींतल्यान मेकळें जावचें म्हूण देशभक्तीचें व्रत बाळगिल्ले हे सुटके झुजारी 2005 वर्सा ह्या संवसाराक अंतरले.

◆◆◆

# 14. डॉ. पुंडलीक गायतोंडे



**डॉ.** पुंडलीक गायतोंडे हांचो जल्म 3 जुलय 1913 दिसा पाळोळें, काणकोण गांवांत जालो. तांणी पणजी शारांतल्या मेडिकल कॉलेजींत सुरवेचें वैजकी शिक्षण घेतलें. उपरांत फुडलें शिक्षण घेवपाक पुर्तुगालाक गेले. थंयच्या विद्यापीठाची पदवी घेवन तांणी एक नामनेचो सर्जन म्हूण नांव मेळयलें.

गोंयांत येतकच तांणी म्हापशें शारांत वैजकीचो वेवसाय सुरू केलो. राष्ट्र कार्यांत तशेंच सामाजीक वावरांत वांटो घेवपाची प्रेरणां तांकां घरचे परंपरेंतल्यानूच मेळ्ळी. रोखडेच ते गोंयचे सुटके खातीर वावुरतल्या नॅशनल काँग्रेस गोंय हे संघटनेचे वावुरपी जाले. पुर्तुगाल सारक्या भायल्या राष्ट्रांत शिक्षण घेवन आयिल्ल्यान तांचे पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांकडेन बरे संबंद आशिल्ले.

14 फेब्रुवारी 1954 दिसा पुर्तुगेज न्यायाधीश हांकां निरोप दिवपाची एक कार्यावळ पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांनी पणजेच्या एका सभाघरांत आंखिल्ली. थंय भाशण करतना डॉ. कुलासो हांणी गोंय हो पुर्तुगालाचो भाग, इतलेंच न्हय तर तें पुर्तुगालूच अशा अर्थाचें एक वाक्य उच्चारलें. तेन्ना डॉ. गायतोंडे हांणी 'Ew Protes To' (म्हजो विरोध आसा) ह्या उतरांनी आपलो निशेध परगटायलो. तांच्या ह्या विरोधाक लागून 17 फेब्रुवारी 1954 दिसा तांकां अटक जाली आनी पुर्तुगालाक धाडलो.

अटक जावचे पयलीं सावन पुंडलीक गायतोंडे हांणी स्वतंत्रतायेचो आनी लोकशायेचो पुरस्कार केलो. सुटके झुजारी पीटर अल्वारीस हांच्या फुडारपणाखाला ॲड. गोपाळ आपा कामत, ॲड. पांडुरंग मुळगांवकार, शंकर सरदेसाय हांचे वांगडा ते वावर करताले. सावंतवाडी जाल्ले नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचे बसकेंत 18 जून दिसा डॉ. गायतोंडे हांच्या फुडारपणाखाला अहिंसक रितीन सत्याग्रह करपाचें थारायलें. पूण ताचे पयलींच तांकां अटक जाली.

पुर्तुगेज सरकाराच्या लिस्बन न्यायालयान 8 जुलय 1954 दिसा तांकां बंदखणींत घालून तीन म्हयने बंदखण वा उरिल्ल्या दिसांचो दर दिसाक 40 इस्कूदां प्रमाण दंड. 12 वर्सां मेरेन नागरीक हक्कबंदी. पांच वर्सां पॅरोल आनी ह्या काळांत पुर्तुगेज देशा भायर न वचपाची अट. खंयच्याय संस्थांनी वांटेकार न जावप आनी ते भायर एक हजार इस्कूद दंड अशी ख्यास्त फर्मायली. हाचो परिणाम म्हूण नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेन पुर्तुगेज सरकाराचो निशेध केलो आनी 17 फेब्रुवारी 1955 हो दीस डॉ. गायतोंडे दीस म्हूण पाळ्ळो आनी ते निमतान गोंयभर सत्याग्रह केलो.

एप्रील 1961 वर्सा मोरोक्को देशांतल्या कासाब्लांका शारांत आफ्रिका आनी हिंदुस्थान ह्या देशांतल्या पुर्तुगेज वसाहती खाला स्वातंत्र्यवादी संघटनांच्या फुडाऱ्यांची तीन दिसांची एक परिशद भरिल्ली. तातूंत आंगोला, गोंय, मोसांइबका, सांतोमेंप्रिंसिपी, गीने, काबुव्हेदी वसाहतींतले प्रतिनिधी हायीर आशिल्ले. तातूंत नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचे अध्यक्ष ह्या नात्यान डॉ. गायतोंडे हांणी वांटो घेतलो.

उपरांत डॉ. गायतोंडे अमेरिकेक गेले. थंय तांणी न्यूयॉर्क टायम्स आनी हेर नेमाळ्या वरवीं तशेंच आकाशवाणी वेल्यान गोंयचे प्रस्न लोकां मुखार मांडले. ते भायर फुडारी नॉर्मन थॉमस हांकां ते मेळ्ळे आनी तांचे मुखार तांणी गोंयच्या प्रस्नाची गंभीरताय उक्तायली. इंडियन कावन्सील फॉर आफ्रिका हे संस्थेन 21 ऑक्टोबर 1961 दिसा दिल्लीक विज्ञान भवनांत गीने, टांझानिया, मोरोक्को, झांबिया, केनिया, रोडेसिया आदीं

वसाहतींच्या प्रतिनिधी वांगडा गोंयचो प्रतिनिधी म्हूण डॉ. गायतोंडे हांणी वांटो घेतिल्लो.

अहिंसक पध्दतीन वा संयुक्त राष्ट्र संघा वरवीं वसाहतीचे प्रस्न सोडोवचे ह्या विचार प्रवाहांक खर विरोध करून तांणी शस्त्रांक शस्त्रान जाप दिवची पडटली, ह्या विचार प्रवाहाक पुश्टी दिली. डॉ. गायतोंडे हांकां तांच्या सुटके झुजांतल्या वावरा खातीर खूब भोवमान फावो जाल्यात. तेचपरी गोंयचो पयलो खासदार जावपाची संद दिवन भारत सरकारान तांचे सेवेची आनी कर्तुत्वाची दखल घेतली.

तांणी लंडन हांगा रावन कर्करोगाचेर संशोधन केलां. तांणी “Portuguese Pioneers in India : Spotlight on Medicine” हें पुस्तक बरयलां.

तांकां 13 नोव्हेंबर 1992 दिसा देवाचो आपोवणो आयलो.

◆◆◆

# 15. आत्माराम (आपा) नरसिंह करमळकार



आत्माराम (आपा) नरसिंह करमळकार हांचो जल्म 25 जून 1916 वर्सा पणजी हांगा जालो. तांचें शिक्षण लिसेव मेरेन जालां. 1934 वर्सा भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेस हे संघटनेचे ते वांगडी जाले. छोडो भारत चळवळींतल्यान भुंयगत वावुरप्यां कडेन तांणी आडवाटेन संबंद दवरिल्लो. 1945 वर्सा तांणी लिपचोरयां पत्रकां छापून आनी तीं लोकांक वांटून तांचे वरवीं पुर्तुगेज गोव्हेर्नादोर जेराल, जुजे काब्राल हाच्यो गुपीत कारवायो आनी भ्रश्टाचार उक्ताडार हाडपाचो यत्न केलो.

1948 वर्सा मुंबय सावन येता आसतना पुलिसांनी तांकां रातचें कुळें वाठारांत धरले. तांणी तांचे कडेन आशिल्लो दादरा नगर हवेलीचो नकासो जप्त केलो. तेभायर ह्या नकाशाविशीं जायते प्रस्न केले आनी तांणी भारतीय वकिलाती कडेन संबंद दवरचो न्हय असो आदेस दिवन तांकां सोडले.

ते पणजे बँकेंत नोकरी करता आसतना 1950 त पंडित नेहरून दिल्लीच्या लाल किल्ल्या वेल्यान पुर्तुगेज राजवटीआड टिका केल्ली. ताचे आड निशेद करपा खातीर पुर्तुगेज सरकारान एक पत्रक काडिल्लें. ह्या पत्रकाचेर सय करूंक तांणी न्हयकार दिलो. तेखातीर सां तोमे (St. Tome)

वेले बँकेचे शाखेंत तांची बदली केली. सां तोमे हांगा वता आसतना वाटेर मुंबय पावतकच बरो नाशिल्ल्याचें सवंग करून तांणी तिकेट रद्द करूंक लायली आनी उपरांत निशेद परगटावपाक म्हूण बँकेक सोडचीट दिली.

उपरांत ते मुंबय युनायटेड कमर्शियल बँकेंत काम करूंक लागले आनी वांगडाच राष्ट्रवादी वावरांत वांटो घेवंक लागले. महाराष्ट्र सरकार, गोंयांत आशिल्ली भारतांतली वकिलात आनी दिल्ली आशिल्लें विदेशी मंत्रालय हांकां जोडपी म्हत्वाचो दुवो कसो ते वावुरले. नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचे ते वांगडी आसले.

सुटके झुजारी पीटर आल्वारीस हांच्या पालवान ते वावुरप्यांक घातपाती आनी भूंयगत वावर करपाक प्रशिक्षीत करताले. 27 मार्च 1954 दिसा 120 सत्याग्रहींक घेवन गोंयांतली रेल्वे येरादारी बंद करची अशी मागणी करूंक तांणी कॅसलरॉक हांगा मोर्चो व्हेलो. 1954 वर्सा तांणी दादरा नगर हवेलीचे सुटके चळवळी खातीर वावुरपी धाडिल्ले. आझाद गोमंतक दल संघटनेच्या पालवान नगरहवेलीची सुटका करपांत तांचो वांटो आसा. दादरा नगरहवेलीचो प्रशासक म्हूण तांकां एकमतान वेंचून काडले.

फुडें तांणी कश्टकरी आदिवासींक आदार दिवपा खातीर पंचायत राज्य आनी भूंय कायदो काडलो आनी प्रांताच्या प्रशासनांत लोकशाय राज्यपद्दत सहजतायेन हाडपा खातीर मोलादीक वावर केलो. ते गोंयच्या आनी गोंया भायल्या कांय सुटके झुजाऱ्यांक अर्थीक पालव दिताले. गोंय सुटके मेरेन तांणी मुंबय रावन सुटके झुजाचो वावर केलो.

आपा करमळकारान गोंय मुक्तीचो ध्यास घेतिल्लो. तांणी स्वताचें हीत पळयनासतना गोंय मुक्ती चळवळींत भोव मोलाचें काम केलां. तांचे मुखार एकच ध्येय आनी तळमळ आसली. गोंय गुलामगिरींतल्यान मेकळें जावचें. गोंयकारांक मेकळेपणान स्वास घेवंक मेळचो. मुक्तपणान वावरूंक मेळचें. गोंयाक जाय तसो आकार दिवंक मेळचो. साडेचारशें वर्सां गुलामगिरींत घालयल्ल्या गोंयकारांचे बंदपास सुटचे. अंदल्ल्यो स्वासांक, चिड्डले

मनांक मेकळी, भंय विरयत थाकाय मेळची म्हणून वावुरले.

गोंय सुटके उपरांत ते जायतीं वर्सां भारतीय राष्ट्रीय काँग्रेस संघटनेचे पदाधिकारी आनी चिटणीस आशिल्ले. 1972 वर्सा भारत सरकारान तांकां ताम्रपट दिवन, मुंबय प्रदेश काँग्रेस समितीन पदक दिवन आनी दादरा आनी नगर हवेलीच्या प्रशासकान तांकां मानपत्र दिवन तांचो भोवमान केला.

◆◆◆

# 16. दिवाकर काकोडकार



दिवाकर काकोडकार हांचो जल्म 29 सप्टेंबर 1918 वर्सा काकोडें गांवांत जालो. लोकमान्य टिळकांनी स्वातंत्र्याचो हेत नदरे मुखार दवरून सुरू केल्लो भौशीक गणेशोत्सव तशेंच शिवजयंती उत्सव त्या काळार जेन्ना गोंयचेर पुर्तुगेज सत्ता आसली तेन्ना काकोडें गांवांत निर्भिडपणान चलताले. शिवजयंतीच्या वेळार जावपी देशभक्ती जागोवपाच्या भाशणांचो कळत नकळत माणकुल्या दिवाकराच्या मनाचेर परिणाम जावन आपणेंय देशा खातीर कितें तरी करचें ही भावना जागृत जाली.

ल्हानपणांतल्यानच चळवळी वृत्ती आशिल्ल्यान घरच्यांक ताची चिंता जाताली आनी म्हणूनच गोंयां पसून तोडून तांकां मुंबय भावा म्हऱ्यांत धाडले. पूण मजेची गजाल म्हणल्यार हरवे सोदिल्ल्याक पिकिल्लें मेळ्ळें. माणकुल्या दिवाकराचे शाळेचें वातावरणच देश भक्तीचें आशिल्लें. संगीत शिक्षक तर तल्लीन जावन देशभक्तीचीं गितां संगिताच्या तालार शिकयतालो.

'गांठीकय जाय आनी दोतोरानय फर्मायलें' तशी अवस्था मुंबय आसतना दिवाकराची जाली. समाजीक, सांस्कृतीक, राजकीय आनी कामगार

चळवळी तांणी लागींच्यान पळयल्यो. पूण खऱ्या अर्थान ताच्यांत राजकीय बदल, भावाचे इश्ट कॉम्रेड चंद्रकांत काकोडकार हांकां लागून घडपाक पावलो.

गिरणी कामगारांचे संप, लढे, निदर्शनां, चळवळी, गरिबांचेर जावपी अत्याचार, अन्याय, शोशण हें तांणी लागींच्यान पळोवन आदींच आशिल्ली देशभक्तीची कीट पेटून उठली. गांधीजींचे प्रेरणेन बारा वर्सांच्या दिवाकरान चळवळींत वांटो घेवन सोपूत घेतलो. ब्रिटिशां वरीच गोंयांतल्यान पुर्तुगेजांक जाता तितले बेगीन धांवडावप.

सुटी पडना फुडें दिवाकर गोंयांत येताले आनी इश्टा सांगातान राष्ट्रीय चळवळीचीं पत्रकां वांटून जागृती करपाची यत्न करताले. गोंय स्वतंत्र करपाक लागून दिवाकरान इश्टांच्या आदारान तरणाट्या पंगडाची थापणूक केली. गांवांतले लोक न्हिदले उपरांत रातच्या वेळार सावड्डें-कुडचडें सावन वचपी रेल्वे डब्यांचेर मोट्या अक्षरांनी 'पुर्तुगेज चलूंक लागात, दो. कुन्हाक मेकळे करात, सालाझारशाय नश्ट करात' अश्यो घोशणा रंगयताले आनी गुपचूप वचून न्हिदताले. रेल्वे गाडयो मराठी, इंग्लिश, पुर्तुगेज भाशेंतल्यो घोशणा घेवन मडगांव, माजोड्डें, कांसावले, वास्को स्टेशनार पावल्यो म्हणटकच लोक उत्सुकतायेन वाचताले. जेन्ना गव्हर्नराच्या कानार ही गजाल पावना फुडें गाडयांची तपासणी सुरू जाली.

गोंय मुक्ती खातीर दिवाकरान इश्टांच्या सांगातान कला पथकां वरवीं जात्रांनी क्रांती गितां गावन देशभक्ती जागोवपाचो यत्न केलो. 1947 वर्सा भारत देश स्वतंत्र जालो. पूण गोंय पुर्तुगेजांच्या शेकातळाच आसलें. जेन्ना लोहियान चळवळीचे किटीचेर फूंक मारली तेन्ना दिवाकर तातूंत सक्रीय वांटेकार जाले आनी तांकां बंदखणीची ख्यास्त भोगची पडली. सुरवेक आग्वाद आनी मागीर काळ्या पाणयार आनी निमाणें लिस्बनाक आठ वर्सां.

सुटका जाले उपरांत दिवाकरान नॅशनल कँपेन कमिटी फॉर दी लिबरेशन ऑफ गोवा, दमण आनी दीव नांवाच्या संस्थे वरवीं भारतभर भोंवडी करून सालाझारशायेचे गोंयचेर जावपी अत्याचाराचें काळजाक पिवोळ घालपी चित्र उबें केलें.

गोंय मुक्त जावन आपल्या ध्येयाची पुर्ती जाल्ली हें पळोवपाचें भाग्य तांकां लाबलें. गोंयच्या स्वातंत्र्य लढ्यांत उडी घेवन स्वराज्याचें सपन तांणी पळयिल्लें तें प्रत्यक्षांत आयलें. तातूंत तांकां व्हड समाधान मेळ्ळें.

◆◆◆

# 17. जयवंत कुंदे



जयवंत कुंदे हांचो जल्म 2 एप्रील 1919 दिसा कुंकळ्ळी गांवांत जालो. तांणी मुळावें आनी लिसेंवाचें पांचवें वर्स मेरेन शिक्षण घेतलें. 1946 वर्सा सावन ते राष्ट्रीय काँग्रेस- गोंय संघटनेचे वांगडी आशिल्ले. 1946 वर्सा, डॉ. नारायण भेंब्रे हांणी उजवाडायिल्लें 'आंदोलन' हें खबरापत्र तांणी आपल्या घरांत छापलें. पुर्तुगेजांची कडक नदर आसून लेगीत तांणी तें राष्ट्रवादी मराठी खबरापत्र छापपाचें धारिश्ट्य दाखयलें.

त्या वेळार अशे तरेचीं पुर्तुगेज सत्ते आड पत्रकां छापले उपरांत ती व्हरून उत्तर गोंयांत तांचें वितरण जातालें. भर बाजारांत, तिठ्यार, पुलीस चवकेर हीं पत्रकां चिकटायताले. पत्रकां चिकटावपाचें काम सत्याग्रही करताले. 1946 वर्सा दुबावानच तांकां केपें वाठारांत पुलिसांनी धरले आनी एक दीस बंदखणींत दवरले. पुर्तुगेजां आड आवाज उठोवपाची तांकां ल्हान पिरायेरच खुमखुमी आसली.

फुडें 1947 वर्सा ते आझाद गोमंतक दल संघटनेचे वांगडी जाले. आसगांव आनी बार्देस म्हालांतल्या दल संघटनेच्या शाखांचे ते मुखेली जाले. पुर्तुगेजांच्या विरोधांत पत्रकां छापप आनी चिकटावप हीं कामां सदचींच जाल्लीं पूण सांपडनासतना हीं कामां चालू आसतालीं.

जयवंतांच्या घरांतलें वातावरण स्वातंत्र्य मोगी आशिल्ल्यान तांकां फार्टी ओडपी कोणूच नासलो. 21 जुलय 1947 दिसा म्हापशें वाठारांतल्या सरकारी बँकेचेर आनी फाजेन्दाचेर हल्लो करपाक तांणी वांटो घेतलो. ह्या आरोपाखाला डिसेंबर 1947 वर्सा पुलिसांनी तांकां धरले.

उपरांत पुर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशीक लश्करी दंडाधिकाऱ्या मुखार तांची चवकशी जाली, आनी तांकां 26 वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तेच बराबर तांकां थोडो दंडूय फर्मायलो. पूण जयवंतांची अर्थीक परिस्थिती दंड भरपा इतली आस्तीक नाशिल्ल्यान तांणी दंड भरपाक न्हयकार दिलो. दंड भरपाक तांणी न्हयकार दिल्ल्यान तांकां आनीक तीस दीस बंदखणीची ख्यास्त फावो जाली.

जयवंतांक 26 वर्सांची बंदखणीची जाल्ली ख्यास्त आयकून घराब्याचेर दुख्खाची सया पातळ्ळी. तरणी पिराय बंदखणींत सारपाची. आग्वाद बंदखणींत तांणी सुमार साडेचार वर्सां ख्यास्त भोगली. फुडें 1 जून 1952 वर्सा तांकां लिश्बोआक व्हेले.

उपरांत तांकां आंगोला व्हेले. सत्याग्रहीक एकाच बंदखणींत दवरिनासतना तांच्यो बंदखणी बदल करीत रावताले. तांणी आल्जुबे, लुआंदा, मोसामेदीश, से द बांदोरा, फोर्त रोसादश सारक्या वेगवेगळ्या बंदखणींनी ख्यास्त भोगल्या.

बंदखणींत सगळ्या बंद्या वांगडा तांकांय गायेचें मांस दिताले. जयवंतान तें जेवण घेवपाक न्हयकार दिलो. जेवण न्हयकारिल्ल्यान तांकां वायट वागणूक दिवपाक लागले. आपल्याक दिल्ले वायट वागणुकेक लागूण तांणी विरोध केलो. तेन्ना तांकां आनीक चाळीस दीस बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली.

चाळीस दिसांची ख्यास्त इतली घातमारी आसली की तांकां एका चवकोनी कुडींत दवरिल्ले. वारें ना, उजवाड ना, कोणूच उलोवपाक ना. जेन्ना तांकां जेवण येतालें तेन्नाच तांकां पुलिसांचें तोंड दिसतालें. एकांतवासाची बंदखण. मनीस पिसो जावन त्या एकातांत मरपाचो. पूण गोंय मुक्ती खातीर

झुजिल्ल्या सत्याग्रहींचीं काळजां आनी मनां पुर्तुगेजांचे जुलूम आनी अत्याचार सोंसून फातराचीं जाल्लीं.

एकांतवासाचे चाळीस दीस ख्यास्त भोगून लेगीत जयवंत इल्लो लेगीत भियेले ना. एकच ध्येय आसलें गोंय मुक्तीचें. फुडें 24 मार्च 1961 दिसा तांकां दिल्ले ख्यास्तींतल्यान तांची मेकळीक जाली आनी ते 5 ऑगस्ट 1961 दिसा आपल्या गांवघरा कुंकळ्ळी गांवांत पावले.

1978 वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन तांणी केल्ल्या कार्याचो भोवमान केलो.

◆◆◆

# 18. अँथनी (टॉनी) सौझ



अँथनी सौझ हांचो जल्म 14 ऑक्टोबर 1920 त मुंबय हांगासर जालो. ताणीं मॅट्रिक मेरेन शिक्षण घेतलें. सुरवेक पाद्री जावपाक ते सेमिनारींत गेल्ले. पूण उपरांत तें सोडून ते भारताचे भोंवडेर गेले. काशी हांगा कांय काळ वेदांचें शिक्षण घेतलें. उपरांत ते लोयडस् बँकेंत रूजू जाले.

फुडें हे बँकेच्या कामगार संघाचे ते सरचिटणीस जाले. 1952 वर्सा ते नॅशनल काँग्रेस गोवा हे संघटनेचो वांगडी जाले. उपरांत सुटके चळवळींनी ते वांटो घेवंक लागले. ते हे संघटनेचे सरचिटणीस म्हूण काम पळयताले.

15 ऑगस्ट 1954 दिसा काणकोणच्या पोळें वाठारांतल्यान गोंयचे शीमेचेर सत्याग्रहींचो पयलो पंगड घेवन ताणी सत्याग्रह केलो. तेन्ना तांकां तांच्या वांगड्या सयत अटक केली.

सुरवेक तांकां पणजेच्या आल्तिनो वयल्या मनोरूग्ण बंदखणींत घाल्ले. उपरांत आग्वाद आनी रेईश मागूश बंदखणींत दवरून तांकां 28 वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली.

1959 वर्सा तांचे ख्यास्तींत सूट दिवन तांची सुटका जाली. उपरांत ते परत भूंयगत चळवळींनी वावर करूंक लागले. ह्या वेळार परत पुलिसांनी वास्को हांगा तांकां अटक करून बंदखणींत घाले. फुडें गोंय सुटके उपरांत तांची सुटका जाली.

1963 वर्सा ते जिल्लो काँग्रेस समितीचे चिटणीस म्हूण वेंचून आयले. मुरगांव गोदी कामगार संघटनेचे ते संस्थापक वांगडी आशिल्ले. महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाचे वांगडी आसले. ओपिनियन पोला उपरांत ते ह्या पक्षाचे जोड चिटणीस जाले.

1964 वर्सा ते पणजी नगरपालिकेचे वांगडी म्हूण वेंचून आयले. गोवा भारत स्कावटस् अँड गायडस्चे राज्य मुखेल कमिशनर म्हणून ताणीं काम केलां. मार्च 1967 त मांद्रे मतदार संघांतल्यान ते गोंय, दमण आनी दीव विधानसभेचे आमदार म्हूण वेंचून आयले.

तेन्ना तांकां कायदो, कामगार, उद्देग आनी शेतवड ह्या खात्यांचें मंत्रीपद मेळ्ळें. पूण महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षांतल्या फुडाऱ्यां कडेन ताचे मतभेद जाल्ल्यान 19 जून 1970 ह्या दिसा ताणें मंत्रीपदाचो राजिनामो दिलो.

उपरांत ते इंडियन नॅशनल काँग्रेस संघटनेचो वांगडी जाले. ते गोंय शिपयार्ड कामगार संघटना, राश्ट्रीय इंजिनीयरींग कामगार संघटना आनी इंडियन नॅशनल ट्रेड युनियन कावन्सिलाचो वांगडी आसले.

उपरांतच्या काळांत राजकारणांतल्यान ताणें पुरायपणान सन्यास घेतलो आनी समाजसेवेचें व्रत आपणायलें. समाजसेवा करपांतच ताणीं आपलें उरिल्लें जिवीत सारलें.

भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

18 जून 1984 ह्या दिसा गोंय सरकारानय ताम्रपट दिवन सुटके झुजांतल्या ताच्या वावराचो भोवमान केलो.

18 जून 1984 ह्या दिसा ते ह्या संवसाराक अंतरले.

◆◆◆

# 19. बाळा मापारी



बाळा राया मापारी हांचो जल्म 1 सप्टेंबर 1921 दिसा बार्देस म्हालांतल्या अस्नोडें गांवांतल्या मयतेवाडी हांगा जालो.

तांच्या सभावाचें खाशेलेपण म्हणल्यार सान पिरायेचेर लेगीत तांकां अन्याय सहन जायना आसले. कोणेंय अन्याय केलो जाल्यार रागाच्या भरांत ते तांबडो गुंज जाताले. गुरूजीन केल्ले संस्कार म्हणल्यार फट उलोवप ना. चोरी करप ना, कोणाय कडेन झगडप ना, अपशब्द उच्चारप ना, पळयता तें मागप ना. बाळांच्या मनार ह्या संस्कारांचो सामको खर प्रभाव पडिल्लो.

अन्याय आनी फट उलोवप हांचेविशीं तिडक आशिल्ल्या बाळाक गुरूजीन ल्हवू ल्हवू आकार दिलो. गुरूजींच्या हाता सकयल बाळा व्हड जाले. तांचें अक्षर म्हणल्यार मोतयांक फाटीं घालपाचें. बुद्दी तल्लख आशिल्ली. गुरूजीन दिल्लें गिन्यान ते भरभरून घेताले. पूण ते चवथेंत आसतना, सरकार विरोधी आंदोलनांत, चळवळींत भाग घेता म्हणून तांच्या गुरूजींक सरकारान धरून व्हेलें आनी बाळांचें शिकप बंद जालें.

जरी शिक्षण बंद पडलें तरी गुरूजीन जें राष्ट्रभक्तीचें बीं तांच्या मनांत पेरिल्लें तें तांकां ओगी बसपाक दिना आसलें. राष्ट्रीय दिसाळीं

अर्दी–मर्दी वाचपाक मेळटालीं. तातुंतल्यान भारतांत चलिल्ल्या स्वतंत्रतायेच्यो गजाली, चळवळी, आंदोलना, सत्याग्रह हांचेविशीं वाचून ते पेटून उठ्ठाले. त्यो सगळ्यो गजालीं ते भौसा मेरेन पावयताले आनी आमचीय लागणूक कशी आसूंक जाय हाचेर सगळे गांवकार विचार करताले.

बापायक शेतांत मजत करता आसतनाच दुसरे वटेन ते गुप्तरितीन केन्ना वण्टीपत्रकां वांटप तर केन्ना वण्टीपत्रां चिकटावप अशीं कामां करताले. केन्ना केन्ना गुप्त मार्गान बसका घेवन राष्ट्रकार्या खातीर लोकांचीं मनां तयार करताले. बाळाचें मन देशकार्य, राष्ट्रकार्य हांचे मर्दीं पुरायपणान घुस्पल्ले. आपलो पूत अश्या कार्यांक लागून हातांतलो सुटत म्हूण तांच्या बापायन बाळाचें सान पिरायेचेर लग्न केलें. इंद्रावतीक आपलो घरकार देशा खातीर कार्यां करता तें पळोवन धादोसकाय जाताली. कारण चळवळ, आंदोलन, क्रांती हांचे विशीं ती आपल्या कुळारा सावन आयकत आयिल्ली. बाळाच्या सांगातान ती प्रत्यक्ष अणभवूंक पावली.

बाळाच्या बापायन ते संवसारांत रमचे म्हणून तांकां लग्नाच्या बंदनांत घुस्पायल्ले पूण तांचें लक्ष मात संवसारांत केन्नाच रमलें ना. पुर्तुगेजांक सत्ते भायरें करचे पसत तांचो जीव तळमळटालो. आझेंत मोन्तेरो हो पुलीस अधिकारी जी दादागिरी करतालो ताका लागून तांकां सासणाची बुद्द शिकयतलों असो तांणी खर निश्चेव केल्लो.

आझेंत मोन्तेर गोंयकारांक छळटालो. ताचे विशीं बाळाक भयंकर राग आसलो. ताका सोंपोवपाचो तांणी बेत केल्लो. ताका लागून तांणी पुर्तुगेज सत्तेक, आपले सवंगडी मोहन रानडे, आनंद थळी, सुखा शिरोडकार, यशवंत, लाडू दत्ता, रामचंद्र हांच्या आदारान धावंडावपाचो यत्न केलो.

पुर्तुगेजांक सत्ते भायरे करचे पसत ते आझाद गोमंतक दलाचे वांगडी जाले आनी तांचे वतीन आकांतवाद निर्माण केलो. पुर्तुगेज सत्तेंत आवाज काडपाक मेळना आसलें म्हणून तांणी आकांतवादाच्या आदारान मोन्तेरोक हालयलो. तांणी आनी तांच्या वांगड्यांनी पत्रादेवीच्या लागसार गाळेल गांवांतल्या पुलीस स्टेशनाचेर घुरी घालून थंयचो दारूगुळो, शस्त्रां, काडतुसां

घेवन पसार जाले. अस्नोडेचें पुलीस चौकेर घुरी घालून थंयच्या पुलिसांक बांदून घालून थंयचो सगळो दारूगुळो चोरून व्हेलो.

बाळाच्या आकांतवादान आझेंत मोन्तेर सारको थतरवितर जालो आनी ताणें तांकां धरपाचो कट केलो. हे क्रांतीवीर येतात केन्ना आनी आपलें काम सोंपोवन पुर्तुगेज शिपायकांक शिंगां लावन केन्ना नाच्च जातात कशें, हें कुवाडें मोन्तेरोक सुटलें ना. ताणें बाळांक धरपाक शेंकड्यांनी पुलिसांचो आदार घेतलो आनी न सांपडपी बाळा, एका मनशान चाडी केल्ल्यान पुर्तुगेज शिपायकांच्या हाताक जिवंत सांपडले.

आझेंत मोन्तेरोन तांकां हाल हाल करून मारले. बाळान सगळें दुख्ख, त्रास, यातना, कश्ट सोंसलें पूण निमणे स्वासा मेरेन आपल्या एकाय वांगड्याचें नांव सांगलें ना. मातृभुंयेची सेवा करीत, राष्ट्रदेवतेच्या ह्या स्वातंत्र्य यज्ञांत आपलें रगत आनी मांसाचो निवेद्य दिवन आपले प्राण ओंपले आनी ते हुतात्मे जाले.

क्रांतिकाराचो मान मेळयत बाळा अमर जाले, ती तारीख जावन आसा 18 फेब्रुवारी 1955. अस्नोडें गांवांत तांचो पुतळो आसा तशेंच अस्नोडेंच्यान शिरगांव वचपी मार्गाक 'हुतात्मा बाळा मापारी मार्ग' अशें नांव दवरलां.

◆◆◆

# 20. विश्वनाथ लवंदे



**विश्वनाथ** लवंदे हांचो जल्म 20 एप्रील 1923 दिसा व्हडलें गोंय हांगासर जालो. तांचें शिक्षण बीएससी, एलएलबी. कोल्हापूर शारांत शिकता आसतना तांणी 'भारत छोडो' आंदोलनांत वांटो घेतिल्लो म्हणून तांकां बंदखणीची ख्यास्त जाल्ली. उपरांत कोल्हापूर शारांत तांणी राष्ट्रसेवादल फांट्याची स्थापना करून कांय तेंप ताचें फुडारपण चलयलें. उच्च शिक्षण सोंपल्या उपरांत गोंयांत येवन, नोव्हेंबर 1942 त तांणी मडगांवांत राष्ट्रसेवा दल फांट्याची स्थापना केली.

18 जून 1946 दिसा डॉ. लोहियान मडगांव शारांत घडोवन हाडिल्ल्या सत्याग्रहांत तांणी वांटो घेतिल्लो म्हणून तांकां आठ दिसां खातीर बंदखणींत दवरलो. उपरांत त्याच वर्सा 18 नोव्हेंबराक व्हडल्या गोंयच्या मायणा गांवांत सभा घडोवन हाडिल्ल्यान नारायण पालेकारा वांगडा तांकां 45 दीस खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली.

18 डिसेंबराक हळदोण्या सत्याग्रह घडोवन हाडिल्ल्यान पुर्तुगेज पुलिसांनी तांकां आनी सुर्यकांत नायक हांकां धरून खूब मार दिलो. उपरांत 23 एप्रील 1947 त आपल्या सांगात्याच्या आदारान तांणी म्हापशेचें भांडार (फाझेंद) लुटलें तशेंच डिसेंबर म्हयन्यांत तांणी आनी तांच्या सांगात्यांनी सरकारी पयसो घेवन वचपी वाहनाचेर घुरी घालून सगळो म्हालवज लुटलो. हाका लागून तांच्या कांय सांगात्यांक पुर्तुगेजांनी धरून बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली.

विश्वनाथ भूंयगत रावून आपल्यो हालचाली करपाक लागले. उपरांत ह्या गुन्यावाक लागून मे 1949 त पुर्तुगेजांनी तांचे गैरहजेरींत तांचेर खटलो चलोवन तांकां 28 वर्सां तडीपार आनी एक वर्सा बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली.

1951 ते 1954 ह्या काळांत बेळगांव, मुंबय, बांदा आनी आरोंद्याक राष्ट्रीय काँग्रेस गोंय संघटना उबारपाक ते खूब वावुरले तशेंच हे संघटणे वरवीं ते गोंयांत राष्ट्रवादी लिखाण धाडपाक लागले. वझरे गांवांत आझाद गोमंतक दलाचो कॅम्प उबारून ते आपवावुरप्यांक गनिमी काव्याचें शिक्षण दिताले.

29 जुलय 1954 ह्या दिसा पुणें आनी मुंबयच्या शंबर आपवावुरप्यांच्या आदारान नगर हवेलीचें राजपाटण सिल्वासाचेर घुरी घालून तें सुवादीन घेतलें. उपरांत धा दिसांनी संबंद नगर हवेलीचेर ताबो मेळयलो आनी 15 ऑगस्ट 1954 मेरेन तिचो कमांडो प्रशासक म्हणून वावुरले.

गोंयाक मुक्तताय मेळ मेरेन तांणी आझाद गोमंतक दलाच्या वांगड्यांची संख्या 400 वयर वाडोवन पुर्तुगेजां आड गनिमी डावपेंच आनी हिंसक कृत्यां चालूच दवरिल्लीं. ताका लागून तांणी आनी तांच्या सांगात्यांनी खर ख्यास्तूय भोगली. सुटके झुजांत तांणी केल्ल्या मोलादीक वावराक लागून दादरा आनी नगर हवेली सरकारान 1962 त तांचो भोवमान केलो.

गोंय मुक्तताये उपरांत तांणी शिक्षण, कामगार, शेतकामती आनी ड्रायव्हरांचीं आंदोलनां घडोवन हाडून तांकां न्याय मेळोवन दिला.

स्वातंत्र्य झुजाऱ्यांचें पुनर्वसन जाग्यार घालपाच्या उद्देशान तांणी स्वातंत्र्य झुजाऱ्यांची संघटणा उबारपाक मोलाचें योगदान जदलें. पणजेची नवजीवन सोसायटी आनी पर्वरेचें आझाद भवन ह्या स्वातंत्र्य झुजाऱ्यां संबंदीत दोन संस्थांचो कारभार तांचे देखरेखी खाला आनी हेर स्वातंत्र्य झुजाऱ्यांच्या सहकार्यान तांणी वेवस्थीत सांबाळ्ळो.

अश्या ह्या तळमळीच्या सुटके झुजाऱ्याक 15 सप्टेंबर 1998 दिसा मरण आयलें.

◆◆◆

# 21. वामन सरदेसाय



वामन सरदेसाय हांचें पुराय नांव वामन बाळकृष्ण प्रतापराव सरदेसाय. तांचो जल्म 25 मे 1923 दिसा वाडी तळावली, फोंडें हांगा जालो. लायसियमचें 7 व्या वर्सांचें शिकप करून, तांणी इश्कोल मेदिकाचें पयल्या वर्साचें शिक्षण घेतलें.

भुरगेंपणासावन ते गोंय सुटके खातीर वावुरले. तरीय पूण ते खंयचेय एके संघटने कडेन बांदिल्ले नाशिल्ले. मुखेलपणान ते राष्ट्रीय प्रचाराचें काम करताले. 1947 वर्सा ज्वाला चे अंक वांट्टना ते सांपडले. तांच्या ह्या कामाक लागून, तशेंच लिपचोरयेचे कार्याक लागून तांकां अटक करून प्रादेशीक लश्करी न्यायालया मुखार उबें केलें. तेन्ना तांकां सात म्हयन्यांची ख्यास्त फर्मायली आनी ताचे सगळे राजकी हक्क काडून घेतले.

उपरांत ते फोंडेच्या आल्मेदा कॉलेजींत शिकोवपी म्हणून वावुरलें. थंय तांणी राष्ट्रीय चळवळी संबंदीत कार्य केलें. ताचे उपरांत ते वर्धा गेले. थंयच्यान नागपूराक पावले आनी थंय ते गोंय मुक्तताय चळवळींत वांटो घेवपा खातीर लोकांक तयार करूंक वावुरले.

1955 वर्सा प्रो. फ्रान्सिस्को कुर्सय आंफोसु हांच्या फुडारपणाखाला आकाशवाणीचेर राष्ट्रीय कोंकणी आनी पुर्तुगेज कार्यावळी खातीर तांणी भोवमोलाचें काम केलें. ह्याच वेळार निकलाव मिनेझीस आनी लिबिया लोबो (उपरांत ती तांची घरकान्न जाली) हिचे वांगडा गोंयचे शिमेचेर

1955 ते 1961 मेरेन भुमीगत रेडिओ केंद्र (व्हॉयस ऑफ फ्रिडम) चलयलें.

पुर्तुगेजांच्या गुलामगिरींतल्यान गोंय मुक्त करचे पसत गोंयच्या लोकां मदीं सतत जाग्रताय करपाचें काम त्या वेळार 'व्हॉयस ऑफ फ्रिडमाच्या' माध्यमांतल्यान केलें. वेळचे वेळार बातम्यो सांगून, गोंयची मुक्ती कितली लागीं पावल्या, चलंत घडामोडी कश्यो चलल्यात हाचे विशीं खबरां पत्रां चालू दवरून नागरिका मदीं उचंबळाय निर्माण केली.

भंय विरयत आपलो जीव संकश्टांत घालून वामन आनी तांच्या वांगड्यांनी असामान्य अशें कार्य केलां. भुमीगत रेडिओ केंद्र चलोवन गोंयच्या सुटके झुजांत तांचो मोलाचो वांटो आसा.

ऑक्टोबर 1961 तच पुर्तुगेजांचे वसणुकेंतल्या प्रतिनिधींची आंतरराष्ट्रीय परिशद दिल्ली हांगा जाली. ते परिशदेंतय ते वांटेकार जाले. ऑपरेशन विजया च्या वेळार लोकांक वांटपाक छापिल्ल्यो जायराती तयार करपाक तांणी व्हड आदार दिलो. तशेंच लश्करी कारवायेच्या वेळार पुर्तुगेजांनी बळजबरीन घेतिल्ल्या म्हत्वाच्या पुर्तुगेज कागदपत्रांचें इंग्लिशींत भाशांतर करपाचेंय तांणी काम केलें.

डॉ. दत्ताराम सुखठणकार, दिवाकर काकोडकार, जनार्दन शिंक्रे, इव्हाग्रियु जॉर्ज, बाबला शिंगबाळ, नरसिंह सुखठणकार, प्रसाद सुखठणकार हे तांचे चळवळींतले वांगडी. गोंय मुक्तताये उपरांत तांणी सरकारी नोकरी केली. आंगोल हांगा राजदूत म्हणूनय तांणी काम केलें. निवृत्ती काळांत 'गोवा टुडे' चे संपादक, तशेंच 'सुनापरान्त' दिसाळ्याचे प्रकाशक म्हणूनय ते वावुरले.

मुळांत ते कवी, गोंय मुक्ततायेचे चळवळी वेळार तांणी भोवच सुंदर कविता 'अभिजीत' हें नांव घेवन रचल्यांत. तांचो सगळे तरेचो वावर मतींत घेवन भारत सरकारान तांकां 'पद्मश्री' किताब भेटोवन तांचो भोवमान केला.

गोंय मुक्ती पसत तळमळपी वामन सरदेसायांक 6 मे 1994 दिसा देवाचो आपोवणो आयलो.

◆◆◆

# 22. शिवाजी कुडचडकार



**शि**वाजी कुडचडकर हांचो जल्म 26 जून 1924 दिसा जालो. तांच्या बापायचें नांव व्यंकटेश कुडचडकार. ते मिठाचे वेपारी आसले. शिवाजींचें मुळावें शिक्षण घरांत मास्तर दवरून जालें. मागीर तांकां थळावे मराठी शाळेंत घालें आनी माध्यमीक शिक्षण राजधानी पणजी हांगासर जालें.

तांच्या लहानपणांतच आवयबापायचें छत्र ना जालें. टायफॉयड जोराचें निमित्त जावन तांचो व्हडलो भाव आनी आवय-बापूय संवसाराक अंतरले.

शाळेंत शिकतना शिवाजींक इतिहासांतल्या शिवाजी महाराजा विशीं नितांत आदर, मोग आनी आत्मियता दिसताली. शाळेंतले गुरूजी तन्मयतेन शिवाजी महाराजां विशीं वर्णन करताले. शिवाजींनी पिरायेच्या सोळाव्या वर्सा तोरणां किल्लो घेवन स्वातंत्र्याचें तोरण कशें लायिल्लें ताचें म्होवांळ, रसाळ आनी स्फूर्त निर्माण जावपी वर्णन करताले. आपलेंय नांव शिवाजी आनी आपणेंय अन्याया विरूध्द लढचें अशें तांकां दिसतालें.

एक दीस खेळामळार खेळटना अचकीत तांची वळख कॉम्रेड दिवाकर काकोडकार हांचेकडेन जाली आनी तातुंतल्यानच ते स्वतंत्रतायेच्या लढ्याकडेन आकर्शित जाले. गोंयची मुक्तताय आनी पुर्तुगेजांक गोंयच्यान

धांवडावप हाचेर दोगांयचेंय एकमत जालें. हाचे फुडें तांणी एकठांय कार्य करपाचें थारायलें.

शेतकार, कामगार हांकां लागीं केले बगर, तांकां संघटीत केले बगर परकी सत्ता ना नपयत करप कठीण हाची जाणविकाय जाल्ल्यान तांणी अश्यो संघटना करचे पसत, तरणे कार्यकर्ते लागीं येवचे म्हण नॅशनल स्पोर्टिंग लीग ची थापणूक केली. कॅरम, क्रिकेट, फुटबॉल, खेळ खेळपाचें सामान जमयलें. निखटो खेळ खेळप हो उद्देश नाशिल्लो. तर देशप्रेमाचे विचार तरणाट्यां मदीं रिगोवचे हो उद्देश लीग थापणे फाटलो आसलो.

जेन्ना ते मुखा वयलें पुर्तुगेज शिकप पुराय करचे खातीर पणजे येवन रावले तेन्ना स्कुलांत तांचे बरोबर पुर्तुगेजांलीं धडधाकट भुरगीं शिकतालीं. थळाव्या भुरग्यांक ते जेंतीब (असंस्कृत) म्हूण चाळयताले. चलतना मुद्दाम पांयांत पांय घालून उडयताले आनी हांसताले. वातावरणा प्रमाण शिक्षक वर्ग तांच्या मुखार ब्र काडिनासले. स्वाभिमानी शिवाजींचें मन बंड करून उठ्ठालें. ताणीं तेन्नाच थारायल्लें की पुर्तुगेजांक जाता तितले बेगीन गोंयच्यान धांवडावप.

देशकार्या खातीर घडयिल्ल्या गोवा सेवा संघा चे ते सेक्रेटरी आसले. डॉ. विनायक मयेंकार अध्यक्ष आसले. वसंत कारे, पांडुरंग फोंडेकार, व्यंकटेश वेरेंकार, मुंज, कारापूरकार भयणी, प्रमिला जांबावलीकार, नीलकंठ कारापूरकार अशे तरणाटे सभासद जाल्ले.

गोवा रचना कार्य समिती म्हणून आनी एक संस्था निर्माण जाल्ली. तातुंतल्यान खादी प्रसाराचें कार्य सुरू केल्लें. अभ्यास मंडळांतल्यान गांधीवाद आनी समाजवादी पुस्तकांचेर अभ्यास आनी चर्चा सुरू जाल्यो. चरखा केंद्रां स्थापन करून सूत काडपाची कार्यावळ सुरू केल्ली. खादीचो प्रसार आनी प्रचार जावंचो म्हूण शिवाजी आनी काकोडकार खादीचे गठ्ठे खांदार घेवन गोंयांतल्या गांवा-गांवांनी भोंवताले. जेन्ना ते वर्धा आश्रमांत रावूंक आयले तेन्ना महात्मा गांधीजींचो तांचेर व्हड प्रभाव पडलो. सशस्त्र क्रांतीच्या मार्गा वयल्यान ते अहिंसात्मक कार्या कडेन पावले. अहिंसा ही वीरांची

साधना. शस्त्रां परस मनशां मर्दी बदल घडोवन हाडपी हो गांधीजींचो मंत्र तांच्या काळजाक भिडलो.

स्वातंत्र्याचो लढो चड नेटान फुडें वच्चो म्हूण गोवा सेवा संघ आनी गोमंतक सेवा संघ हांचो एकवट जालो आनी नॅशनल काँग्रेस- गोवा ही नवी संस्था जल्माक आयली. हे नवे संघटने वरवीं दर एका म्हालांत 4-5 जाणांचो पंगड करून फावता तसो आपापल्या म्हालांत सत्याग्रह करपाचें थारलें.

थारिल्ले प्रमाण 25 ऑक्टोबराक शिवाजी कुडचडकारांनी कुडचडें, गांवांत सत्याग्रह केलो. पूण पुलिशेन तांकां धरून भरपूर मार घालो. मडगांवच्या बंदखणींत दवरलें. न्यायाधिशांनी तांकां 15 दिसांची बंदखण फर्मायली. बंदखण भोगून जेन्ना ते मांयघरा परतले तेन्ना व्हड गुन्यांव केल्लेवरी तांकां सोयरीं धायरीं जाप लेगीत दिना जालीं.

शिवाजीन हरिजन वाड्यार तांच्या भुरग्यांक शिकोवपाचें काम केलें. हरिजनांत देशप्रेम आनी कर्तव्यनिश्ठा जागोवपाचें काम तांणी हातांत घेतलें म्हूण गांवांतले लोक कुचेश्टेन तांकां 'म्हार शिवाजी' म्हूण हिणसायताले.

18 जून 1946 ह्या दिसा डॉ. राम मनोहर लोहियांनी सत्याग्रह करपाचें थारायलें तेन्ना गोवा नॅशनल काँग्रेसीन तांकां जाहीर तेंको दिवन वांगड्यांनी सक्रिय तेंको उक्तावन सत्याग्रहांत वांटेकार जाले तातूंत शिवाजीय आसले.

गोंय मेकळें जावचें म्हूण तांणी जे त्रास काडिल्ले तें मेकळें गोंय तांकां पळोवपाक मेळ्ळें हें आपलें भाग्य अशें ते काळजा सावन सांगतात. पिराय जाण्टी जाल्या पूण मन अजून तरणें आसा. कुडचडें गांवांत ते आपली जीण सारतात.

◆◆◆

# 23. जॉर्ज इव्हाग्रियु फ्रांसिस्कु



इव्हाग्रियु फ्रांसिस्कु जॉर्ज हांचो जल्म 6 मार्च 1925 दिसा करमणें-साश्टी हांगा जालो. तांच्या बापायचें नांव तीतु मानुएल जॉर्ज. तांणी लिसेवाचें सातवें वर्स मेरेन शिक्षण घेतलें.

गोमंतक प्रजामंडळ हे संस्थेखातीर ताणीं तळमळीन वार केला. डॉ. ज्युलियांव मिनेझीस हाणीं उजवाडायिल्ल्या गोमंतक आनी उ येराल्दु (O HERALD) ह्या दिसाळ्या खातीर ते बरोवप करताले. नॅशनल कॉंग्रेस गोंय संघटनेचे ते संस्थापक वांगडी आशिल्ले. हे संघटनेच्या 18 ऑगस्ट 1946 दिसा लोंढा वाढारांत जाल्ले पयले बसकेंत तांकां सरचिटणीस म्हूण वेंचून काडिल्ले.

6 नोव्हेंबर 1946 दिसा पुलिसांनी तांकां कुंकळे सत्याग्रह करता आसतना धरले. तांकां बरोच मार दिलो आदी 45 दीस बंदखणींत दवरले. बंदखणींत सावन सुट्टकच नॅशनल कॉंग्रेस गोंय संघटनेच्या बेळगांव आनी कानपूर शारांत आशिल्ल्या कार्यालयांच्या सत्याग्रही शिबिराचो तांकां मुखेली नेमले.

15 ऑगस्ट 1947 दिसा ते कसलींय निदर्शनां करत म्हूण फोंड्यां वाठारांत पुलिसांनी तांकां राजाराम प्रियोळकार आनी गोपिनाथ लोटलीकार हांचे वांगडा धरले. ताच्या घराचेर धाड घाली आनी तांच्या घरांत आशिल्लें

सगळें राष्ट्रवादी साहित्य जप्त केलें. पुर्तुगेजांआड ते लेख आनी पत्रकां उजवाडायताले म्हूण पुर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशीक लश्करी न्यायालयांत (Territorial Military Tribunal) 22 मार्च 1948 दिसा तांकां पांच वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ते भायर पंदरा वर्सां खातीर तांचे राजकी हक्क काडून घेतले.

एक बरे बरोवपी म्हूण जॉर्ज इव्हाग्रियुची नामना आसा. ते पत्रकार आसले. 1942-61 काळांत ताणीं सुटके चळवळीचेर सोळा पुस्तिका आनी जायतीं पत्रकां उजवाडाक हाडिल्लीं. बंदखणींत सावन सुटका जातकच मुंबय डॉ. टी. बी. कुन्य हांणी सुरू केल्ल्या आनी उजवाडाक हाडिल्ल्या आझाद गोंय ह्या नेमाळ्या खातीर ताणीं जायतो वावर केलो.

1955 वर्सा ते आकाशवाणीचेर कोंकणी आनी पुर्तुगेज भाशेंत विदेशी वितरावणेच्या विभागांत काम करूंक लागले. 1970 वर्सा ताणीं आकाशवाणीवेले नोकरेक सोडचीट दिली. उपरांत ते ‘उजवाड’ ह्या रोमी लिपींतल्या कोंकणी दिसाळ्याचें संपादन करूंक लागले.

1972 वर्सा भारत सरकारान ताका ताम्रपत्र दिवन तांचो भोवमान केलो. 20 ऑगस्ट 1978 दिसा पणजे शारांत तांकां अपघाती मरण आयलें. तांचे निमणे इत्सेप्रमाण तांका हिंदू पध्दतीन, पणजेचे हिंदू स्मशानभुंयेंत अग्नी दिलो.

18 जून 1984 दिसा गोंय सरकारान ताच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो मरणोत्तर भोवमान केलो.

गोंय पुर्तुगेजांच्या शेका खाला आशिल्लें तें मेकळें करपा पसत खूब सुटके झुजारी तनमनान वावुरलें. कितलेश्याच जाणांनी आपल्या प्राणांची आहुती दिली. पुर्तुगेजांनी दिल्ले त्रास सोंशिकतायेन सोंसले. पूण एकच ध्यास मनांत घेवन सत्याग्रही वावुरताले तातुंतलेच एक इव्हाग्रियु फ्रांसिस्कु जॉर्ज.

◆◆◆

# 24. लक्ष्मीदास कृष्ण बोरकार



लक्ष्मीदास कृष्ण बोरकार हांचो जल्म 17 ऑगस्ट 1925 दिसा मडगांव हांगासर जालो. तेन्नाचो काळ म्हणल्यार गोंयचेर पुर्तुगेजांची हुकूमशाय. सरकाराच्या विरूद्ध एक शब्द लेगीत काडपाक मेळनासलो. उलोवपाचें, सभा-मिरवणुकी काडपाचें स्वातंत्र्य नाशिल्लो गोंय प्रदेश सगळ्या वाटांनी चिड्डल्लो, लुळो-पांगळो जावन पडिल्लो.

गुलामगिरींतल्यान सुटका करून घेवचे पसत गोंयांत लिपचोरयां सतत काम चलतालें. हातूंत गोंयचे तरणाटे स्वखोशयेन वांटेकार जाताले. तातुंतले एक तरणाटे जावन आशिल्ले लक्ष्मीदास बोरकार.

सात वर्सा मेरेनचें तांणी लिसेवाचें शिक्षण घेतलें. 1946 त ते गोंय काँग्रेस कमिटीचे कार्यकारी समितीचे वांगडी जाले. 18 जून 1946 दिसा डॉ. राममनोहर लोहिया हांणी गोंयां येवन सुटके खातीर आंदोलन सुरू केलें. ह्या आंदोलनान गांवां-गांवांतले, शारां-शारांतले तरणाटे पेटून उठले इतलें हें स्वतंत्रतायेचें आंदोलन खर आशिल्लें.

स्वातंत्र्या खातीर उठाव करपी भाशणान भारावल्ले तरणाटे आंदोलनांत सामील जाले. तातूंत लक्ष्मीदासांनी वांटो घेतलो. डॉ. लोहिया हांणी मडगांवात घडोवन हाडिल्ले सभेंत ते वांटेकार जाल्ल्यान हेर वांगड्या

बरोबर तांकांय धरून बंदखणींत दवरले. गोंयकारांक नागरी अधिकार आनी उलोवपाचें स्वातंत्र्य मेळचें म्हणून तांणीं 7 नोव्हेंबर 1946 दिसा रॉक सिकैर हांच्या पालवान शिरोड्यां सत्याग्रह केलो. जेन्ना तांणी आपलो मोर्चो बोरये वटेन घुंवडायलो तेन्ना तांकां अटक जावन, मोर्च्याचेर गोंयांत पयले फावट फारपेट जाली.

16 नोव्हेंबर 1946 दिसा तांची सुटका जाली. 8 डिसेंबर 1946 दिसा परत एकदां तांणी आनंद नायक हांच्या आदारान सत्याग्रह घडोवन हाडलो. ह्याय वेळार तांकां अटक जाली आनी बंदखणीची ख्यास्त जाली. ते सविनय कायदेभंग चळवळ (Civil disobedience) हिचो परत परत प्रचार करताले देखून तांकां पांच खेपे बंदखणीची ख्यास्त जाली.

1947 वर्सा ते बेळगांव सावन आयल्या उपरांत गोंय नॅशनल काँग्रेसीचे प्रतिनिधी ह्या नात्यान तांणी गांधीजी कडेन गोंयचे सुटके विशीं उलोवप केलें.

1950 वर्सा गोंय नॅशनल काँग्रेसीचे भांडारी म्हणून तांची नेमणूक जाली. गोंय द हेगां हांगाच्या इंटरनॅशनल कोर्ट ऑफ जस्टीस प्रतिनिधित्वाचेर निशाणी करपा खातीर गोंयकारांचे प्रतिनिधी म्हणून लक्ष्मीदास बोरकारांक वेंचून काडिल्ले.

तांणी आपले बरपावळींतल्यान गोंयचे सुटके चळवळीक नेट हाडपाचे पुरायपणान यत्न केल्ले. आनी हेच पसत तांकां खुबदां बंदखणीची ख्यास्त जाल्ली.

पुर्तुगेज सरकारान गोंयची रेल्वे येरादारी स्थगीत केल्ली म्हणून 18 मे 1955 दिसा तांणी नाथ पै हांच्या फुडारपणा खाला कॅसरलॉकाक सत्याग्रह घडोवन हाडिल्लो. प्रजा समाजवादी पक्ष आनी सेवा दल हांचे कडेन तांचे लागींचे संबंद आशिल्ले.

1958 वर्सा ते 'गोवा नॅशनल काँग्रेसी'च्या मुंबय फांट्याचे अध्यक्ष जाले. लोकसत्ता ह्या मराठी दिसाळ्याचे ते मुखेल उपसंपादक आशिल्ले.

उपरांत 1978 - 1983 ह्या काळांत ते 'नवप्रभा' ह्या मराठी दिसाळ्याचे संपादक जाले. हाचे भायर तांणी 'राष्ट्रमत' आनी 'समाचार' ह्या दिसाळ्यां खातीरूय कांय तेंप वावर केला.

तांणी पत्रकारितेंतल्यान स्वातंत्र्य चळवळ चलयली तेच प्रमाण समाजीक प्रस्नूय तांणी भोव कुशळतायेन हाताळ्ळ्यात. अशा ह्या पत्रकार आनी सुटके झुजाऱ्याक डिसेंबर 1999 वर्सा मुंबय मरण आयलें.

◆◆◆

# 25. सेबेस्त्यांव (टोनी) फेर्नांडीस



**सा**डेचारशें वर्सांच्या पुर्तुगीज राजसत्तेच्या गुलामगिरींतल्यान सुटका करून घेवपा खातीर केल्लो त्याग, उप्राशिल्ले कश्ट, सोंशिल्ल्यो हालअपेश्ठा आनी यातना, ज्या स्वातंत्र्य सैनिकांनी निर्धार पुर्वक यत्न केले तातुंतले एक आसात सेबेस्त्यांव (टोनी) फेर्नांडीस.

टोनी फेर्नांडीस हांचो जल्म 27 नोव्हेंबर 1929 वर्सा सांगें म्हालांतल्या किर्लपाल सावड्डें हांगा जालो. तांचे माध्यमीक शिकप कुडचड्यार तर बीए, एलएलबीचें शिकप बेळगांवां जालें. घरचे अर्थीक आनी गरीब परिस्थितीक लागून तांकां वकिली करपाक जमलें ना.

तांचो पिंडच स्वतंत्र विचारांचो आशिल्ल्यान शिकता आसतनाच ते स्वातंत्र्य संग्रामांत वांटेकार जाले. 'आझाद गोमंतक दला'चे ते सचीव आसले. तांणी आपल्या इश्ट मंडळींत धाडस निर्माण केल्लें. गोंय मुक्ती लढ्यांतलें भुमीगत कार्य जोखमीचें जावनय तांणी तें करपाचें धाडस केल्लें. गोंयांतली सगळी म्हायती सुलूस लागनासतना ते गोमंतक दलाक पावयताले.

टोनी भेस बदलताले. रानांनी लिपचोरयां भोंवतना केन्ना धनगराचो, केन्ना रेल्वे कामगाराचो जाल्यार केन्ना इगर्जेच्या पाद्रीचो भेस करून म्हायती मेळयताले. बेळगांव ते गोंय मेरेनचो वाठार ते पांयांनी माड्डिताले. अशे तरेन वावुरतना तांकां खूब वेळा उपाशी पोटार रावचें पडलें. इत्सा

शक्तीच्या म्हालवजार हें चलतालें.

पुर्तुगेज गुप्तहेर पांखले आनी स्वातंत्र्य सैनिकांचो कर्दनकाळ आझेंत मोंतेर हाची टोनीचेर बारीक नदर आसताली. केन्ना खंय आनी कशे परिस्थितींत तांकां धरून व्हरत हाचो नेम नासतालो. ह्या कारणाक लागून 1957 वर्सा तांच्या बापायच्या मरणाक लेगीत ते पावूंक शकले नात.

गोंय स्वतंत्र जातकच ते सहकुटूंब सावड्ड्यां स्थायीक जाले. काँग्रेस पक्ष घट करचे पासत ते गांवगिऱ्या वाठारांनी भोंवले. हे भोवंडेंत तांचे बराबर तांची घरकान्न श्रीमती फिलोमिनाय आसताली. भाटकार, शेतकार तशेंच खुबशे अधिकारी तांचो सल्लो घेवचे पासत तांगेर येताले. दीस आनी राती तांणी पक्ष संघटीत करचे खातीर कार्यकर्तेय एकठांय केल्ले.

काँग्रेस पक्षा खातीर तांणी मुळावो वावर केल्लो. तनमनान तांणी संघटना बांदून काडिल्ली. पूण वेंचणुके वेळार तांकां पक्षान उमेदवारीची तिकीट न्हयकारिल्ल्यान ते निर्शेले. तांणी महाराष्ट्रवादी पक्षांत पावल दवरलें आनी भाऊसाहेब बांदोडकारान तांकां सांगे मतदासंघाची उमेदवारी दिली. मगो पक्षाच्या उमेदवारीचेर टोनी वेंचून आयले आनी पयल्याच मंत्रिमंडळांत कायदो मंत्री म्हूण तांकां भोवमान मेळ्ळो.

टोनी फेर्नांडीसांनी कायदोमंत्री जातकच खूब लोक उपेगी कायदे केले. शेतकाऱ्यांच्या कल्याणा खातीर 'कूळ कायदो' पास करून जमीन मालकांक एक शश्ठांक खंड, कसता ताची जमीन, मुंडकार कायदो करपा पासत झटले. स्वाभिमानी टोनी फेर्नांडीसाचो मंत्रिमंडळांत मतभेद जाल्ल्यान तांणी राजिनामो दिल्लो पूण शिटूक राजकारणी भाऊसाहेब बांदोडकारान तांचो राजिनामो मानून घेतलो ना. कारण तांकां विधानसभेंत तांच्या मजतीची गरज आशिल्ली.

गोंयांत ओपीनियन पोला उपरांत वेंचणूक जाली तेन्ना टोनी फेर्नांडीसांनी 'शेतकरी कामगार पक्षाची' स्थापणूक केली. वेंचणूक लढयली पूण ते हारले. तांकां मानसीक धक्को सहन करचो पडलो आनी 6 डिसेंबर 1969 दिसा तांकां मरण आयलें.

◆◆◆

# 26. मोहन रानडे

**मो**हन रानडेचो जल्म 25 डिसेंबर 1930 दिसा मिरज, सांगली हांगा जालो. तांणी बी.कॉम. आनी एल.एल.बी.चें शिक्षण घेतिल्लें. तांचें खरें नांव मनोहर आपटे. पूण सुटके चळवळी वेळार तांणी मोहन रानडे हें नांव घेतलें आनी तेंच उरलें. ते 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचे वांगडी आशिल्ले.

सावयवेरें (वळवय) हें तांच्या कार्याचें ठिकाण आशिल्लें. थंय ते लोकां मदीं राजकी जागृताय हाडपाचें काम करताले. गोंयच्या शिमे वयल्यान पत्रकां हाडून तीं सुटके झुजाऱ्यांक वाट्टाले. 1 ऑगस्ट, 1954 दिसा सिल्वासाचे सुटके खातीर सशस्त्र हल्लो करपांत तांणी वांटो घेतिल्लो. हाचे भायर जायत्या पुलीस ठाण्यांनी, मीना खणींनी हत्यारां आनी स्फोटकां हस्तगत करपाक ते सशस्त्र हल्ले करताले.

बाणस्तारी पुलीस थाणें (1 जानेवारी 1955), गुळेली कस्टम आवट पोस्ट (9 फेब्रुवारी 1955), कळंगुट पुलीस थाणें (11 फेब्रुवारी 1955), अस्नोडा पुलीस आवट पोस्ट (12 फेब्रुवारी 1955), रावण पुलीस आवट पोस्ट (19 मार्च 1955), हळदोणे पुलीस आवट पोस्ट (27 मे 1955), शिरगांव मिना खण (3 ऑक्टोबर 1955), बेतीं पुलीस थाणें (25 ऑक्टोबर 1955) अशा सुवातींचेर तांणी हल्ले केल्यात. 18 जून 1955 दिसा तांणी पुर्तुगेजांचो हस्तक किस्तुद फेर्नांडीस हाचेर फार पेटयलो.

बेतीं पुलीस थाण्याचेर जाल्ल्या हल्ल्यांत ते जखमी अवस्थेंत पुर्तुगेजांच्या तावडींत सांपडले. उपरांत प्रादेशीक लश्करी न्यायालया मुखार

उबो करून 29 डिसेंबर 1956 ह्या दिसा तांकां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तांकां पुर्तुगालाक धाडले. उपरांत 23 ऑगस्ट 1960 दिसा तांकां फुडली बंदखण भोगूंक काशीयेस बंदखणींत दवरले. 6 वर्सां तांकां एकोडे बंदखणींत दवरिल्ले. तातूंतलीं दोन वर्सां तांकां बेडयो घालून दवरिल्लें. ताका लागून तांकां चलूंक लेगीत येनाशिल्लें. तांची सुटका 25 जानेवारी 1969 दिसा जाली.

गोंय सुटके उपरांत तांकां बंदखणींत दवरिल्ल्यान पुराय भारतांत निशेध परगटायिल्लो.

1969 वर्सा ते गोंयांत येतकच लोकांनी तांचो भोवमान केलो. उपरांत तांणी आपलें फुडलें शिक्षण पुराय केलें. आनी ते सामाजीक वावर करूंक लागले. तांणी आपलें ‘सतिचे वाण’ नांवाची मराठींतल्यान आपजीण बरयली. हातूंत तांणी आपले सुटके झुजांतले आनी बंदखणींतले अणभव सांगल्यात.

ताच्या वांगड्यांनी गोंय सुटके झुजांत वांटो घेतिल्लो, व्हड त्याग केल्लो तांचीं नांवां कांय कारणांक लागून खबरा पत्रांतल्यान झळकूंक नाशिल्लीं. अश्या सामान्य लोकांच्या असामान्य त्यागाचें दर्शन 1949 सावन तांकां घडिल्लें. तांची नोंद खंय तरी जावप गरजेचें दिसलें, म्हणून तांणी ‘सतिचें वाण’ आपजीण बरयली. 15 ऑगस्ट 1972 ह्या दिसा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या तांच्या वावराचो भोवमान केलो.

◆◆◆

# 27. गोपाळ आपा कामत



**गोपाळ** आपा कामत हांचो जल्म 22 जुलाय 1917 दिसा जालो. साडेचारशें वर्सांच्या गुलामगिरींतल्यान गोंयाक सोंपेपणी स्वतंत्रताय फावो जावंक ना. गोंयाक पुर्तुगेजांच्या गुलामगिरींतल्यान मेकळें करचे पसत असंख्य सत्याग्रही आनी स्वातंत्र्य झुजारी पुर्तुगेज सत्तेआड झुजले. कांय जाणांनी आपले मोलादीक प्राण वगडायले, कांय भुमिगत रावून वावुरले, थोड्यांनी भुमिगतांक आलाशिरो दिवन स्वतंत्राताये खातीर झुजप्यांक आपले घरीन आदार केलो. थोड्यांनी लेखणी हातांत घेवन पुर्तुगेज सत्तेआड झुजचे पसत तरसाद कशी वापरली.

गोपाळ कामत हांणी लिसेवाचें सातवें वर्स मेरेन शिक्षण घेतलें. ताचे उपरांत पुर्तुगेज कायद्याची पदविका घेतली. ते वकील आशिल्ले.

डिसेंबर 1946 वर्सा म्हत्वाच्या राजकी दर्जा विशीं (Special Political Status) उलोवणी करपाक एक कमिटी नेमिल्ली. गवर्नर जनरल बॉसान तांकां नेमिल्लो. पूण तांचे राष्ट्रवादी विचारसरणेक लागून तांका दुबावीत नदरेन पळोवंक लागले. 1947 आनी 1952 वर्सा दोन खेपे तांची चवकशी जाली.

1 जून 1954 दिसा 'राष्ट्रीय कॉंग्रेस गोंय' (National Congress Goa) संघटनेची सावंतवाडी वाठारांत बसका जाल्ली. तातूंत संघटनेचे कार्यकारी कमिटीचे वांगडी म्हूण तांकां वेंचून काडले. मार्च 1954 वर्सा राष्ट्रीय कॉंग्रेस गोंय संघटनेची मुखावेल्या कार्याची आंखणी करपाक बसका

जाल्ली. तेन्ना संघटनेचे मध्यवर्ती कमिटीचे (Central Committee of NCG) अध्यक्ष म्हूण तांकां वेंचून काडले.

तांणी डॉ. टी. बी. कुन्य, पीटर आल्वारीस आनी पुंडलीक गायतोंडे ह्या सुटके झुजाऱ्यांच्या मार्गदर्शना खाला सुटके झुजाचो वावर केलो. त्या काळांत ते राजकी कैद्यांच्यो केसी चलयताले. 30 जून 1954 दिसा चळवळींनी वांटो घेता, ह्या आरोपाखाला पुर्तुगेज पुलिसांनी तांकां अटक केली.

उपरांत पुर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशीक लश्करी न्यायालयांत (Territorial Military Tribunal) तांची चवकशी जाली. फुडें पांच जुलय 1955 दिसा न्यायालयान ताका धा वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली.

ते भायर दर दिसाक वीस इस्कूद हे प्रमाण दोन वर्सां तांकां दंड भरूंक लायलो आनी पंदरा वीस वर्सां खातीर तांचे राजकी हक्क काडून घेतले. इतलेंच न्हय तर न्यायालयांतय वचपाक बंदी केली. 15 ऑगस्ट 1959 दिसा बंदखणींतल्यान तांची सुटका जाली. गोंया खातीर स्वायत्तेचे मागणेची येवजण केल्ले खातीर 20 जून 1961 दिसा पुलिसांनी तांकां परते धरले.

तेन्ना तांचे वांगडा मुंबयच्या 'ब्लिट्झ' (BLITZ) ह्या इंग्लिश नेमाळ्याचे पत्रकार श्रीधर तेलकर हांकाय अटक जाली. फुडें 9 ऑक्टोबर 1961 दिसा तांची बंदखणींतल्यान सुटका जाली. जुवानपणाचीं कितलींशींच वर्सां राजकी वातावरणाक लागून बंदखणींत गेलीं. तांणी बुदवंतकायेच्या म्हालवजार पुर्तुगेजां आड झुजपाचें मोलादीक काम करपांत धन्यताय मानली.

गोंय सुटके उपरांत 1967 ते 1972 ह्या काळांत ते गोंय विधानसभेचे सभापती आशिल्ले.

1972 वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन तांचो भोवमान केलो.

18 जून 1982 दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या तांच्या वावराची दखल घेवन तांचो भोवमान केला.

कसलीच अपेक्षा बाळगिनासतना गोंय मुक्तीचो ताणीं ध्यास घेतिल्लो. अश्या ह्या सुटके झुजाऱ्याक 2 एप्रील 1990 दिसा मरण आयलें.

◆◆◆

# 28. शशिकला होडारकार आल्मेदा



**श**शिकला होडारकार आल्मेदांचो जल्म 23 जून 1931 दिसा फोंडें तालुक्यांत जालो. तांच्या बापायचें नांव मंगेश होडारकार तर घरकाराचें नांव आनास्तासियो आल्मेदा. आनास्तासियो आल्मेदा हेवूय एक निजाचे सुटके झुजारी आसले. शशिकलेचें शिक्षण बी.ए. मेरेन जाल्लें.

भुरगेपणांत 1946 च्या स्वातंत्र्य लढ्या विशीं तांकां विशेश अशी म्हायती जरी नासली तरी तांच्या व्हडल्या भावाचो ह्या लढ्यांत संबंद आशिल्ल्यान घरांत जीं उलोवणी जातालीं ताचे वयल्यान तांकां 1946 च्या लढ्या विशीं आयकून थोडें भोव गिन्यान जाल्लें.

1954 त शशिकलेचो प्रत्यक्ष संबंद गोंयच्या सुटके झुजा कडेन आयलो तेन्ना त्यो निकत्योच एस. एस. सी. पास जाल्ल्यो. चली भुरगें तेन्ना नोकरी करनासली म्हूण त्यो घरांतच आसताल्यो. तांच्या व्हडल्या भावाक स्वातंत्र्य चळवळीची खूब आस्त आशिल्ल्यान कॉलेजीक शिकता आसतनाच ते राष्ट्रसेवा दलाच्या कार्यावळींनी वांटेकार जाताले.

1949-51 ह्या काळांत ते नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेच्या पुणे शाखेचे चिटणीस आशिल्ले. फुडें 1954-55 आनी 1960 ह्या काळांत हे संघटनेचे कार्यकारी समितीचे वांगडी आशिल्ले. 1954अ त तांकां भुंयगत

वाठारांनी वांटो घेता ह्या आरोपाखाला अटक केली आनी बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तांचे वासपुसेक बरेच लोक येताले. त्याच वेळार सिंधुताई देशपांडे तांच्या घरा आयल्यो आनी तांचे प्रेरणेन शशिकलेन सुटके झुजांत वांटेकार जावपाची स्फूर्त घेतली.

होडारकार कुटूंब 1948 सालांतल्यान मडगांवां रावतालें. तांणी सत्याग्रहांत वांटेकार जावपाक घरचीं तयार नासलीं. व्हडलो भाव बंदखणींत तर धाकटो भाव पुण्यांत शिकतालो. घरांत फकत आवय आनी आजी. तरी लेगीत सिंधुताईची स्फूर्त घेवन 25 नोव्हेंबर 1954 दिसा पणजे जावपा आशिल्ल्या सत्याग्रहांत तांणी वांटो घेवपाचें थारायल्लें. पूण सिंधुताई मडगांव तांच्याच घरांत राविल्ल्यान पुलिसांची खर नदर तांच्या घराचेर आशिल्ली. देखून तांकां सत्याग्रहांत वांटो घेवंक मेळ्ळो ना.

उपरांत 17 फेब्रुवारी 1955 ह्या दिसा तांणी विलासिनी प्रभू हांचे वांगडा हातांत राष्ट्रीय बावटो घेवन सत्याग्रहांत वांटो घेतलो. डॉ. गायतोंडेक हद्दपार केल्लो दीस म्हण दुकानां बंद दवरून, संप पाळुया असो मडगांवच्या दुकानदारांक उलो दीत तांणी जय हिंद, वंदे मातरम् अश्यो घोशणा दिल्यो.

तेन्ना पुलिसांनी तांकां धरलीं आनी स वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. तांकां आनी विलासिनीक स वर्सांची बंदखणीची जरी ख्यास्त जाल्ली तरी दोगांयचीय तीन वर्सांनीच सुटका जाली. शशिकले बरोबर बंदखणींत लक्ष्मी पैंगिणकर, सुर्यकांती फळदेसाय, मित्रा बीर, कार्लिस्ता आराऊज, कुमुदिनी पैंगिणकार, शारदा सावयकार, शांता हेदे, सुधाताई जोशी, सिंधुताई देशपांडे अश्यो सत्याग्रही बायलो आसल्यो. आठ म्हयने तांकां पणजेच्या बंदखणींत जाल्यार दोन वर्सां मडगांवच्या बंदखणींत दवरलीं. केपेंच्याय बंदखणींत तांकां दवरिल्लीं. थंय तांकां तांची आवय मेळपाक येताली आनी येतना तांच्या वांगड्यांक तांकां जाय आशिल्ल्यो वस्तू घेवन येताली.

बंदखणींत तांणी खूब पुस्तकां वाचलीं आनी त्या वाचनान तांच्या मनाचेर बरे संस्कार जावंक पावले.

गोंय पुर्तुगेजांच्या जुलमांतल्यान मेकळें जालें तेन्ना त्यो पुण्यांत आसल्यो. 1966 त त्यो गोंयांत आयल्यो. कुटूंब नियोजन खात्यांत नोकरी करूंक लागल्यो. पुण्यांत आसतना 1965 मेरेन त्यो समाजवादी महिला सभा, राष्ट्रसेवा दल ह्या संस्थांच्या कार्यांत वांटेकार जाताल्यो.

18 जून 1986 ह्या दिसा गोंय सरकारान तांच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो भोवमान केलो.

◆◆◆

# 29. फेलिस्यु कार्दोज



फेलिस्यु कार्दोज हांचो जल्म 30 ऑगस्ट 1932 दिसा साश्टींतल्या सुरावले गांवांत जालो. ते गोंयचे सुटके झुजारी, साहित्यीक आनी निर्भिड पत्रकार. तांच्या बापायचें नांव इनोसेस्यु सेबास्तियांव कार्दोज आनी आवयचें नांव मारिया. तांच्या घराब्याचो वेवसाय शेतकामत्याचो आसलो.

तांणी आपलें मुळावें शिक्षण सुरावले, पुर्तुगेज माध्यमांतल्यान घेतलें. उपरांत मडगांवच्या इन्स्टिटयूट वेनेरावेल पाद्री जुजे वाज ह्या पुर्तुगेज लिसेंव विद्यालयांत शिकून फुडें इन्स्टिटयूट आबादी फारीय, मडगांव ह्या विद्यालयांत लिसेंवाची पांच वर्सां मेरेन शिक्षण पुराय केलें. उपरांत गोंयचे सुटके झुजांत बंदखण भोगून भायर येतकच 1976 वर्सा ते एसएससी ची परीक्षा पास जाले, 1980 वर्सा तांणी मुंबय विद्यापिठाची बीए ची पदवी मेळयली. चिकाटी आनी जिद्द हे तांचें खाशेले गूण आसले.

पुर्तुगेजांचे बंदखणींतल्यान सुट्टकच तांणी एका ताबेलियांवाच्या कार्यालयांत अणकारपी म्हूण काम केलें. मागीर एके खाजगी मुळावे मराठी शाळेंत तशेंच श्री दामोदर विद्याभुवनांत 1961 मेरेन पुर्तुगेज शिक्षकाचो वेवसाय केलो. मुक्ती उपरांत स्वता चलयिल्ल्या सप्तकी नेमाळ्याचो आनी दिसाळ्याचो संपादक म्हूण तांणी वावर केलो. फुडें कांय काळ तांणी

स्वता छापखानो चलयलो. 1975 ते 1987 आनी 1988 वर्सा सावन नावेली च्या रोझरी हायस्कूल आनी हायर सेकंडरीचो शिक्षक म्हूण काम केलें.

लिसेंव शिकता आसताना जनार्दन शिंक्रे हांचे 'ज्वाला' हें सुटके मोग्यांचो प्रसार करपी पत्र वाचून तांकां स्फूर्त मेळ्ळी. तांणीं जादूचे प्रयोग आनी तियात्र सादर करून तशेंच 'गोवा', 'कोंकण टायम्स', 'गोल्डन गोवा', 'संतोस' आदीं कोंकणी नेमाळ्यांनी लेख बरोवन सुटके चळवळी विशीं लोकांमदीं जागृताय घडोवन हाडली. मे 1954 त पुर्तुगाल सावन एक पुर्तुगेज मंत्री गोंयचे भेटेर येवपाचो आशिल्लो. अशा वेळार कोलवें (सालसेत) हांगा वेगवेगळ्या सुवातींनी 'गोंय सोडात' अशे तकटे लायले म्हूण 16 जून 1954 दिसा तांकां अटक जाली. बंदखणींत तांकां खूब मार पडिल्ल्यान तांचो एक कान जायबंदी जालो. साडेतीन वर्सांची बंदखण भोगून 30 जानेवारी 1958 दिसा तांची सुटका जाली.

बंदखणींत आसतना तांणी देवनागरी लिपीचो अभ्यास आनी साहित्याचें वाचन केल्लें. मुक्ती उपरांतच्या कोंकणी भाशा आनी साहित्य हांचे उदरगतीचे चळवळीक तांणी स्वता नेमाळीं आनी दिसाळीं काडून व्हड हातभार लायलो. तांणी 15 ऑगस्ट 1962 दिसा 'गोंयचो साद' हें रोमी लिपयेंतलें सप्तकी नेमाळें स्वताच्याच म्हालवजार आनी संपादना खाला सुरू केलें. 15 ऑगस्ट 1963 दिसा तांणी ह्या पत्राक दिसाळ्याचें रूप दिवन ताका 'सत्' हें नांव दिलें. कोंकणींतलें हें दिसाळें 1968 मेरेन चल्लें.

उपरांत तांणी पुर्तुगेज भाशेंतलें 'अवीद' आनी 'सत्' हांचे एकत्रीकरण करून 'दिवटी' हें रोमी कोंकणी दिसाळें सुरू केलें. रोमी कोंकणी नेमाळीं चलयतना, तांणी कोंकणी बरपाचेर जो पुर्तुगेज भाशेचो प्रभाव पडिल्लो तो साप्प उणो केलो आनी नीज कोंकणीची धाटणी आनी उतरावळ कोंकणींत हाडली.

गोंयचें व्यक्तीमत्व तिगोवन दवरपाचे चळवळींत तशेंच कोंकणी

भाशा आनी साहित्याचे चळवळींत तांणी मोलादीक वांटो घेतिल्लो. खबरांपत्रां आनी भाशणा वरवीं तांणी ओपिनियन पोलाच्या आंदोलनांत सक्रीय वांटो घेतिल्लो. 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' न चलयिल्लें राज्य भाशा चळवळींतूय ते पुरायेन वांटेकार जाल्ले. दोन फावटीं ते सुरावली पंचायतीचे वांगडी म्हूण वेंचून आयल्यात.

तांणी 'अलिबाबा आनी चाळीस चोर', 'तारवटी सिंदबाद', 'अल्लाउद्दीन आनी अद्भुत दिवो' हीं पुस्तकां कोंकणींत अणकारल्यांत. तांचो 'फुलांची बाग' हो कविता झेलो तशेंच 'तुफान' आनी 'निमणी इत्सा' हे कथाझेले उजवाडाक आयल्यात. तांणी कोंकणी भाशे वयर 'नियाळ आनी विचार' हो निबंद बरयला. तशेंच तांच्यो कथा, लेख आनी निबंध वेगवेगळ्या नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयल्यात. 1984 ते 1986 मेरेन ते कोंकणी भाशा मंडळाचे अध्यक्ष आशिल्ले. दिल्लीच्या साहित्य अकादेमीच्य कोंकणी भाशा सल्लागार समितीचे ते वांगडी आसले.

भारत सरकारान फेलिस्यु कार्दोजांक ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजांतल्या तांच्या वावराचो भोवमान केला. निर्भिड आनी तत्वाकडेन केन्नाच तडजोड न करपी अशी तांची ख्याती आशिल्ली. वैचारीक बसका आशिल्ल्या कारणान पत्रकार ह्या नात्यान तांणी 1969 वर्सा आनी रशियन भाशेचो अभ्यास करपा खातीर 1977 वर्सा रशियेची भोंवडी केल्या. तांकां अपघातांत सांपडून 17 मे 2004 दिसा मरण आयलें.

◆◆◆

# 30. मित्रा माधव बीर



**मित्रा** माधव बीर हांचे पुर्वाश्रमीचें नांव मित्रवृंदा वसंत शेणवी काकोडकार. तांचो जल्म 30 डिसेंबर 1932 दिसा काकोडें, केपें हांगा जालो. मॅट्रिक मेरेनचें शिकप गोंयांत घेतले उपरांत फुडलें महाविद्यालयीन शिकप करपाक त्यो धारवाडाक गेल्यो.

इंटर मेरेनचें शिक्षण वेवस्थीत जालें. पूण मागीर तांकां गोंयचे मुक्ततायेचो ध्यास लागलो. 1954 त तांणी महाविद्यालयीन शिकप सोडून गोंय स्वातंत्र्य चळवळींत वांटो घेतलो आनी धारवाड सोडून गोंयांत आयल्यो.

गोंया परतकूच गोंय मुक्तताये पसत नेमकें कितें करचें हें तांकां कळ्ळें ना आनी तांणी शिक्षिकेची नोकरी धरली. शिवोले बारदेश तालुक्यांतल्या लोकां मदीं राजकी जागृताय हाडचे पसत त्यो वावुरल्यो. तेन्नाच तांचो डॉ. पुंडलीक गायतोंडे आनी हेर सुटके झुजाऱ्यां कडेन संबंद आयलो, जे त्या वेळार नॅशनल कॉंग्रेस गोंयच्या फुडारपणा खाला सत्याग्रही आंदोलन आंखताले तातूंत वांटो घेवपाक बायलांक आनी चलयांक संघटीत करताले.

मित्रा बीरांचेर ह्या सत्याग्रही आंदोलना खातीर बायल स्वातंत्र्य सैनिकांक तयार करपाची जापसालदारकी सोंपयली. म्हापश्यां नॅशनल

काँग्रेसीचे बसकेक अध्यक्ष म्हूण सुधाताई जोशी येवपाच्यो आसल्यो. मित्रा बीरांनी गांवांगांवांनी भोवन खूब बायलांक सभासद करून घेवन लढ्या खातीर सगळ्या बायलांक संघटीत करून तांचे मदीं सुटके झुजाची कीट पेटयली.

सुधाताई जोशी, 6 एप्रील 1955 वर्सा सत्याग्रह करपाच्यो आसल्यो तांकां येवकार दिवपाक आपवावुरपी बायलांक तयार करतना मित्रा बीरांक आनी तांच्या अन्य सांगाती बायलांक 28 मार्च 1955 त धरलीं. तांकां सगळ्यांक बंदखणींतल्या काळखे कुडींत बंदिस्त केलीं.

तांचें इंग्लिश आनी पुर्तुगेज भाशांचेर प्रभुत्व आशिल्लें. बंदखणींतल्या कैद्यांक भोगपी मानसीक आनी शारिरीक अत्याचार घडये ती वार्ताहरांक सांगत म्हणून तिचेर पुलीस अधिकाऱ्यांची पुरायेन नदर आसताली. समाजसेवेचें व्रत घेतिल्ले मित्राबायन बंदखणींतल्या बायलांक इंग्लिशीचे धडे गिरोवन आपल्या गिन्यानाचो फायदो अशे तरेन हेर बायलांक दिवपाचो यत्न केलो.

तांकां 12 वर्सांची शिक्षा फर्मायल्ली पूण ॲम्नेस्टी (शिक्षेंत सूट) लागू जाल्ल्यान तांची 1959 त सुटका जाली. बंदखणींतल्यान भायर येतकच तांणी पयलींच्याच वावराक सुरवात केली.

तांणी गोंयभर भोवंडी केली आनी गांवकारांच्या आदारान गोंयच्या चडश्या गांवांनी मराठी शाळा सुरू केल्यो. शिक्षणाच्या माध्यमा वरवीं गोंयची मुक्ती चळवळ फुडें व्हरपा खातीर त्यो वावुरल्यो. आपलें शिकपूय तांणी पुराय केलें. तांणी एम.ए., बी.एड. मेरेनचें शिकप पुराय केलें.

1962 त श्री. माधव बीर, जांचो लोहियांच्या मुक्तीलढ्यांत संबंद आशिल्लो, तांचे बरोबर तांचें लग्न जालें. 1962 वर्सा त्यो वेर्रे-बेती पंचायतीच्यो वांगडी म्हणून वेंचून आयल्यो. समाज कल्याण मंडळाच्यो (सोशल वॅलफॅर बोर्ड) वांगडी आनी अखिल भारतीय बायलांचे परिशदेच्यो गोंय फांट्याच्यो त्यो अध्यक्ष आसल्यो.

बारदेश म्हापशेच्या 'सारस्वत विद्यालयाची' एक येसस्वी

मुख्याध्यापिका म्हणूनय तांणी नांव मेळयलां. ते खेरीज 'रेड क्रॉस सोसायटी', 'बायलां को-ऑपरेटीव्ह सोसायटी' अश्या विंगड विंगड समाजसेवी संस्थांच्या उदरगती खातीर त्यो वावुरल्यात.

तो असो काळ आशिल्लो की गोंयकार बायलांचे कार्यक्षेत्र म्हणल्यार घरा पुरतें मर्यादीत. हुंमऱ्या भितर, चार वण्टी भितर. हाका कारणय आशिल्लें आनी तें म्हणल्यार पुर्तुगेजांची हुकूमशाय. जंय दादलेच अत्याचारा विरूध्द मुखार सरपाक भियेताले थंय बायल मनशेचो कसो तग लागतलो.

अशी परिस्थिती आसतनाय आवय-बापायचे मायेक फाट करून, फुडाराची चिंता, हुस्को काळजांत बाळगिनासतना जीं बायलां पुर्तुगेजांच्या विरूद्ध झुजपाक मुखार सरलीं, तातूंल्योच एक मित्रा बीर जावन आसात.

अश्या ह्या सुटके झुजारी आनी समाज सेविकेक 1 जून 1978 त अपघाती मरण आयलें.

तांचे घरकार श्री माधव बीर, हांच्या फुडारपणा खाला तांच्या नांवान निर्माण जाल्लें 'मित्रा बीर प्रतिशठान', गोंयच्या समाजीक मळार उल्लेखनीय वावर केल्ले बायलेक दर वर्सा 1 जूनाक पुरस्कार भेटयता.

◆◆◆

# 31. शारदा पद्माकर सावयकार



**शा**रदा सावयकार हांचो जल्म 30 मार्च 1935 दिसा सावय वेरें, फोंडें, गोंय हांगा जालो. पुर्तुगेजांच्या हुकूमशाय राजवटींत गोंयचो समाज सगळे नदरेन चिड्डल्लो. खास करुन बायलमनीस पुरायेन काळखांत आनी अंधश्रध्देंत घुस्पल्लीं. गोंयच्या बायलमनशेचें कार्य तांच्या घरा मेरेनच मर्यादीत आशिल्लें.

अशी परिस्थिती आसून लेगीत घरगुती मायेक फाट करुन, फुडल्या जिविताची पर्वा करिनासतना, जायत्या बायलांनी गोंयचे सुटके झुंजात वांटो घेतलो, खूब हाल-अपेश्टा सोंसल्यो. तातुंतलीच एक सुटके झुजारी जावन आसा शारदा सावयकार.

फोंडें म्हालांतल्या सावय गांवाची, राष्ट्रीय वृत्ती आशिल्लो गांव म्हूण नामना आशिल्ली. सावयकार कुटुंबान तर गोंयच्या स्वातंत्र झुजांत पुरायेन वांटो घेतिल्लो. आझाद गोमंतक दलाचे मोहन रानडे हांच्या फुडारपणा खाला सावय गांवांत एक केंद्र चलतालें. रानडे गुरुजी दिसाचे शाळा शिकयताले जाल्यार रातचे प्रौढवर्ग चलयताले. तातुंतल्यानच ते लोकांच्या मनांत स्वातंत्राबद्दलचें प्रेम जागयताले. शारदा अशा वातावरणांतच ल्हानाच्यो व्हड जाल्यो.

स्वातंत्र सैनिकां कडल्यान सत्याग्रहींचेर, पुर्तुगेजां कडल्यान जावपी अत्याचाराच्यो गजाली आयकून शारदाचें मन आकूळ पिकूळ जातालें. पिराय ल्हान आशिल्यान कितें करप हाचें मार्गदर्शन नाशिल्लें. पूण जेन्ना तांकां रानडेंचें मार्गदर्शन लाबलें. तेन्ना तांच्या फुडारपणाखाला त्यो सुटके झुजाचो वावर करूंक लागल्यो.

शारदाचो बापूय पुर्तुगेजांचे नोकरेक आशिल्लो म्हूण तांच्या घरांतलो कोणूय मनीस राजकी भानगडी करीत असो मातूय दुबाव नासलो. आनी म्हणूनच रानडे तांच्या घरांत सुसेगाद रावन रातच्या वेळार सुटके झुजाची जोत जागयताले.

एक दीस अचकीत रानडे मास्तर तांच्या घरांतल्यान नाच्च जाले. तांच्या फाटल्यान शाळा बंद पडूं नये म्हूण शारदा आनी रामदास चाफाडकर शाळा चलोवंक लागले. पूण गांवांत कोणेतरी शारदा सभा घेता, स्वतंत्रतायेचे विचार लोकांच्या मनांत रिगयता म्हूण चाडी केली. पुलिसांनी पयलीं तांच्या भावाक धरून व्हेलें. बंदखणींत तांकां सुमारा भायर त्रास दिले.

7 ऑगस्ट 1955 दिसा तांणी इश्टिणी वांगडा सत्याग्रह करपाचो बेत आंखिल्लो. पूण निमणे वेळार तांच्यो इश्टिणी फाटीं सरिल्ल्यान त्यो एकट्योच सत्याग्रह करपाक फुडें सरल्यो. सत्याग्रहाक दोनच दीस उरिल्ले, तेन्ना गांवांत्तलो किस्तोदियो नांवाच्या मनशाचो खून जाल्लो. ताचो आरोप शारदा आनी तांच्या भावाचेर दवरून तांकां धरून व्हेलीं.

ज्या घरांत किस्तोदियोचो खून जाल्लो, त्या घरांत तांकां देड दीस उपाशीं बंद करून दवरलीं. दुसऱ्या दिसा पणजे पुलीस स्टेशनार व्हरून रातचीं 3 वरां मेरेन उबीं दवरलीं. बसप ना, हालप ना. हालल्यार कावल मारी हो मार. (वांटकुळ्या आकाराच्या लोखंडाच्या कुडक्याक पट्ट्यो मारून तयार केल्ली पट्टी).

खुनाच्या आरोपाक लागून दुबावान तांकां धरिल्ल्यान तांणी मरसर मार खाला. तांच्या भावान आनी बापायनय खाला. एक सरकारी नोकर आसून लेगीत रानडे सारख्या क्रांतीकाराक घरांत दवरलो ह्या आरोपा

खाला तांच्या बापयक, शारदाक मेळपाक आयिल्ले वेळार धरून बंदखणींत दवरले.

उपरांत तांकां प्रादेशीक लश्करी न्यायालया मुखार उबी करून न्यायाधिशान तांकां माफी मागूंक लायली. पूण तांणी न्हयकार दिलो. पुलिसांनी तांकां सोडून दिनासताना परत बंदखणीत दवरले. बापूय, भाव आनी त्यो बंदखणींत आसूनय तांच्या घराचेर पुलिसांची कडक नदर आसली.

बंदखणींत शारदान आपल्या हेर वांगड्यांचीं नांवां सांगचीं म्हूण तांकां खूब मार दिला. त्यो नुस्तें खायनासल्यो आनी च्या पियेनासल्यो. म्हणून तांच्या जेवणाच्या ताटांत मुद्दाम नुस्तें घालताले. त्यो फकत दोन पाव उदकांत बुडोवन खाताल्यो.

बंदखणींत आसताना तांच्या नांवाचो गोंदळ जालो. शारदा सावयकारा बदला शरद शिरवयकार अशें नांव जाल्ल्यान अधिकाऱ्यांनी तांची सुटका केली. उपरांत बऱ्याच दिसांनी तांकां तांची चूक कळ्ळी. पूण तेन्ना त्यो गोंयची शीम हुंपून गेल्ल्यो. सुटके झुजाच्या काळांत तांकां सुमार अडेज वर्सां बंदखाणीची ख्यास्त जाल्ली.

जेन्ना गोंय स्वतंत्र जालें, तेन्ना आपणें सोंशिल्ल्या हालअपेश्टांचें चीज जाल्ल्याची खोस तांकां भोगली.

भारत सरकारास ताम्रपाट दिवन तांचो भोवमान केलो.

◆◆◆

# 32. डॉ. बियात्रीस मिनेझिस ब्रागांझ



**डॉ.** बियात्रीस मिनेझिस ब्रागांझ हांचो जल्म 5 नोव्हेंबर 1916 दिसा साश्ट तालुक्यांतल्या चांदर गांवांत जालो. तांच्या बापायचें नांव लुईस द मिनेझिस ब्रागांझ. गोंयचे फाकिवंत देशभक्त तशेंच अन्याया विरुध्द परखडपणान आपले विचार मांडपी निर्भिड पत्रकार. तांच्या बापायन पारतंत्र्याच्या काळखांत जीण सरपी गोंयकार भावा भयणींक स्वतंत्रतायेचो उजवाड दाखोवपाचो यत्न करीन लोकशायेचो संदेश पावयल्लो. बियात्रीसांक सान पिरायेचेर पारतंत्र्य आनी स्वातंत्र्य ह्या विचारांची भुजवण मेळ्ळी.

तांचे शिक्षण एम.एससी., पीएच्.डी. मेरेन जाल्लें. पुर्तुगेज राजवटी विरुध्द लढो दिवपी सुटके झुजाऱ्यां विशीं ताकां काळजांतल्यान अभिमान दिसतालो. गुलामगिरींतल्यान मुक्त जावचे पसत आपले परीन त्यो ह्या सुटके झुजांत वांटेकार जावपाचो सातत्यांत यत्न करताल्यो.

नोकरी आनी फुडलें खाशेलें शिकप करचे पसत त्यो जेन्ना मुंबय रावताल्यो, तेन्ना पुर्तुगेजां विरुध्द झुजचे पसत मुंबयत जेन्ना मोर्चे , मिरवणुको जाताल्यो तातूंत त्यो न चुकता वांटेकार जाताल्यो. गोंयचे सुटके पसत तांकां कळकळ आसताली.

12 ऑगस्ट 1946 त मुंबयत बियात्रीसाच्या फुडारपणाखाला एक

मोर्चोपुर्तुगेज कॉन्सुलेटाचेर व्हेल्लो. टी. बी. कुन्य हांकां धरुन बंदखणींत घाल्ले, ताचो निशेध करचे पसत ह्या मोर्चांचें आयोजन केल्लें.

त्यो 'गोवन युथ लीग' ह्या मुंबय स्थापन जाल्ल्या संस्थेच्यो संस्थापक आसल्यो. गोंय पुर्तुगेजांच्या गुलामगिरींतल्यान जाता तितले बेगीन मेकळें जावचें म्हूण ॲड. जोकीम डायस हांच्या सांगातान तांणी दिल्लींत वचून पंडित जवाहरलाल नेहरूंची भेट घेतली आनी गोंयचो प्रस्न तांच्या मुखार मांडपाचो यत्न केलो आनी गोंयच्या प्रस्ना कडेन तांचें लक्ष आसचें अशी मागणी केली.

जरी त्यो मुंबय आसल्यो तरी नॅशनल काँग्रेस गोंय कडेन तांचो सातत्यान संपर्क आसलो. मदीं कांय तेंप तांकां मुखा वयलें शिकप करचे पसत कॅनेडाक राबितो करचो पडलो. त्यो परदेशांत रावल्यो तरी मांयभुंयेक दिसरल्यो नात. परत मुंबय पावना फुडें त्यो परत देशकार्याक, सुटके झुजाच्या वावराक लागल्यो.

बियात्रीसाच्या तेंपार गोंयची सुटका जावची म्हूण चोंय वटेन वावर सुरू आसलो आनी त्याच खातीर गोवन पीपल्स पार्टीचो जल्म जाल्लो. गोवन पीपल्स पार्टीच्यो बियात्रीस सभासद आसल्यो. ही पार्टी गोंयचे स्वतंत्राये खातीर पोट तिडकीन वावुरताली. गोंय बेगिनांत बेगीन मेकळें जावचें होच हावेस आसलो.

मुंबयतलें फामाद हॉस्पिटल 'टाटा मेमोरियल' हांगा बियात्रीस शिर्वीस करताल्यो. त्या हॉस्पिटलांत एक बऱ्या पैकी शास्त्रज्ञ म्हूण तांणी नांव मेळयलें. 'लेडी टाटा मेमोरियल ट्रस्टाचे' वतीन तांकां रिसर्च (सोद) करचे खातीर शिश्यवृत्ती फावो जाल्ली.

संशोधन करचे खातीर तांकां खुबदां, परदेशांत वच्चें पडटालें. जेन्ना जेन्ना तांकां संशोधन करतना संद मेळटाली तेन्ना तेन्ना त्यो गोंयची राजकी आनी समाजीक परिस्थितीची जाणीव परदेशांतल्या जाणकारां मुखार दवरपाची ती संद वगडाय नासली. जाणकारां कडेन भासाभास करून तांकां गोंयच्या

प्रस्नाचेर विचार करचो म्हूण विनयताली.

5 ऑक्टोबर 1959 त मुंबयत 'गोवन पॉलिटिकल कनव्हेशन' नांवाची पार्टी जल्माक आयली. त्या पार्टीच्यो बियात्रीस वांगडी आसल्यो. त्यो नीज गोंयकार आशिल्ल्यो. तांचो एक ध्यास, एक ध्येय आसलें. गोंय जाता तितलें बेगीन पुर्तुगेजांच्या बंदपासांतल्यान मेकळें जावचें. म्हूण गोंय संबंदीत कसल्या गजालीची निर्मणी जाली म्हणटकच त्यो ताच्यो वांगडी जाताल्यो आनी जाता तितलो आदार करताल्यो. गोंय मुक्त जावचें म्हूण वावुरताल्यो.

गोंय मुक्ती खातीर त्यो ज्योकीम डायस, चंद्रकांत काकोडकार, दिवाकर काकोडकार, जॉर्ज वाझ, जे. एस्. सुखठणकार, बेर्ता मिनेझिस ब्रागांझ हांच्या सांगातान वावुरल्यो.

अश्या तळमळीच्या नीज गोंयकार आशिल्ल्या डॉ. बियात्रीस मिनेझिस ब्रागांझ हांकां 24 मे 1983 दिसा मरण आयलें.

◆◆◆

# 33. लिबिया लोबो सरदेसाय



लिबिया लोबो सरदेसाय हांचो जल्म 25 मे 1925 दिसा पर्वरी, बार्देस हांगा जालो. ताचें मुळावें शिक्षण गोंयांत तर फुडलें सगळें शिक्षण मुंबयत जालां. तांणी बी.ए.,एल.एल.बी. मेरेन पदवी जोडल्या.

मुंबय तांचें घर क्रॉफर्ड मार्केटा कडेन आशिल्लें. तांचें शिक्षण भायखळ्याच्या कॉलेजींतल्यान जालां. तो काळ भारताच्या परिवर्तनाचो आशिल्लो. म. गांधी, पं. नेहरू, लोकमान्य टिळक, आंबेडकर आनी क्रांतीकारक ह्या सगळ्यांच्या विचारांचो जबरदस्त प्रभाव जनतेचेर आशिल्लो.

ब्रिटिश राजसत्तेक धांवडावन घालचे खातीर 'छोडो भारत', 'दांडियात्रा', बंद, सत्याग्रह, उपास, चरख्याचेर सूत काडप, क्रांतिकारांचें बलिदान, अशे तरेचें नवें पर्व भारतांत निर्माण जाल्लें. क्रॉफर्ड मार्केट परिसर हो चळवळीचो बालेकिल्लो आशिल्लो.

लिबियांचो एल.एल.बी.चो अभ्यास चालू आशिल्लो त्यावेळार तांच्या दोळ्यां मुखारूच ह्यो घडणुको चालू आशिल्ल्यो. आपसूकच तांच्या मनांत गुलामगिरी बद्दल चीड निर्माण जाली. मुळची बंडखोर वृत्ती, तांकां ओगी रावपाक दिना जाली. कायद्याचो अभ्यास पुराय करतां करतांच त्यो 'गोंय यूथ लिगाच्यो' सेक्रेटरी जाल्यो. 1948 ते 1950 मेरेन त्यो 'गोंय यूथ लिगा'च्यो सेक्रेटरी आशिल्ल्यो.

1942 सुरू जाल्ल्या चळवळीचें धगधगतें रूप तांणी लागींच्यान पळयल्लें. खिणांखिणांक जावपी लाठीमार, आर्मांच्या गुळयांचे आवाज, जखमी सुटके झुजाऱ्यांच्यो ॲम्बुलन्सी तांच्या हुजीर धांवताल्यो. मुळांतच धाडसी लिबियांचें मन अत्याचारांच्या विरूध्द पेटून उठ्ठालें. सुरवेक तांणी ऑल इंडिया रेडियोचेर नोकरी धरली.

गोंयकारां मर्दीं जागृताय जावचे खातीर तांणी एका ट्रान्समीटराची थापणूक केली. 'सोडवणेचो आवाज' ह्या नांवाचें लिपचोरयां रेडियो केंद्र, रानांत सुरू केलें. वेळचे वेळार ताज्यो घडणुको, बातम्यो गोंयकारां मर्दीं पावोवपाचें जोखमीचें काम लिबिया आपल्या खडेगांठ आवाजान करताल्यो. पुर्तुगेजांनी जमिनी वयल्यो शिमो बंद केल्ल्यो पूण लिबियांच्या आवाजाक ते बांद घालूंक शकले नात.

सुरवातीक हें गुप्त रेडियो केंद्र कॅसरलॉकाक आसलें. मागीर तें बेळगांवा हालोवचें पडलें. वामन सरदेसाय आनी लिबिया लोबो हीं केंद्र चलयतालीं. हें केंद्र तांणी गोंय पुर्तुगेजांच्या गुलामगिरींतल्यान मेकळें जाय मेरेन चलयलें.

गोंय मेकळें जातकच तांणी भारत सरकाराच्या परराष्ट्रीय मंत्रालयांत काम केलें. खास करून युद्धबंद्याच्या अदलाबदलीचें काम. 1962 ते 1968 ह्या कार्यकाळांत तांणी गोंय पर्यटन खात्याच्यो पयल्यो संचालिका जावपाचो मान मेळयलो. ह्या कालावधींत तांणी गोंय हें एक बऱ्यांतलें बरें पर्यटन स्थळ जावचें म्हूण खूब कश्ट घेतले आनी भारताच्या नकाशाचेर बरें पर्यटन केंद्र म्हूण नामना मेळयली.

स्वतंत्र वकिली करचे खातीर तांणी सरकारी नोकरी सोडली. गोंयांतली 'बायल वकील' म्हणून तांणी खूब नामना जोडली. बायलांचीच अशी सहकारी बँकेची तांणी थापणूक केली आनी सतत सात वर्सां तांणी अध्यक्ष म्हूण कार्य केलां.

1983 वर्सा प्राग हांगा जाल्ले 'शांतताय परिशदेक' गेल्ल्या भारतीय प्रतिनिधी मंडळाच्यो त्यो वांगडी आसल्यो. 1985 त 'एन.जी.ओ. फोरम

85' त हाजीर रावपी भारतीय शिश्टमंडळाच्यो त्यो वांगडी आसल्यो. तशेंच जुलय 1985 त नेरोबी हांगा भरिल्ल्या संयुक्त राष्ट्रसंघाच्या दशक परिशदेकय त्यो हाजीर राविल्ल्यो.

तांणी आपणाक पुराय तरेन समाजीक कार्याक व्हांवून घेतिल्लें. राज्य पातळी वेल्या गिरायक समिती, गिरायक सल्लागार समिती, संघ प्रदेशांतली बंदखणीची पळोवणी, कांय सुचोवण्यो करपी समिती नेमिल्ली तांची त्यो वांगडी आसल्यो. त्या शिवाय अखिल भारतीय महिला परिषद (गोंय फांटो), गिरायक मार्गदर्शन संस्था (गोंय फांटो), हांच्योय त्यो अध्यक्ष आसल्यो.

◆◆◆

# 34. नागेश करमली



**ना**गेश करमलींचो जल्म 5 फेब्रुवारी 1933 वर्सा काकोडें, केपें हांगा जालो. तांच्या बापायचें नांव रामदास माधव नायक करमली. तांणी मुळावें शिक्षण मराठी आनी पुर्तुगेज भाशेंतल्यान घेतलें. ते खण उद्योगांत नोकरी करताले. उपरांत 1962 वर्सा तांणी कामगार चळवळींत वांटो घेतलो. 1966 वर्सा सावन आकाशवाणीच्या पणजी केंद्राचेर 'स्टाफ आर्टिस्ट' म्हूण नोकरी केली आनी 1991 वर्सा ते आकाशवाणीचे सेवेंतल्यान निवृत्त जाले.

तांकां भुरगेपणांतच शिकता आसतना साहित्याची गोडी लागली. कविवर्य बाकीबाब बोरकार हांचें मार्गदर्शन तांकां मेळ्ळें. तेच परीं शणै गोंयबाबांची बरपावळ वाचून तांकां कोंकणी भक्तीचो दिश्टावो जालो. 1952 वर्सा कोंकणीच्या वावरा कडेन तांचो संबंद आयलो. तातुंतल्यानच फुडें तांणी गोंयचे सुटके चळवळींत वांटो घेतलो.

'राष्ट्रीय कॉंग्रेस-गोंय' हे संघटने वरवीं दक्षिण गोंयांत सुटके चळवळीचो प्रचार करपांत तांचो म्हत्वाचो वांटो आसा. सुटके झुजारी 'अॅन्थनी ऊर्फ टॉनी द सौझ' हांच्या मार्गदर्शनाखाला तांणी 1952 वर्सा सावन लोकांच्या मनांत पुर्तुगेज राजवटी आड जाग हाडपाक जायतो वावर केलो.

16 सप्टेंबर 1954 दिसा गोंयांत 'तेरेखोल दीस' मनोवपाचें थारायल्लें, ह्या निमतान 15 सप्टेंबर दिसा रिवण ह्या वाठारांत भूंयगत वावर करता आसतना पोलिसांनी तांकां धरले. लश्करी कोर्टान तांकां धा वर्सां खर बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ते भायर 15 वर्सां खातीर तांचे राजकी हक्क काडून घेतले.

ते रेईश मागूश बंदखणींत आसतना, थंय बंदखणींतल्या स्वातंत्र्य झुजाऱ्यांचें कोंकणी अभ्यास मंडळ घडोवन 'जोत' नांवाचें हाताळें चलयलें. बंदखणींत तांणी चार वर्सां आठ म्हयने आनी दोन दीस ख्यास्त भोगतकच 17 मे 1959 दिसा ख्यास्त सोंपचे आदीच तांची आग्वादचे बंदखणींतल्यान सुटका जाली. उपरांत गोंय सुटके मेरेन तांणी वेगवेगळ्या रूपांत मुक्ती चळवळीचो वावर केला.

तांणी फाटल्या चाळीस वर्सां वयर कोंकणीचे उदरगतीखातीर बरोवपी, वावुरपी आनी संघटक म्हूण वावर केला. ते कोंकणी भाशा मंडळाचे एक संस्थापक वांगडी जावन आसात.

गोंयांतल्या 'ललितक' ह्या साहित्य दर्शनाचे कार्यावळीचे ते प्रवर्तक आसात. तांकां कोंकणी भाशे वांगडाच मराठी, हिंदी, इंग्लिश आनी पुर्तुगेज ह्यो भासो येतात.

कोंकणी पाठ्य पुस्तकां तयार करपाचे नदरेन गोंय माध्यमीक आनी उच्च माध्यमीक शिक्षण मंडळ, तेच परी गोंय राज्य शिक्षण संस्थेच्या वावरांत तांणी वांटो घेतला. गोंय सरकाराच्या गॅझेटियर संपादक मंडळाचे ते वांगडी आसात. गोंयच्या स्वातंत्र्य सैनिक चरित्र कोशाच्या संपादन वावरांत तांचो वांटो आसा.

तांणी कोंकणी आनी मराठी भासांतल्यान वेगवेगळ्या तरांचें बरोवप केलां. तातूंत काव्य हो प्रकार मुखेलपणान केळयला. आकाशवाणी खातीर तरेकवार बरपावळ रचल्या.

तांचे 'जोरगत' (1979), 'सांवार' (1979), 'वंशकुळाचें देणें' (1989) अशे कविता झेले उजवाडाक आयल्यात. तांणी आद्य रंगाचार्य

हांच्या ‘केळु जनमेजया’ नाटकाचो आनी मोहन राकेश हांच्या ‘आधेअधुरे’ ह्या नाटकाचो कोंकणी अणकार केला.

1972 वर्सा भारतीय स्वातंत्र्याच्या रूप्या उत्सवी वर्सा निमतान भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन तांचो गौरव केला.

तांच्या ‘जोरगत’ ह्या कविता झेल्याक कोंकणी भाशा मंडळ आनी गोंय कला अकादमीचे राज्य, साहित्य पुरस्कार मेळ्ळ्यात. 1983 वर्सा कुडचडें हांगा जाल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलनाचे ते येवकार अध्यक्ष आशिल्ले.

1992 वर्सा तांच्या ‘वंशकुळाचें देणें’ ह्या कविता झेल्याक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जाला. तांणी सातत्यान कोंकणी सरस्पतीची सेवा केल्या ताचोच हो भोवमान अशें म्हणल्यार अतिताय जावंची ना.

नागेश करमलींनी पुर्तुगेजांचो शेक, सामाजीक अन्याय, असमानताय, अज्ञान आनी ढोंगां हांचे आड जायतें बरप केलां. तांच्या कवितांनी साबार विशय पळोवंक मेळ्ळे तरी तांच्यो चडश्यो कविता बंडांचेर आदारून आसतात. ते म्हणटात जेन्ना जागृताय आयली तेन्ना उतरांनी उज्याचें स्वरूप घेतलें.

जाण्टे पिरायेर लेगीत तांच्या आंगांत आदले वरींच जिद्द आनी उर्बा आसा जी तांकां आयज लेगीत अन्याया विरूद्ध झुजपाक प्रेरणा दिता.

◆◆◆

# 35. पीटर आल्वारीस



**पी**टर आल्वारीस हांचो जल्म 31 मार्च 1908 दिसा पर्रा बार्देस हांगा जालो. तांच्या बापायचें नांव आगुस्त जॉन व्हिसेंत आल्वारीस. भारताचेर इंग्लिश राज्य करताले आनी तांकां भारतांतल्यान धांवडावचे खातीर तरणाटे जिवाची पर्वा करिनासतना स्वातंत्र्याच्या झुजांत वांटेकार जाताले.

घरदार, संवसार, नोकरी सगळें सोडून समर्पित भावनेन, एकच ध्येय सामकार दवरून तरणाटे भारताचे सुटके झुजांत वांटो घेताले. तांतुतलेच एक पीटर आल्वारीस आसले. तांणी पोर्ट ट्रस्ट ऑफ इंडियाची नोकरी सोडली आनी सुटके झुजांत वांटेकार जाले.

1942 वर्सा भारत देश स्वतंत्रतायेच्या प्रेरणेन पेटून उठिल्लो आनी भारतभर 'भारत छोडो' आंदोलनाक सुरवात जाल्ली. तेन्ना पीटर आल्वारीसांनी त्या आंदोलनांत भाग घेतिल्लो. चळवळींत वांटेकार जाल्ले म्हणून तांकां दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त जाल्ली.

'ग्रेट इंडियन पेनिनस्यूलर' (GIP) रेल्वे पंचायत आनी हेर भारतीय रेल्वेच्या संघटनाचे ते संस्थापक आशिल्ले. 1956 वर्सा नागपुरांत भरिल्ल्या अधिवेशनांत 'अखिल भारतीय रेल कामगार महासंघ' (All India

railwaysmen's Federation) हाचे सहाय्यक सरचिटणीस म्हूण तांची नेमणूक जाली, उपरांत ते अध्यक्ष जाले.

मुंबय सावन उजवाडाक येवपी 'जनता' ह्या समाजवादी सातोळ्यांत तांचें बरप उजवाडाक आयलां. ताचें चडशें बरप अर्थिक घडणुकांचेर आशिल्लें. 1949 वर्सा ते मुंबय विधानसभेंत पयले 'ट्रेड युनियन फुडारी' म्हूण वेंचून आयले.

फुडें ते 'इंडियन नॅशनल काँग्रेसींत' आयले आनी 'काँग्रेस सोशलिस्ट पार्टी' पंगडाचे वांगडी म्हूण वेंचून आयले. 1953 ते 1955 मेरेन ते 'नॅशनल काँग्रेस' – गोंय संघटनेचे उपाध्यक्ष आशिल्ले. गोंय सत्याग्रह चळवळीच्या निमण्या काळांत, तांणी थापणूक केल्ल्या गोंय विमोचन सहाय्यक समितीक लागून भौजन समाजाक जाग आयली.

पीटर आल्वारीसांच्या फुडारपणाखाला नॅशनल काँग्रेसीन (गोंय) वेळ व्हगडाय नासतना सत्याग्रह चळवळीचो निर्णय जाहीर केलो. 15 ऑगस्ट 1954 दिसा तांणी सत्याग्रह चळवळ सुरू केली.

गोंय विमोचन समिती स्थापन केल्ल्यान लोकांचेर प्रभाव पडलो आनी गोंयचे सुटके खातीर लोक रातयांत सत्याग्रही जाले. 15 ऑगस्ट 1955 दिसा सत्याग्रहांत वांटो घेवंक तांणी सगळ्या भारत देशांतल्यान पांच हजार सत्याग्रहींक एकठांय केले. 26 जानेवारी 1955 दिसा तांणी सत्याग्रही लोकांचो पंगड घेवन कॅसलरॉक वाठारांत सत्याग्रह केलो.

तांच्या फुडारपणाखला 'गोंय विमोचन समितीचें' अधिवेशन पुण्या जालें. आनी व्हड प्रमाणांत गोंयांत सत्याग्रही घुसोवपाचेर चर्चा जाली. स्वयंसेवकांनी स्वताचे मान्यतायेन गोंयांत भितर सरपाचें थारायलें आनी थारायल्ल्या प्रमाण कॅसलरॉक वाठारांत सत्याग्रह घडोवन हाडलो.

ह्या सत्याग्रहाक लागून पुर्तुगेज पुलिसांनी तांचेर आरोप दवरले आनी तांकां अठरा वर्सां बंदखणीची खर ख्यास्त फर्मायली. पूण आपूण पोर्तुगीजांच्या हातांत सांपडचो न्हय म्हूण ते गोंयांतल्यान पळून गेले आनी तांणी पुरायपणान संयुक्त महाराष्ट्र चळवळींत वांटो घेतलो.

गोंयचे सुटके उपरांत 1966 वर्सा जाल्ले पयले वेंचणुकेंत उत्तर गोंयचे खासदार म्हूण ते वेंचून आयले. जय प्रकाश नारायण हांच्या 'जनता' चळवळींची स्फूर्त घेवन तांणीं बिहारचे चळवळींत व्हडा उमेदीन वांटो घेतलो.

पीटर आल्वारीसांक 6 मे 1975 दिसा मरण आयलें. 18 जून 1984 दिसा गोंय सरकारान तांचो मरणोत्तर भोवमान केलो.

◆◆◆

# 36. कुमुदिनी दामोदर कवळेकार



कुमुदिनी कवळेकार हांचें आदलें नांव कुमुदिनी पैंगिणकार. तांचो जल्म 20 डिसेंबर 1936 दिसा पुण्यांत जालो. तांणी माध्यमीक शिक्षण मराठींतल्यान घेतलें. कांय काळ तांचो राबितो कारवार हांगा गेला. कारवाराक आसतना राष्ट्रसेवादला कडेन तांचो संबंद आयलो.

दिसांचो जोर आयिल्ल्यान सुसेग घेवपाखातीर त्यो मुंबयच्यान तांच्या मूळगांवा म्हणजे काणकोण तालुक्यांतल्या पैंगीण गांवांत आयिल्ल्यो. तेदेवेळार म्हणजे 1955 वर्सा पैंगीणचे खुबशे लोक गोंयच्या मुक्ती लढ्या कडेन आकर्शित जाल्ले.

सर्गेस्त विठ्ठल लोलयेंकार हांणी कुमुदिनीक गोंयचे चळवळींत वांटेकार जावंचे म्हूण विनंती केली. तेदेवेळार त्यो तांच्या मामांगेर रावताल्यो. तांच्या मामाक कुमुदिनीन चळवळींत वांटेकार जावप मानवलें ना. आनी 17 फेब्रुवारी 1955 दिसाच्या सत्याग्रहांत वांटो घेवपाचो आपलो विचार बदल्लो.

वयलेचाराक तांणी मामांक भासयलें की त्यो गोंय चळवळींत वांटेकार जावंच्यो नात पूण भितरल्यान तांचे प्रयत्न चालूच आशिल्ले. 6 एप्रील 1955 दिसा सुटके झुजारी सुधाताई जोशी हांच्या फुडारपणाखाला म्हापशें वाठारांत सत्याग्रह जाल्लो तातूंत तांणी वांटो घेतलो.

6 एप्रील 1955 दिसा जाल्ल्या सत्याग्रहांत तांकां सोंपेपणी वांटेकार जावपाक मेळूंना. स दिसा पयलीं त्यो मामाल्या घरांतल्यान भायर सरल्यो. लोलयें हांगा येवन सर्गेस्त विठ्ठल लोलयेंकार हांकां मेळ्ळ्यो. तांणी बोवाळ करिनासतना कुमुदिनीक बेबीताई नांवाच्या शिक्षिकेकडेन व्हरून दवरली. थंय तांकां शालिनी लोलयेंकार ह्यो मेळ्ळ्यो.

शालिनी आनी कुमुदिनीक मनोहर प्रभूनी आडमार्गान रानांतल्यान कांट्या-कुट्यांतल्यान कर्नाटक राज्याच्या हद्दींत माजाळीं पावयलीं. गोंयच्या ह्या शिमांचेर त्या वेळार 'नॅशनल कॉंग्रेस गोंय' चें ऑफिस आशिल्लें. त्या रातीं माजाळी रावून दुसऱ्या दिसा सकाळीं सर्गेस्त लोलयेंकार शालिनी आनी कुमुदिनी आनी हेर कार्यकर्ते मेळून बेळगांवा गेले.

बेळगांवच्या कार्यालयांत हजेरी लावन त्यो रोखड्योच मणेरीच्या शिबिरांत वांटेकार जाल्यो. ह्या शिबिरांत गोंयांत खंयच्यान भितर सरप, पुलिसांनी धरल्यार कश्योय जापो दिवन मारामारी जाली जाल्यारूय सत्याग्रहींनी फाटीं सरप ना, हाचे विशीं खोलायेन सगळ्या सत्याग्रहींक शिटकावणी दिली. स्वता पीटर आल्वारीस, महादेव शास्त्री जोशी हांणी सत्याग्रहींक मार्गदर्शन केल्लें.

ह्या मार्गदर्शनाच्या आदारान कुमुदिनीन आपल्या सांगात्याच्या आदारान सुरवेक जिपीन आनी उपरांतचो प्रवास रानांतल्यान, दोंगरांतल्यान केलो. काळोख जातकच तांणी दोंगर हुंपून म्हापशें गांवांत पावल दवरलें आनी अशे तरेन 6 एप्रील 1955 दिसाच्या सत्याग्रहांत त्यो वांटेकार जावूंक पावल्यो.

पुर्तुगेज पुलिसांनी तांकां अटक केली. दोन म्हयने बंदखणींत दवरून उपरांत तांची सुटका केली. बंदखणींतल्यान सुटका जातकच त्यो परत्यो राष्ट्रीय कार्यांनी वांटो घेवंक लागल्यो. रोखडीच पुलिसांनी तांकां परत अटक केली आनी आठ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली.

पणजी, केपें आनी मडगांव हांगाच्या बंदखणींत चार वर्सां ख्यास्त भोगतकच 19 ऑगस्ट 1959 दिसा तांची बंदखणींतल्यान सुटका जाली.

उपरांत कारवार जाल्ल्या सेवादलाचे चळवळींत तांणी वांटो घेतिल्लो.

कुमुदिनी बंदखणींत गेल्ल्यो तेन्ना तांणी चिंतूंक नाशिल्लें की आपल्या जिवीतांत गोंय मेकळें जाल्लें पळोवंक मेळटलें म्हण. पूण तांकां तांच्या नशिबान मेकळें जाल्लें गोंय पळोवंक मेळ्ळें. बंदखणींतल्यान सुटका जातकच तांचें लग्न श्री. दामोदर कवळेकार, पेशान शिक्षक आनी तांचो स्वातंत्र्य चळवळीकडेन लागींचो संबंद आशिल्लो एक वांगडी हांचेकडेन जालें.

गोंयचे सुटके उपरांत आकें ग्रामपंचायतीच्यो वांगडी पंच म्हूण त्यो वेंचून आयिल्ल्यो. 1976 वर्सा मडगांव नगरपालिकेंत नगर सेविका म्हूण त्यो वेंचून आयल्यो. सार्वजनीक कामांत तांकां मनापासून आवड आशिल्ली.

भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन तांचो भोवमान केलो. 18 जून 1982 ह्या दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या तांच्या वावराचो भोवमान केलो.

अशे हे गोंयच्या स्वातंत्र्य झुजांतले कर्तृत्वान अस्तुरेक 11 ऑगस्ट 2003 दिसा देवाचें आपोवणें आयलें.

◆◆◆

# 37. सुधाताई महादेव जोशी



सुधाताई जोशी हांचो जल्म 14 जानेवारी 1919 दिसा प्रियोळ, फोंडें हांगा जालो. तांचें कुळाराचें नांव फडके आसलें. प्रियोळ आनी आशिकुशीचो वाठार नाल्ल, सुपारी आनी कुळागरांनी भरिल्लो. हांगाच्या मनशांनी परंपरागत कुळागर संस्कृती जपल्या. मंगेश, म्हाळसा, शांतादुर्गा, नागेश, रामनाथ, महालक्ष्मी, गोपाळ गणेश ह्या देव-देवतांचो हो पवित्र वाठार, भजन, किर्तन आनी देवळांतल्या घाटींचो म्होंवाळ आवाज अशा सोबीत, मन भुलवणे वातावरणांत सुधाताईंचो जल्म जालो. अशें आसून लेगीत तांणी घरकारांचे प्रेरणेन मुक्तीसंग्रामांत वांटो घेतलो.

पीटर आल्वारीस हांच्या अध्यक्षताये खाला, मुंबयत 'नॅशनल गोवा काँग्रेस'ची थापणूक जाल्ली आनी ताचीच शाखा पुण्यांत जाल्ली. महादेव शास्त्री जोशी हांचो जल्म जरी पुराणीक घरांत जाल्लो तरी तांचो मूळ पिंड लेखकाचो आसलो. अश्या ह्या विचारवंताच्या पुण्याच्या घरांत गोंयच्या स्वातंत्र्या विशीं चर्चा जाताली. सुधाताईचे घरकार महादेव शास्त्री स्वातंत्र्य संग्रामांत सामील जाल्ले आनी गोंयाक बेगीन स्वातंत्र्य मेळचें म्हणून वावुरताले.

दोडा मार्गार वचून, शीमेचेर, सत्तरी वाठारांतल्या तरणाट्यांक एकवटीत करून तांच्या मनांत स्वातंत्र्यज्योत पेटोवपाचें काम सुरू जाल्लें. शीमेवयल्यान

मेळिल्ले प्रेरणेन गोंयांतले धडाडिचे तरणाटे स्वातंत्र्य संग्रामांत उडी घेताले..

जेन्ना सत्याग्रह करपाचो थारलो, तेन्नाच महादेव शास्त्रीचें ऑपरेशन जाल्लें. तांकां सत्याग्रहांत खंयच्याय परिस्थितींत वांटेकार जावप शक्य नासलें आनी म्हणून आपल्या घरकाराचो सत्याग्रहांतलो वांटो उखलचे खातीर सुधाताई मुखार सरल्यो. गोंय काँग्रेसच्या वांगड्यांनी तांच्या निर्णयाचें स्वागत केलें.

सुरवातीक त्यो 'नॅशनल काँग्रेस, गोंय' संघटनेच्यो वांगडी आसल्यो. 1955 वर्सा त्यो ह्या संघटनेच्यो अध्यक्ष म्हूण वेंचून आयल्यो. 6 एप्रील 1955 दिसा, नॅशनल काँग्रेस, गोंय हे संघटनेचें म्हापशां वाठारांत सत्याग्रहींनी अधिवेशन आयोजीत केल्लें. सुधाताई गोंयांत्त येवपाच्यो आसात म्हणपाच्यो बातम्यो गोंयांत पाविल्ल्यो. गोंयचे हद्दींचेर कडक पारो दवरिल्लो, तशेंच रस्त्यांचेरय बंदोबस्त आशिल्लो.

अशेय परिस्थितींत सुधाताई, ह्या अधिवेशनांत वांटेकार जावचे पसत सुटके झुजारी अंबिकाबाई दांडेकार हांचे वांगडा भायर सरल्यो. पीटर आल्वारीस, नानासाहेब गोरे, भाऊसाहेब रानडे आनी घरकाराचो निरोप घेवन, सांगाताक दोन गोंयकार वाट दाखोवपी तरणाटे तांच्या सांगातान लिपचोरयां शीम हुपून त्यो साखळे मार्गान म्हापश्यां पावल्यो.

6 एप्रील दिसा म्हापश्यां मारूती मंदिरांत हनुमान जयंती आशिल्ल्यान लोकांची गर्दी आशिल्ली. पुर्तुगेज शिपाय नदर दवरून आशिल्ले. तरी लेगीत केन्नाकच सुधाताई, वांगडा बायल सत्याग्रही शालीनी लोलयेंकार, कुमुदिनी, अंबिकाताई दांडेकारां बरोबर आयल्यो त्योच स्टुलार चडल्यो आनी अधिवेशनाक सुरवात जाली. तांणी आपलें भाशण सुरू लेगीत केलें.

हें सगळें इतलें अचकीत घडलें – तें पुर्तुगेज शिपायांक कळ्ळें लेगीत ना. सुधाताईचें भाशण चालू जातनाच पुर्तुगेज शिपायांनी येवन तांकां हेर सत्याग्रहीं वांगडा धरलीं त्या बरोबर वांगडच्या सत्याग्रहींनी आपापले तिरंगे बावटे वयर काडले आनी 'जय हिंद' म्हणून घोशणा दिवपाक सुरू केल्यो.

सुधाताईक पुर्तुगेज शिपायांनी धरले उपरांत सुरवेक तांकां म्हापश्यां आनी मागीर पणजेच्या बंदखणींत दवरलीं. त्या उपरांत पुर्तुगेज सरकाराच्या प्रादेशीक लश्करी-न्यायालया (टेरिटोरियल मिलिटरी ट्रिब्युनल) मुखार चवकशे उपरांत्त तांकां धा वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. ते भायर दंड भरूंक लायलो वा दंड भरपाये बदला आनी दोन वर्सां बंदखणीची ख्यास्त दिली.

सुधाताईक धरिल्ल्यान सगळ्या देशभर बोवाळ जाल्लो. तांणी चार वर्सां मडगांव आनी मागीर केपेंच्या बंदखणींत ख्यास्त भोगली.

16 मे 1959 दिसा बंदखणींतल्यान तांची सुटका जाली. मजगतीं गोंय पुर्तुगेजांच्या गुलामगिरींतल्यान मेकळें जालें. सुधाताईक राजकारणांत देंवपाची संद आशिल्ली पूण देशाक गरज आशिल्ली तेन्ना जिवाची आनी घर-संवसाराची पर्वा करिनासतना तांणी आपलें कर्तव्य पुराय केल्लें देखून फुडलें जिवीत तांणी आपल्या कुटुंबाक ओंपलें.

1974 वर्सा भारत सरकारान ताम्रपत्र दिवन तांचो भोवमान केलो. 18 जून 1982 दिसा गोंय सरकारान सुटके झुजांतल्या तांच्या वावराचो भोवमान केलो.

◆◆◆

# 38. डॉ. पांडुरंग बाबी जांबावलीकार

**डॉ.** पांडुरंगबाबी हांचो जल्म 7 फेब्रुवारी 1915 दिसा जांबावली, केपें हांगा जालो. तांणी मेदीकू शिरूर्जियांव (Medico Chirurgiao) ही वैजकी शास्त्राची पदवी घेतली. तेच परी मुंबय वचून तांणी उच्च पदवेचें शिक्षण घेतलें.

1930 वर्सा शिवाजी युवक संघाचे वांगडी जावन तांणी समाजीक वावर करूंक सुरवात केली. 23 डिसेंबर 1933 वर्सा थापणूक जाल्ल्या 'उनियांव अकादेमीका (Uniao Academica) हे विद्यार्थी संघटनेचे ते संस्थापक वांगडी आसले. 1939 वर्सा गोंयच्या 'गोवा कॉंग्रेस कमिटी' (मुंबय) हे संघटनेचे ते वांगडी जाले.

1942 त मुंबय जाल्ले पुलिसांचे फारपेटींत राष्ट्रवाद्यांक बरीच दुखापत जाल्ली. तेन्ना दोतोरांचो पंगड घेवन डॉ. पांडुरंग तांकां आदार दिवंक गेल्ले. आर्चबिशप डॉ. जुजे द कॉश्त नुनिश हांणी गोंयकारां विशीं वायट उतरां काडलीं. ताचे आड निशेद करपाक तांणी 1943 वर्सा पणजे शारांत गोंयच्या हिंदूंची मिरवणूक घडोवन हाडली.

पांडुरंग पी. शिरोडकार हांच्या फुडारपणाखाला 1943 वर्सा जूनांत तांणी हत्यारबंद हल्लो करपाचो कट रचिल्लो. तातूंत तांणी गोंयकार शिपायांच्या आदारान 'पियलो द तांबडी माती' (Piola do Tambdi Mati) ह्या नेमाळ्याच्या कचेरेक उजो लावपाचें थारायल्लें. पूण हो कट भायर फुटिल्ल्यान तांकां बेळगांव वचून लिपचें पडलें.

बेळगांवां रावन ते गोंयचे सुटके खातीर वावर करूंक लागले. 1946 वर्सा ते 'महाराष्ट्र एकीकरण समितीचे' सरचिटणीस आशिल्ले. 1947 वर्सा मुंबय गोंयचें जें पयलें राजकी अधिवेशन भरिल्लें तातूंत तांणी वांटो घेतिल्लो.

1948 वर्सा तांणी दत्तात्रय व्यंकटेश पै हांणी संपादन केल्लें 'विकास' नांवाचें मराठी सातोळें उजवाडाक हाडलें. 1949 वर्सा ते 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचे बेळगांव कमिटीचे अध्यक्ष जाले. 4 आनी 5 जून 1949 दिसा बेळगांव नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचें जें अधिवेशन भरिल्लें तातूंत ते येवकार अध्यक्ष आशिल्ले. 1950 वर्सा संयुक्त महाराष्ट्र परिशदेच्या दक्षिण विभागाचे चिटणीस म्हूण ते वेंचून आयले.

जून 1950 वर्सा गोमंतक मराठी साहित्य संमेलनाचे चिटणीस ह्या नात्यान तांणी बेळगांव हांगा अधिवेशन आयोजित केलें. 1950 वर्सा ते 'नॅशनल काँग्रेस गोंय' संघटनेचे काँग्रेस कार्यकारी कमिटीचे वांगडी जाले. 26 आनी 27 मे 1950 वर्सा तांणी लोंढा हांगा हे संघटनेची दुसरी परिशद आयोजीत केल्ली.

जुलय 1950 त, दिल्ली हांगा भरिल्ले नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेच्या तीन सदस्य समितीचे ते वांगडी आसले. ऑक्टोबर आनी नोव्हेंबर 1950 त तांणी विश्वनाथ एन. लवंदे हांच्या आदारान आरोंदा ते माजाळे (कारवार) हांगा बसका घेतल्यो आनी सत्याग्रहांत वांटो घेवंक लोकांक स्फूर्त दिली.

फ्रांस आनी पुर्तुगालच्यो वसाहती. ज्यो भारतांत आशिल्ल्यो, तांचे एकात्मतेचो पुरस्कार करपी पक्षांचे जोड परिशदेक ते 20 मे 1951 दिसा हजर राविल्ले.

1951 वर्सा नॅशनल काँग्रेस गोंय संघटनेचे कार्यकारी कमिटींत डॉ. काशिनाथ संजगिरी हांच्या अध्यक्षपणा खाला ते सरचिटणीस जाले. मुंबय, बेळगांव, गोंयचे शिमेलागसार आशिल्ल्या वाठारांनी, गोंयचे सुटके खातीर ते वावरत आसताले. गोंयची गुलामगिरी आनी पुर्तुगेजांचे अत्याचार, जुलूम कितले तेंगशेक पावल्यात हाच्यो काळजाक पीळ पडपी देखी लोकां

सामकार दवरताले.

चडांत चड सत्याग्रही जावचे आनी गोंयची मुक्ती करपाक वावुरचें म्हूण ते तळागाळांत वावरून लोकां मदीं स्फुर्त निर्माण करताले. हें कार्य करतना ते आपलो वैजकी वेवसाय सांबाळटाले. वैजकी वेवसाय म्हणजे परस तांची वैजकी सेवाच चड जाताली.

तांणी तशेंच तांच्या सांगात्यांनी आपापले परीन केल्ल्या यत्नाक येस आयलें आनी 19 डिसेंबर 1961 दिसा गोंय मुक्त जालें.

गोंय सुटके उपरांत 'गोमंतक भाशा परिशद', 'महाराष्ट्र एकीकरण समिती', 'गोमंतक मराठा समाज' ह्या संस्थां कडेन तांचो संबंद आशिल्लो. बेळगांव सावन उजवाडाक येवपी 'तरूण भारत' ह्या नेमाळ्या खातीर ते बरप करताले.

18 जून 1984 दिसा गोंय सरकारान तांच्या सुटके झुजांतल्या वावराचो भोवमान केलो.

◆◆◆

# 39. लुईस द मिनेझीस ब्रागांझ



लुईस द मिनेझीस ब्रागांझ हांचो जल्म 15 जानेवारी 1878 दिसा, चांदर-साश्ट, हांगा जालो. ते एक खांपे सुटके झुजारी तशेच पत्रकार, प्रागतिक विचारवंत आशिल्ले. तांच्या बापायचें नांव जुव्हेनियान मिनेझीस. ते वकील आशिल्ले. पूण लुईसाच्या भुरगेपणांतूच तांच्या बापायक मरण आयिल्ल्यान तांचे आवयन तांकां फावो तें शिक्षण दिलें.

तांचें मुळावें शिक्षण पुर्तुगेज भाशेंतल्यान म्हापशें शारांत सुरू जालें. मुखा वयलें शिक्षण तांणी रायतूरचे मिशनरी सेमिनारींत घेतलें. थंय तांणी तत्वगिन्यान आनी कॅथलिक धर्मतत्वांचो अभ्यास केलो. उपरांत लिसेवार उंचेले शिक्षण उच्च श्रेणींत पुराय करून तांणी पणजे आशिल्ल्या वैजकी विद्यालयांत प्रवेश मेळयलो.

ते मुळांतूच हुशार आशिल्ल्यान थंय तांकां बरें येस मेळपाक लागलें. पूण पयल्याच वर्सा तांची भलायकी इबाडिल्ल्यान तांकां वैजकी शिक्षण अर्धार सोडचें पडलें. ह्या काळांत तांणी अर्थीक, समाजीक, राजकी, तत्वीक विद्या, साहित्य आनी विज्ञानाचो खोलायेन अभ्यास करून दरेका वेळा वयले नवे नवे विचार आत्मसात केले. कोंकणी आनी पुर्तुगेज भाशां खेरीज तांकां इंग्लिश, फ्रेंच, मराठी भाशाय बेसबऱ्यो येताल्यो.

पिरायेच्या पंचविसाव्या वर्सा सावन तांणी आपल्याक पत्रकार ह्या नात्यान भौशीक जिणेंत ओंपून घेतलो. 'नासिओनालिश्त' नेमाळ्यांतल्यान ते आपले स्वतंत्र नवे-नवे विचार मांडपाक लागले. भारतीय संस्कृतीचें अधिश्ठान आशिल्ल्या गोंयचे संस्कृतीची वळख करून दिवप आनी हे वळखीवरवींच गोंयकारांच्या मनांत स्वराज्य आनी स्वातंत्र्याचे विचार रूजोवप हें तांणी आपलें मुखेल ध्येय थारायलें आनी ह्या ध्येयाचो प्रचार आनी प्रसार करपा खातीर तांणी सुरवेक 'ऊ हेराल्ड' आनी 1911 त 'उदेबात' हीं पुर्तुगेज पत्रकां सुरू केलीं.

1920 सावन 'ऊ प्रकाश' नेमाळ्यांतल्यान तांचे पुरोगामी विचारांनी भरिल्ले उस्फूर्त अशे लेख उजवाडाक येवपाक लागले. ह्या नेमाळ्यांत तांणी मनीस हक्काचेर तशेंच नागरिकांची पुरायपणान उदरगत जावपा खातीर ती समाजीक, राजकी आनी अर्थीक जुलमां सावन स्वतंत्र आसपाक जाय ह्या विचारांचेर भर दिल्ली.

गोंयकारांच्या राजकी आकांक्षांक आनी अपेक्षांक चालना दिवपाचोय वावर तांणी ह्या नेमाळ्या वरवीं केलो. हाका लागून तांच्या काळांत तांचे इश्ट आनी कांय गोंयकार तांकां सगळ्यांत व्हडलो (Maior de todos) अशें म्हणपाक लागले. जाल्यार भारतांतल्या हेर प्रदेशांनी तांचो 'गोंयचे टिळक' म्हणून उल्लेख जावपाक लागलो. तांणी बरयल्ल्या 'द ओपिनियन ऑफ इनजस्टीस अँड जस्टीस ऑफ ओपिनियन' ह्या पुस्तकांतल्या विचारांवरवीं पुरोगामी आनी स्वातंत्रमोगी लोकांमदीं उमेदीचें वातावरण निर्माण जालें.

प्रखर ध्येयवाद, धर्म निरपेक्षताय, पुरोगामित्व, निर्भयवृत्ती आनी वास्तवताय ह्या गुणांनी परिपुर्ण अशें तांचें लिखाण आसलें. तातूंत विद्वताय, कल्पकताय, योजकताय आनी संवेदनक्षमताय हांचो समेळ आसलो. विचार स्वातंत्र्य हें फकत राष्ट्रीय स्वातंत्र्या पुरतें नासून विश्व सहजिविताची ती सुरवात आसा अशें तांचें मत आसलें. गोंयकारांक वायट वागणूक दिवपी पुर्तुगेज सरकाराचे नितीचो तांणी सदींच निशेध केलो.

मिनेझीस ब्रागांझ 1910-1913 ह्या काळांत तिसवाडी पालिकेचे अध्यक्ष आशिल्ले. पुर्तुगालांतले प्रजासत्ताक राजवटी उपरांत डॉ. कोंसेसांव द कॉश्त हे उदारमतवादी मनीस गव्हर्नर म्हूण गोंयांत आयले उपरांत तांणी ब्रांगाझाक आपलो प्रशासकीय सहाय्यक नेमलें.

प्रोबिशियल कॉंग्रेस गोंय संघटनेचो ते वावुरपी वांगडी आशिल्ले. 1924 त लिश्बोआंत भरिल्ले वसणुके संबंदीच्या अधिवेशनांत तांणी पुर्तुगेज भारताचो प्रतिनिधी म्हणून वांटो घेतिल्लो. 1929 त लाहोर नगरांत भरिल्ल्या हिंदुस्थान कॉंग्रेसीचे राष्ट्रीय सभेंत वांटो घेवन तांणी भारतीय राजकी फुडाऱ्यांकडेन भासाभास केल्ली.

10 जुलै 1938 दिसा तांकां मरण आयलें. तांचे पंचविसावे पुण्यतिथी निमतान 'ऊ इंश्तितुतु वाश्कु द गामा' ह्या नांवान फाटलीं 100 वर्सां अस्तित्वांत आशिल्ले संस्थेचें, 1 जुलय 1963 दिसा 'ऊ इंश्तितुतु मिनेझीस ब्रागांझ' अशें नामांतर केलें.

1965 त ब्रागांझ यादस्तीक समितीन 'Prosas Dispersas' ह्या नांवान ब्रागांझाच्या कांय वेंचीक लेखांचो एक खंड उजवाडाक हाडला.

पणजे इन्स्टीटयूट मिनेझीस ब्रागांझा हे संस्थेच्या प्रवेशदारांत मिनेझीस ब्रागांझाचो अर्दपुतळो आसा.

◆◆◆

# 40. दत्तात्रय आत्माराम देशपांडे



पुर्तुगेजांच्या शेका खाला आशिल्लें गोंय मेकळें जावचें म्हूण, असंख्य सुटके झुजाऱ्यांनी आपापले परीन आदार केल्लो. चडशे जाणांनी आपली तरणी पिराय सुटके झुजाच्या कार्याक ओपल्या. तातुंतलेच एक सुटके झुजारी जावन आसात दत्तात्रय आत्माराम देशपांडे.

तांचो जल्म 27 नोव्हेंबर 1925 दिसा जालो. तांणी एस. एस. सी. मेरेन शिक्षण घेतलें. 'आझाद गोमंतक दल' संघटनेचे ते संस्थापक वांगडी आशिल्ले. 1942-45 ह्या काळांत तांणी 'भारत छोडो' चळवळींत वांटो घेतिल्लो. नेताजी सुभाषचंद्र बोस हांणी स्थापन केल्ल्या 'फॉरवर्ड ब्लॉक' संघटने खातीर 1946 च्या काळांत तांणी बंगाल, बिहार आनी ओरिसा हांगासर वावर केलो.

उपरांत ते गोंयांत आयले आनी माध्यमीक शाळेंत शिकोवंक लागले. जेन्ना डॉ. लोहिया गोंयांत आयले तेन्ना पुराय गोंय धवळून गेलें. इतलो तेंप धगधगपी, घुस्मटपी, स्वतंत्रतायेच्या विचारांक अचकीत चालना मेळ्ळी आनी गोंयचे मुक्तते पासत वावुरपी नेटान फुडें सरले.

डॉ. लोहियांच्या प्रेरणेन 18 जून 1946 ह्या दिसा सुरू जाल्ल्या

सुटके झुजांत दत्तात्रयांनी सक्रीय वांटो घेतलो. एप्रिल 1947 सावन तांणी विश्वनाथ लवंदे, नारायण नायक, प्रभाकर सिनारी हांचे वांगडा 'आझाद गोमंतक दल' संघटने खातीर मोलादीक वावर केलो. म्हापसा आनी पर्वरी हांगा धाडसी क्रांतीकारी वावरांनी तांणी वांटो घेतलो.

डिसेंबर 1947 त पुर्तुगेज पुलिसांनी तांकां धरलें. जेन्ना तांकां प्रादेशीक सरकारी लश्करी न्यायालया मुखार (टेरिटोरियल मिलिटरी ट्रिब्युनल) उबे केले तेन्ना हेर स वांगड्यां सयत तांकां आफ्रिकेची बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. पूण मडगांव, पणजी, आग्वाद आनी रेईश मागुश हांगाचे बंदखणींत आसतना तांकां पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांच्या सुमारा भायर जाचांक तोंड दिवचें पडलें.

बंदखणींतली अपमानाची वागणूक आनी खर जांच हांचे आड विरोध करपाक तांणी 16 दीस उपोशण केलें. हाचेर उपाय काडूंक पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांनी तांकां पिसो थारायलो आनी दोतोरा कडल्यान तसो दाखलो तयार करून घेतलो.

पुर्तुगेजांक विचारपी कोण नासलो. जो कोण तांचे विरूध्द शब्द काडटा ताका बंदखणीची ख्यास्त दवरिल्ली आसताली. सगळी यंणत्रां तांची. समाज तांचे विरूध्द उलोवंक धज नाशिल्लो. आनी म्हणूनच तांकां जाय तशे जाय तेन्ना वागपाक मेकळीक आसली. सामान्यांतलो सामान्य पुर्तुगेज शिपाय कसलींय निती भायलीं कर्तुबां करपाक भिडेनासलो. सरकाराचो ताका पुराय तेंको आसतालो. गुलामगिरी म्हणटात ती कशी आसता हाची जाणविकाय पावलां कणकणी गोंयकार अणभवतालो. आनी हाचो जिवो तट्टीत पुरावो म्हणल्यार उपोशण करपी दत्तात्रया सारक्या सुटके झुजाऱ्याक, दोतोरालो दाखलो घेवन पिसो थारावप. पिसो म्हण थारतकच तांकां पुर्तुगालच्या 'मिंगेल बाँबार्डा' हॉस्पिटलांत दवरलें. ही गजाल 1953 वर्साची.

फुडें 1961 वर्सा गोंय स्वतंत्र जातकच तांची सुटका जाली. एका बरे

कालेतीच्या मनशाक पिसो थारावन पिशांच्या सांगाताक दवरून खऱ्यांनीच तांकां पिसो करपा सारकी ही गजाल. पूण अश्याय परीस्थितींत सुटके झुजारी आपली मानसिकता पिड्ड्यार जावंक दिनासतना मेकळे गोंयचें आशेचेर जियेताले. हॉस्पिटलांत तांणी हेच आशेर दीस काडले.

मेकळे गोंयांत पावतकच तांणी पिडेस्तां खातीर तशेंच कामगारां खातीर वावर केलो. मुरगांव बंदरांत तांणी कामगार संघटना स्थापन केली आनी तांचे खातीर जायत्यो सुविधा मेळोवन दिल्यो. 'गोवा डॉक लेबर युनियन'चे ते अध्यक्ष आशिल्ले. मुरगांव पोर्ट ट्रस्टाच्या विश्‍वस्त मंडळा खातीरय तांणी काम केलां.

तांणी 'इंडियन नॅशनल ट्रेड युनियनचे' संचालक म्हूण तशेंच 'टॅक्सी संघटना' आनी 'नवजिवन संस्थेचे' अध्यक्ष म्हणूनय कांय तेंप काम केलां. गोंय मुक्ती पसत वावुरल्या उपरांत मेकळे गोंयचे सामाजीक प्रस्नूय तांणी हाताळपाचे यत्न केले. अश्या ह्या सुटके झुजाऱ्याक 22 सप्टेंबर 1970 दिसा मरण आयलें

◆◆◆

# 41. लावरा डिसोझा



**गोंयां**त पुर्तुगेजांची राजवट साडे चारशीं वर्सां चल्ली. ताका लागून पाश्चात्य लोकांचे घराबे हांगा आशिल्ले. खूब पुर्तुगेज घराब्यांचे गोंयच्या घराब्यां कडेन लागींचे स्नेह संबंद आशिल्ले. हांगाच्या समाजांत तांचें मिसळप जातालें. म्हणून सभावीकपणान तांच्या धवाड्या वर्तनाचें अनुकरण कांय कॅथोलिक कुटुंबांनी केल्लें.

समाजांत वावुरपाची पध्दतच अश्या कुटुंबांनी बदलिल्लो. आचार, विचार, वाचन, भेसवण आनी भास हाची खेरीय पुर्तुगेज वळणाची छाप गोंयांत त्या वेळार दिसताली. कांय प्रमाणांत अजून लेगीत पुर्तुगेजांचो प्रभाव कांय घराब्यांनी अणभवपाक मेळटा.

अश्याच एका घराब्यांत लावरा डिसौझाचो 8 सप्टेंबर 1923 वर्सा पर्रा बार्देस हांगा जल्म जालो. लावरान पुर्तुगेज संस्कृतीचें बरें तें घेतलेंच, पूण काळजांतल्यान त्यो पुरायपणान गोंयकार आसल्यो. मुळचीच तीव्र बुद्दीमत्ता लाबिल्ली ही अस्तुरी. गोंयचे मुक्ती खातीर जे जे प्रवाह मुंबयत निर्माण जाल्ले ते पुरायपणान समजून घेतले उपरांत त्यो गोंय प्रदेश कॉंग्रेसची क्रियाशील वांगडी जाल्यो.

ताणीं आपलो वैजकी वेवसाय कुशीक दवरून त्यो राजकी आनी

संस्कृतीक क्षेत्रांत सक्रीय वांटेकार जाल्यो. 1952 तल्यान त्यो मुंबय प्रदेश कॉंग्रेस कमिटीच्यो वांगडी आसल्यो. कॉंग्रेसीची विचारप्रणाली, ध्येय-धोरणांचोअभ्यास करतां करतां त्यो महाराष्ट्रांत सगळ्यांक गोंय मुक्ती चळवळीची गरज पटोवन दिताली.

कॉंग्रेसीच्यो एक क्रियाशील वांगडी ह्या नात्यान, कर्तव्यबुद्दीन त्यो मनापसून काम करताल्यो आनी ताचो परिणाम म्हणून जावंये लावरा डिसौझा 1952 त 'नॅशनल कॉंग्रेस गोंय' च्यो अध्यक्ष जाल्यो. ह्या पक्षाची कार्यकारी कमिटीची बसका जावन गोंय मुक्ती खातीर खास कार्यावळींची आंखणी करपाक सुरवात जाली.

गोंयांतले आनी गोंया भायर रावपी गोंयकारां मदीं चडांत चड भावनीक जागृताय निर्माण करपाचे चडांत्त चड यत्न सुरू जाले. गोंय पुर्तुगेजांचे गुलामगिरींतल्यान मेकळें जावचें अशी पुराय भारत देशाची इत्सा आसली. तिका सारें माती घालपाचें काम सुरू जाल्लें.

मुंबय रावपी गोंयकारांची एक संघटना तयार करून ताचे पन्नास हजार वांगडी जमयले आनी गोंय मुक्त जावचे पासत स्वातंत्र्य चळवळीक उभारी येवन जनमानसांत गोंय मुक्तताये विशीं चळवळीचें बीं घालचे खातीर लावरान मुंबय शारांत एक प्रचंड मोर्चाचें आयोजन केलें.

तशेंच सत्याग्रहींक आनी कार्यकर्त्यांक प्रशिक्षण दिवपा खातीर गांधीजींच्या तत्वज्ञानाचेर आदारिल्लो असो एक गोंयकारांचो आश्रम गोंय-भारत हद्दीचेर स्थापन केलो. लावराक खबर आशिल्लें, माजाळेचे हद्दीर कडक पुलीस बंदोबस्त आसा. जर धरलीं तर बंदखण चुकपाची ना. तरी लेगीत 1958 वर्सा माजाळेची शीम हुपून तिरंगी झेंडो हातांत घेवन ताणीं गोंयांत पावल दवरलें. त्या वेळार तांकां अटक जाली आनी एका म्हयन्याची बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली.

आफ्रिकेंत रावपी गोंयकारांचो, तशेंच थंयच्या 'टॉम मवोया' सारकिल्या आफ्रिकी फुडाऱ्याचो गोंय मुक्ती लढ्याक तेंको मेळपाच्या उद्देशान लावरा डिसूझान सन 1961 वर्सा आफ्रिकेंत गेल्ल्या शिश्टमंडळाचें फुडारपण

केल्लें.

मुंबय प्रदेश काँग्रेसीची, गोंय कृती समितीची निमंत्रक म्हूण तांकां वेंचून काडिल्ली. गोंयचें बंदखणींत तांकां दवरिल्ले तेन्ना तांकां खूब त्रास सोंसचे पडले. तांकां दवरिल्ली ती कूड सामकी बुरशी, काळखाची आनी कुबटसाणेन भरिल्ली. पुर्तुगेज शिपाय तांचे कडेन मनीसपणा भायलो वेव्हार आनी वागणूक करताले. तरी लेगीत गोंय सुटकेचे आंतरीक तांकीचेर ताणीं हे सगळे अत्याचार सोंसले. ताणीं सोंशिल्ले श्रम, बंदखण, तरणे पिरायेचीं वर्सां देशाचे सेवेंत खर्च केल्लीं तीं व्यर्थ गेलीं नांत आनी 1961 डिसेंबराक गोंय पुर्तुगेजांचे गुलामगिरींतल्यान मेकळें जालें. पुर्तुगेजांचो साडेचारशें वर्सांचो शेक सोंपलो.

गोंय मुक्ती उपरांत कांय तेंप लावरान नवनिर्मित सरकारांत ‘सल्लागार समितीच्यो’ वांगडी म्हूण काम केलां. 1964 वर्सा त्यो गोंय प्रदेश काँग्रेसीच्यो वांगडी म्हूण वेंचून आयल्यो. मेकळ्या गोंयांतल्या वेगवेगळ्या मळार उप्राशिल्ल्या समाजीक तशेंच राजकी अडचणींचेर तांणी लागींच्यान काम करून त्यो अडचणी सुटाव्यो करपाक आदार केला. 1973 त केंद्र सरकारान ताम्रपत्र दिवन सुटके झुजारी म्हूण तांचो भोवमान केला.

◆◆◆

## संदर्भ पुस्तकां

1) गोंय, दमण, दीव स्वातंत्र्य लढ्याचा इतिहास
खंड 1 आनी खंड 2 - मनोहर हिरबा सरदेसाई
2) गोवा लढ्यातील वीरांगना - नंदिनी महाडेश्वर
3) गोमंतकातील अग्नीफुले - विठ्ठलराय भट
4) गोमन्त सौदामिनी - माधवी देसाई
5) कोंकणी विश्वकोश - संपा: डॉ. तानाजी हळर्णकार
(गोंय विद्यापीठ, ताळगांव)



**रजनी अशोक भेंब्रे - कथाकार आनी बालसाहित्यकार**

**पत्तो** : जी, 3, अत्रेय अर्पाटमेंटस्,
दुर्गानंद नगर, कुडचडें- गोंय.

**वेवसाय :** कुडचड्यावेल्या सर्वोदय एज्युकेशन सोसायटीच्या हायस्कुलांत वट्ट 34 वर्सांची शिक्षणी पेशाची सेवा दिवन आपूण जावन निवृत्ती (व्ही.आर.एस.). सद्या पुराय वेळ कोंकणी सेवेक ओंपून घेतलां.

**मेळिल्ले पुरस्कार :**

1) कोंकणी भाशा मंडळ गोंय संस्थेचो 'घुस्मट' कथा संग्रहाक साहित्य पुरस्कार.
2) यशदामिनी - समाज कल्याण खात्यावरवीं दिवपी गोंय राज्याचो पुरस्कार.
3) कला गौरव - कला आनी संस्कृती खात्याचो गोंय राज्याचो पुरस्कार.
4) बालसाहित्य - कोंकणी कला साहित्य केंद्राचो रामनाथ मथा पुरस्कार.

**हेर वावर :**

- अखिल भारतीय कोंकणी परीशदच्या 20 व्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलनांत, बाल साहित्याचेर सोद निंबद.
- 'मार्ग' अभियानाची सक्रिय वांगडी.
- कोंकणीच्या भाशीक, साहित्यीक, सांस्कृतीक वावरांत वांटेकार. बायलांच्या समाजीक चळवळींनी वांटेकार जावन बायलांच्या समाजीक दर्जाक उंचाय दिवपाखातीर आनी तांच्या कलागुणांक संद दिवपाखातीर पणजी आकाशवाणी आनी पणजी दूरदर्शनावेल्यान बायलांच्या कितल्याश्याच कार्यावळींचें सादरीकरण.
- भुरग्यांची कला फुलची, फळची आनी तांकां माचयेर वावरूंक मेळचें म्हूण ल्हान ल्हान नाटकुल्यांची बरपावळ. आकाशवाणी आनी दुरदर्शनाचेर दोनशां वयर कार्यावळींचें सादरीकरण.
- कोंकणी भाशा मंडळावरवीं शणै गोंयबाब कथामाळेच्या आयोजनांत निमंत्रक म्हण क्रियाशील वांटो.
- साहित्य अकादेमी, दिल्ली संस्थेच्यो आदल्यो सल्लागार समितीच्यो वांगडी.

**पुस्तकां :**

आयजवेर सतरा पुस्तकां प्रकाशीत जाल्यांत.